# नायिका

- चंद्रकांत केणी







# नायिका



लेखक

**चंद्रकांत केणी**

कुळागर प्रकाशन
(२००६)

नायिका (कादंबरीका)
Nayeeka (Novellette)

❑

लेखक
चंद्रकांत केणी



❑

पयली आवृत्ती : जून २००६

❑

छापपी :
कुळागर अक्षर मुद्रा
आकें – मडगांव.

❑

उजवाडपी :
अनिल पै
कुळागर प्रकाशन
पो. बॉ. नं. ७८
मडगांव – गोंय ४०३ ६०१.

❑

मोल : ३० रुपया.

# १

नायिका कशी आसता?

रमेशाच्या दोळ्यांमुखार सिनेमांतले नायिकेचें चित्र आसा. ल्हानपणांतसावन ताका सिनेमा पळोवपाची आवड. सिनेमा म्हळो म्हण्टकच नायक आनी नायिका आसतातच.

नायक कसो आसचो?

तो सुंदर आसूंक जाय. शाणो आसूंक जाय. कितल्या व्हड संकटाक तोंड दिवपाची धिटाय ताजेकडेन आसूंक जाय. मोगाखातीर केदोय व्हडलो त्याग करपाची ताच्या मनाची तयारी उरूंक जाय. धा गुंडांनी घेरलो तरी तांकां मारून उडोवपाचें बळगें ताच्या आंगांत आसूंक जाय आनी चड म्हळ्यार ताका नाचूंक आनी गावंक येवंक जाय.

आनी नायिका?

नायिका सुंदर आसूंक जाय. मोगाखातीर बापायचे गिरेस्तकायेचेर खोंट मारपी वा गरिबींतल्यान वयर आयिल्ली ती आसची. तिका आनीक कितेंय येता आसूं वा नासूं, तिचें दुख्ख फातराच्या काळजाक पाझरावपी, तिचे दोळे भल्या-भल्यांक वश करून घेवपी, तिचो हांसो दुखऱ्या घायाचेर फूक घालपी.

नायक-नायकेची ही कल्पना करूनच तो ओगी रावनासलो. रातीच्या वेळार हांतुणाचेर आड पडटकच तो एक सपन रंगयतालो. ताच्या दोळ्यांमुखार नायिकेचीं साबार रूपां उबीं रावतालीं. तातूंतले एकाद्रे रूप एकाद्या दिसा ताका भाळयतालें. आनी त्या खिणाक तो नायक जातालो... कल्पनेच्या संवसारांत... पूण मागीर दुसऱ्याच खिणाक तो भायर येतालो. ना.. तो नायक जावंकच शकना. तो तितलो सुंदर न्हय. तो तितलो धाडसी न्हय... एक हिनपणाची भावना वाळटेभशेन ताच्या मनांत घर करून बशिल्ली. ल्हानसान घडणुको घडच्यो आनी आपूण भितल्ल्यान पोखरिल्लें कळ्ळ जालां अशें ताका दिसचें. आत्मविश्वासच तो वगडावन बशिल्लो. मार्गान येतना-वतना एकाद्री सुंदर चली दिसताली. मात्सो फुडाकार घेतलो जाल्यार ती नायिका जावं येताली. तितली शिटूक, तितली सुंदर आनी तितलीच निर्धास्त. तिणे उखलिल्ल्या पावलासांगातान आखिव देह असो धोलतालो जशें तिच्या आंगाआंगाची सोबा तो पळयतल्याक दाखयतालो. जायत्या सिनेमांनी अशा साद्या प्रसंगांतल्यान नायक आनी नायिका हांचे संबंध जुळटाले.

वाटेवयली अनोळखी सुंदरी जिणेची सांगातीण जाताली. नदर काळजांक बांदून घुस्पायताली आनी एकामेकांखातीर जीव ओंवाळपाची तांची तयारी आसताली.

पूण रमेशाक तें केन्नाच जमलें ना. नायिका मुखावयल्यान गेली. केन्ना-केन्नाय ताका घश्टून फुडें सरली. केन्ना एखाद्रे सुंदरीन मोगाची शितल नदर ताचेर खीणभर थिरायली. पूण ऐन वेळार अवसानघातकी मनान ताका फाटीं ओडलो. ताजी मान सकयल गेली आनी पांय दुसरे वाटेन घुंवडायले.

पूण सिनेमा पळोवप बंद जालें ना... जागेपणांतलीं सपनां रंगोवप थांबलें ना.

सपन नायिकेचें. ध्यास तिचोच. नायिका! अशें कितें आसात तिच्यांत? येवजितना ताका कवीत सुचलें. ती मिठाकणयेसारकी आसता. मिठाकणी नासतना जीण अपूर्ण उरली ना तरी अळणी उरता. जेन्ना ती जिणेत पुराय विरगळटा तेन्ना जिणेक नवो अर्थ, नवी कळा येता... जगपाखातीर नवें निमित्य मेळटा.

एक सार्थी मिठाकणी दोळ्यांमुखार दिसता. चिमटेंत घेवन जिणेंत ओडपाची. सगळें जुळूं येता. सिनेमांत घडटा तशेंच घडूंक लागता. पूण ऐन वेळार काळीज धडधडटा... हात थरथरतात... आनी वाचा धरता.

दारांत आयिल्ली डोंबारीण. सदांच ती येता. हांडीर एक भुरगें. त्या भुरग्याच्या नाकांत सदांच शेंबूड. तें सूक-सूक करता आनी आवयच्या न्हेसणाच्या पदराक नाक घांसता. आनी ती काळी कुळकुळीत चेपट्या नाकाची. गळ्यांत तांबड्या मणयांच्यो माळो. गणसाबैलाच्या गळ्यांत आसतात तसल्यो. कानांत एक मुदी. दाट धातूची. कितली जड आसुंये देवाक खबर! कानाचे पाळयेचे बुराक नदरेंत भरतात.

एका वेळार तिचे न्हेसण तांबडें आशिल्लें इतलें कळटा. सामकें म्हेळें जालां. तेलकट दाग न्हेसणभर पडल्यात. मुखावयल्यान तिणे तें वयर घेवन कमराकडेन खोयलां. धोपरासकले पांय उक्ते. तांबड्या धुल्लान भरल्यात. पावलांक काळे कात्रे पडल्यात.

केसांची जटा, माथ्याक तेलाचो वास लायल्यार दोन दिवाळ्यो गेल्यो आसतल्यो. निर्लज्ज बायलेसारकी हांसता. केन्ना रांपल्ले दांत दिश्टी पडटात. ते पळयतकच रमेशाचें आंग शिरशिरता.

तो तिका सदचेवरी धांवडायता. सकाळचो कामाक वचूंक भयर सरतना ती दारांत पावली जाल्यार अपशकून जालो अशें ताका दिसूंक लागता. देखून तो धांवडायता. ती काकुटेक येता. कसलीय भीक दी अशें मागता. शेळें खाण दी, पिंजकें वस्त्र दी नाजाल्यार एखादें नाणें दी. मळबाचे दिशेन हात वयर करून ती रमेशाखातीर देवाकडेन मागता. ताच्या बुटांक हात लावन ताका पांयां पडटा. बायलमनशेची लज धांकपी पदर दोनय हातांनी फुडें धरून निर्लज्जपणान भीक मागता.

एक दीस ताणें काकुळट दिसून पैशे दिल्ले. पूण तेन्नाच्यान वयलेवयर ती येवंक लागली. सकाळींफुडें अपशकून टाळचेखातीर रमेश तिका धांवडयता. पूण ती दिसपट्टी येता.

आतांय ताणे तिका धांवडायली. पूण ती निगरगट्ट हाल्लीना. तागेली वाट आडावन रावली. पांया पडली. देवाकडेन सांगर्णी, मागर्णी केली. पदर फुडें पातळायलो.

रमेशाक दिसलें ही नवी कटकट. सकाळफुडें नायिकेचें तोंड पळोवपाचीं सपनां रंगयत ताणें रात सारिल्ली आनी पयलेच उंडयेक मूस मेळचो अशी ही अवदसा...

बोल्सांत हात घालो. मेकळें नाणें ना. पिडा वचूं एक खेपे अशें येवजून पार्कीट उकतें केलें. बारीक नोट ना.

कितें करतलों? पांच रुपयांची नोट हे डोंबार्नीक कशी दितलों? आनी बोट दाखयलें जाल्यार ती हात गिळूंक सोदर्चीना?

ताणें पार्कीट परत बंद केलें आनी म्हळें, 'वच तूं. फाल्यां यो.'

'तुजे कृपेन भुरगें जेवतलें. हांव एक उंडी खातलीं. ना म्हणूं नाका. फाटीर मार... पोटाचेर मारूं नाका.'

ही खट बायल आपली फाट सोडचिना, हें रमेश वळखलो आनी ताणे विचारलें, 'मोड आसा?'

एकदम ती हांसली. श्रावणांतलें वत पावसांत चकचकचें तसो तो हांसो.

'कितल्याची मोड?' तिणे विचारलें.

'पांच रुपयांची.'

रमेशान पाकिटांतली नोट काडली. तिणें चोळयेची गांठ सोडून पसोभर मोड हातांत घेतली. आनी नदर वयर करून ताका विचारलें, 'म्हाका भिकेचे कितले दितलो?'

'एक रुपया काड. चार परत दी.' ताणें म्हळें.

दोडिल्ल्यो नोटी तिणें उक्त्यो केल्यो. दोन रुपयांच्यो दोन नोटी. तिज्या हांतांतल्यो हुमेन भिजिल्ल्यो नोटी पळोवन रमेशाक कितें येवजले देव जाणा! एकदम ताणे म्हळें, 'आसूं. पांचय रुपया दवर.'

ताणें दिल्ली नोट तिणे घेतली. मळबावाटेन हात जोडून कितें तरी मागलें आनी आपली जोड सांबाळीत ती गेली.

तिचे फाटमोरे आकृतीकडेन रमेश केदो वेळ मेरेन पळयत रावलो.

## २

नायिकेचीं सपनां पळयतल्या रमेशाक आतां ती डोंबारीण दिसपट्टो सकाळच्या वेळार अपशकून करता. रमेशाक तरी तशें दिसता.

भीक मागूंक सद्दां तिणें कित्याक येवचें आनी तेंय रमेश ऑफिसाक वचूंक भायर सरच्या वेळार? घडये हेर वेळाचेर तो मेळना देखून ती सकाळची येता आसुंये.

प्रस्नान रमेश गोंदळ्ळो. एक अनोळखी तरणाटो. मोड मागतासर आपणाक पातयेता काय म्हणून विचारता. ५० रुपया उश्णे मागतलो. कितें करचें?

'घडलां कितें तुजें? आपणाक कांयच खबर नाशिल्ल्याचो आव हाडून रमेशान प्रस्न विचारलो.

'म्हजी स्कूटर हिका आपटर्ली. ही सकल पडली. तिका कांयच जावंक ना. पूण ती हाडाक दूख जाल्या अशें म्हणटा आनी पांय घट करून जमनीर बसल्या. हॉस्पिटलांत व्हरतां म्हळ्यार येवंक तयार ना. रडटा आनी किळच्यो मारता. तिका ५० रुपया दिवपाचें करून प्रकरण सोंपयलां. पूण म्हजेकडेन मोड ना.'

'पूण हांव तुका वळखना.'

'म्हजे स्कुटरीचो नंबर घे. नाजाल्यार अशें कर. हांव तुका तुज्या घरा पावयतां. वाटेर मोड घेवंया, म्हाका ५० रुपया दी. तिचे तावडींतल्यान एक वेळ सुट्टां.'

रमेश दोन पावलां फुडे सरलो आनी ते बायलेवटेन पळयलें.

तिचेर नदर पडनाफुडें तो एकदम फाटीं सरलो. तीच डोंबारीण आनी तिगेलो पोर. मान सकयल घालून रडटा. उजवो पांच तिणें मार्गार पातळायला. त्या पांयाचें हाड मोडलां?

रमेशान ५० रुपयांची नोट ताचे सुवादीन केली आनी ताणे ती डोंबार्नीक दिली.

नोट घेवंक हात आनी नदर वयर एकाच वेळार तिणें वयर केली आनी नदर रमेशाचेर पावली तेन्ना रडटां-रडटां ती हांसली. वळख दाखोवपी हांसो.

'चल या आमी. हांव तुका पावयतां.' त्या तरणाट्यान म्हळें.

रमेश स्कुटरीचेर फाटल्यान बसलो. स्कुटर सुरू जाली. ओगीच रमेशाली नदर फाटले वाटेन गेली. ती बायल उठून उबी राविल्ली.

फटींग बायल. रमेशाच्या मनांत विचार आयलो. खीणभर दिसलें स्कुटर घुंवडावन परती घेवंक सांगया. ते फटकिरे बायलेक दडबडावन ५० रुपया परते घेवया.

पूण कित्याक कोण जाणा, ताच्या तोंडातल्यान उतर फुटलें ना. स्कुटरवाल्यान रस्त्यावयल्या दुकानाकडेन गाडी थांबयली. मोड घेवन रमेशाले ५० रुपये परते दिले.

'ते बायलेन तुका फटयलो.' नोट हातांत घेतना रमेशान म्हळें.

'कित्याक म्हणटा तूं? म्हाका पोलिसांची कटकट नाका आसली म्हणून प्रकरण पालयलें.' ताणें जाप दिली.

'ते बायलेक कांयच जावंक ना. स्कुटर सुरू जायनाफुडें ती उबी राविल्ली हांवें पळयली.'

त्या तरणाट्याल्या तोंडावयले भाव एका खिणांत बदल्ले आनी रमेशाकडेन तो दुबावान पळोवंक लागलो.

'तूं वळखता तिका?' ताणें रमेशाक विचारलें.

'ना.'

'पूण पयशे घेतना ती तुजेकडेन पळोवन हांशिल्ली अर्शी म्हाका दिसली.'

रमेश गडबडलो. किर्ते जाप दिवची तें खिणभर येवजिलें आनी म्हळें, 'हांवें पळोवंक ना. हांव तिका वळखना.'

४

एकाद्री ल्हानशी गजाल लेगीत मशानक अस्वस्थ करून सोडटा. रमेशालें तशेंच जालें.

वाटेवयली एक डोंबान्न! ताचो आनी तिचो संबंद तरी कसलो? सकाळच्या वेळार ताच्या दारांत उबी रावन भीक मागताली आनी एक दीस ताणे मोड नाशिल्ल्यान तिका पांच रुपयांची नोट दिल्ली... रमेशापुरतें तें प्रकरण थंयच सोंपल्लें.

सोंपोवपा सारकेंच प्रकरण. आपले जिणेत एकाद्री नायिका येवची अर्शी दिसा सपनां तो पळयत आसलो. तरी हे डोंबान्नीकडेन नायिकेचो संबंद कसलो! म्हेळी, कुरूप, बुरशी आनी एका भुरग्याची आवय. वर्साचें भुरगें आसतलें. ताका पळयल्यारूच वीट दिसता. घोवाची बायल ती तिचें लग्न जावंक नाशिल्लें जाल्यारय नायिका म्हणून तिचो विचार रमेश करपाचो न्हय.

नायिका कशी आसता हें तो जाणा. ताणे सिनेमा पळयल्यात, कादंबऱ्यो वाचल्यात... आनी रस्त्याचेर लेगीत ताका त्यो दिश्टी पडल्यात.

पूण स्कूटरवाल्याक फटोवन तिणे पन्नास रुपया वसूल केले. बायल सामकी हळशिकावणी आसूंक जाय....

तो प्रसंग रातभर रमेशाल्या मनांत घोळत उरलो. सकाळचो तो भायर सरलो तेन्ना ती डोंबान्न खंय तरी उबी आसतली अशें ताका मनांतल्या मनांत दिसतालें. पूण ती नासली.

बसीच्या स्टॉपामेरेन ती डोंबान्न मेळ्ळी ना आनी आयज नायिका म्हणूं येत अर्शी चलीय दिसली ना.

पूण आज वेगळे घडलें. बसींत ताका रिकामो सीट मेळ्ळो आनी तोय एके नायिकेचे कुशीक.

हीच ती आसत काय? जी दोन दिसां आदीं आपल्या प्रियकरा सांगातान आसली? जिणे हटकुपी हांसा तोंडार येता येता गिळून उडोयल्लें?

बस सुरू जाली आनी जनेलांतल्यान भितर येतल्या वाऱ्यासरशीं तिचे मेकळे केंस उडूंक लागले. सळसळीत केंस ताच्या दाव्या पोल्याक कातकुतल्यो करताले.

तो सुखावलो. कसलो तरी उग्र सेंट आनी तितलोच उग्र पावडर. रमेशाक तो परमळ मानवलो ना. पूण सुखाची तनर ताणे भंगूंक दिली ना. अचलय दोळे धांपून घेतले आनी

कल्पनेच्या उजवाडांत तो उडूंक लागलो.

तिका खबर ना, आपले केंस ताच्या पोल्याक आपटतात तें? काय खबर आसूनय ती केंसांवरवीं संदेश धाडूंक सोदता?

कालिदासालो यक्ष मळबांतल्या कुपांकडल्यान आपले प्रियेक संदेश धाडटालो, हांगा कुर्शाक बशिल्ली ही नायिका...

बसीन वळण घेतलें आनी तो तिचेर लकलो.

'सॉरी.' अशें म्हणून ताणे आंग चोरून घेतलें.

'बॅगर्स कॅनॉट बी चुजर्स.' आपल्या रंगयिल्ल्या ओंठांचो चंबू करून ती उलयली आनी हांसली. तिचे दोनय पोले तांबर्शी लज खळयांनी लिपोवन बसले.

तिणे कितें सांगिल्लें? कोणाक भिकारी म्हळें? रमेश गोंदळ्ळो. पूण ती मेकळेपणान बशिल्ली. तिचें धोंपर जें उकते आसलें, ताचे पँटीक आफुडलें. ताणे आपलो पांय कुर्शाक घेतलो ना. मुळांतच तो आंखडेवन बशिल्लो.

बस फुडें पावली. परत तिचे आडांगी केंस ताका कातुकुतल्यो करूंक लागले. तिणे हातान केंस सारके केले आनी म्हळें, 'सॉरी.'

केंसांचो आपणाक त्रास जायना. उरफाटें ते सुखदिण्यो संवेदना जागयतात अशें तिका सांगपाचे रमेशाच्या मनांत आयलें. कोणेंय तरी फुडाकार घेवंक जाय न्हय? ताणेच घेवंक जाय. पूण सभ्य मनशाक अशें उलोवप सोबता? ती कोण हें लेगीत तो नकळ.

आपले दोनय हात तिणे आपलेच मांडयेचेर पातळायल्यात. नेलपॉलीश लायिल्लीं लांब नाखटां. बोटांय लांब. खंय तरी वाचिल्लें असल्या लांब बोटांचीं मनशां कलाकार आसतात.

आडांगी केंस परत बंधनांतल्यान मेकळे जावन ताच्या पोल्यांकडेन आयले. तिणे हात वयर काडलो त्याच वेळार ताणेंय आपलो हात पोल्याचेर धरलो. बोटांक बोटां लागलीं... खीणभर संवसाराची गती थांबली. काळजाचे ठोके बंद पडले. ताणे दोळे धांपून घेतले. एक सुखदिणी कळ देहाच्या कणकणांत देंवली.

ती 'सॉरी' म्हणटली म्हणून ताणें वाट पळयली. पूण तिणे कांयच म्हळें ना. हांसली. कळयेचें फूल फुलचें तसो गोड हांसो. त्या खिणाक दोळ्यांच्या बावल्यांमदीं एक पडबिंब दिसलें... तें ताचें आसलें?

रमेशाली चुळबूळ सुरू झाली. स्पर्शाचें सूख पर्थून एक खेपे अणभवूंक तो उतावळो जाल्लो. पूण आंग मेकळें सोडून कसो बसतलो?

ताणे परत तिचे वाटेन नदर व्हेली. ती ताकाच पळयताली आसुंये. नदरेक नदर मेळ्ळी.

हे खेपो हांसो उदेतां-उदेतां बावलो. रमेश मात्सो खांकडेलो. ताणें खांकून ताळो मेकळो केलो आनी आडखळत विचारलें, 'व्हदल तुवें बॅगर्स म्हळें... म्हाका अर्थ समजलो

ना.'

आतां ती खळखळून हांसली. हांसतना परत पोले तांबशे जाले. गड्ड्यांच्या खेळांतलीं दोन मिलां दोन पोल्यांचेर उदेलीं.

आपल्या पिशेपणाक ती हांसल्या काय किल्याक हांसल्या हें ताका समजलें ना. देखून हांसचें काय गंभीर तोंड करचें हें येवजीत तो उरलो.

'बसीन भोंवतल्यान टॅक्सीचे लक्झरीची अपेक्षा करप पिशेपणाचें जातलें... हांगा आंगाक आंग लागता. प्रवासांत अशें घडटा. देखून कोणे कोणाक सॉरी म्हणपाचें नासता.'

आपल्या तोंडार थापट मारलां अशें रमेशाक दिसलें. आपल्या जिवितांतलो तो एक अणभव... एक म्हौंवो अणभव ताणे घेतिल्लो. खोशयेचे तरंग अजून काळजांत उफेताले. पूण हिची प्रतिक्रिया वेगळीच जाल्या. असल्या स्पर्शाची तिका संवय आसतली. आपलेंच चुकलें. चण्याच्या झाडार चडपाचो यत्न केलो.

बसीच्या ड्रायवरान एकदम ब्रेक लायलो. सगळे पॅसेंजर उसळून एकमेकाचेर पडले. ती पुराय ताच्या आंगार लवंडली आनी आपूण सिटाभायर उसळून पडची न्हय इतलेचखातीर ताणे तिच्या भुजाभोवंतणी हात धरलो... सगळें येवजिनासतना आपसूक घडिल्लें. ती ताचे वेंगेत आयिल्ली... खिणभर... त्या खिणाक जिणेचें एक सपन पूर्ण जाता अशें ताका दिसलें. नायिकेसारकी नायिका...

सिनेमांनी असले प्रचंग घडिल्ले ताणें पळयल्यात... कादंबऱ्यांनी वाचल्यात. एक नवें नातें त्या वेळार निर्मता. मनांतले उमाळे गितांतल्यान उकते जातात.

ती कुशीक सरली. परत सॉरी बी म्हळें ना. पूण हे खेपे ती लजेन तांबडी गुंज जाल्ली आनी तिची नदर भायले वाटेन थिरावल्ली.

बस थांबली आनी ती देंवली... तिचेर ताचे दोळ थिरावलेले. उबे आशिल्ल्या लोकांमदीं रिगत तिणें वाट काडली. त्या अनवळखी प्रवाशांक आपलें आंग घांसून देंवली... देंवतना तिच्या पांयातलें जोतें सुटलें. ती लकली. पूण पडली ना.

बस सुटली. मोटे आशेन तो येदोवेळ मेरेन नदर फाटल्यान व्हरून तिचेकडेन पळयतालो. पूण तिणे नदर वयर केलीच ना. सगळें अचकीत घडिल्लें. असले अपघात हे ल्हान नासतात. विसरपासारकेय नासतात. आतां संकोच मोडटलो. संवाद सुरू जातलो. काळजाची भावना उतरांतल्यान उकती जातली...

सिनेमांत तरी तशेंच घडटा. झाडाचें झडिल्लें पान वातावरणांत तरंगत भूंय पडटा तशी ताची अवस्था जाल्ली. एका वेगळ्या संवसारांत तो दिसभर वावुरलो. गोड कातकुतल्यो दिसभर सुखायत रावल्यो.

सांजरी ती परत मेळची ना, पूण आयच्या दिसा तरी तीं डोंबारीण मेळची न्हय अशें ताका मनापासून दिसलें.

## ५

बावल्यांच्या दुकानांत एक व्हडली बावली आसा. शो-केसींत ती दवरल्या. प्लॅस्टर ऑफ पॅरीसचे पुतळे साडयांच्या दुकानांनी आसतात तेदी व्हडली पूर्णाकृती बावली.

ऑफिसांतल्यान येता आसतना वेळ आसलो जाल्यार रमेश ते वटेन सदां वता. हारशाचे शो-केसीभायर उबो रावन तो ते बावलेक नियाळटा. शो-केसींत आनीकय बावल्यो आसात. खेळणीं आसात. कांय वाजतात, कांय धोलतात आनी ती पळोवंक फूटपाथाचेर लोक गर्दी करतात.

दनपारच्या वेळार अस्ताक देंवतल्या सुर्याचीं किर्णां शो-केसीचेर पडटात देखून दुकानाचो मालक ती बंद दवरता. मुखावयले सात मजली इमारती फाटल्यान सुर्याचें बिंब पावलें म्हणटकच शो-केसीवयलो पड्डो कवळटा. नाटकाचो पड्डो वयर सरता तसो. आनी पड्डो वयर सरपाची वाट पळयत भुरग्यांसांगातान बायलो आनी दादले लेगीत थंय उबे रावतात.

एक दीस ती शोकेस पळोवन उमेद भागना. मालक रसीक. दिसपट्टीं नवीं खेळणीं थंय दरवता. आनी ते व्हडले बावलेचे भेस बदलता. कांय लोक अशें म्हणटात, तिच्या आंगावयलो भेस पळोवन शारांतली फॅशन बदलता.

रमेशाक खेळण्यांची व्हडली लत्तुबाय ना. बावल्यो घेवन खेळपाची ताची पिराय उरूंक ना. पूण शो-केसींतली ती व्हडली बावली ताका भाळयता. मनांतले नायकेची ती प्रतिकृती अशें ताका दिसता.

बावली अशे म्हणून सांगल्यार लेगीत फट दिसचें इतली ती जिती तट्टटीत. सादो निर्जीव पुतळो न्हय. ती मधींच आंग हालयता, हात हालयता आनी अचकीत दावो दोळो अशे तरेन मोडटा, पळयतल्याक दिसचें ती आपणाकच खुणायता म्हणून.

आतांच तिणे दोळो मोडलो आनी भायर उबे राविल्ल्या आंबट शौकी लोकांनी एकदम बोवाळ केलो.

शिळोणी घालून विकृतीचें प्रदर्शन करपी लोकांची रमेशाक तिडक येता. आपलेच नायिकेक वाटेवयल्या मवाल्यांनी चाळयल्या अशें दिसून तो मनांतल्या मनांत खुबळटलो.

अचकीत दारांत रडटल्या भुरग्याचेर रमेशाची नदर गेली. हातांत एक बावली आसा तरी ते भुरगें रडटा. आवय ताका समजायता आनी बापूय ताचेर धेंगसता.

शो-केसींतले नायिकेवयलें रमेशाचें चित्त त्या भुरग्याचेर थिरावता. दोन-तीन वर्सांचो चलो तोय बावलेसारकोच गुबगुबीत. माथ्यावयले मुदयाळे केंस अडेचेशे दिसतात. ओणोव घेवन आवय ताचे दोळे पुसता. एका हातांत लेंस. तो लेंस ती ताज्या तोंडार भोंवडायता. दुसऱ्या हातान ती आपलो पदर सांबाळटा.

तिगेल्या घोवाची नदर रमेशाकडेन वता आनी तो तिका कितें तरी सांगता. ती

सारको उबो रावता. काचाबूल जाळेभाशेन चोयवटेन नदर भोंवडायता. तो मात रमेशाचेर एक जळजळीत नदर भोंवडायता.

रमेशाक दिसता ताका सांगचें, 'तुजी बायल सुंदर आसली तरी हांव तिका पळोवंक उबो रावंक ना. म्हाका लक्तुबाय त्या ल्हान भुरग्याची.'

पूण कशें सांगतलो? तो मान सकल घालता आनी कुर्शाक वचून उबो रावता. ताका घरा पावपाची ताकीद ना. आनीक एक खेपे ती बावली दोळो मोडटली.. तिणे दोळो मोडीसर तो रावंक सोदता... तो एक वेगळो अणभव आसता... एक अणभवंक नाशिल्लें सुख अणभविल्ल्याचो आनंद ताका मेळटा.

'बावली एकली जातली. तिच्या सांगाताक एक बावलो घेवया. हांव तांचें लग्न करतलों.' रडत रडत भुरगो आवयक सांगता.

बापूय उबगून आपल्याच कपलाचेर हात मारून घेता. आवय म्हणटा, 'तो इतलो मागता जाल्यार ताका एक घेवन दिवया.' बापूय भोंवतणी नदर भोंवडायता. कुर्शाक आशिल्ल्या रमेशाचेर ताजी नदर वता. तो एकदम रागान ताका घुरता.

आतां मात रमेशाच्यान थंय रावं नज. तो मान सकल घालून आपले वाटेन वता.

बावली आनी बावलो हांच्या लग्नाची कल्पना एक अनोळखी सुखदिणी कळ काळजांत जागयता. त्या भुरग्यान रमेशाची भावना... तागेलें एकोडेपण उतरांनी सांगिल्लें.

एक पोरनी याद. चवनावयली खवळी उसोवची तशी अचकीत जागी जाली.

तो आजोळा गेल्लो. मामाली धाकली चली. तिचेपरस तो दोन वर्सांनी ल्हान. तरी तागेली मामी ताका आपलो जांवय म्हणून चाळयताली.... जांवय म्हळ्यार कितें हें कळपाची ती पिराय नासली. पूण संगीता वांगडा खेळप ताका आवडटालें. संगीता व्हडलें तो ल्हान चली जावनय दादागिरी करतालें. खेळांत तें ताची बायल जातालें. तो घोव. तें रांदतालें. वाडटालें. बावल्यांचीं लग्नां करतालें आनी झगडलें जाल्यार ताकाच मारताले.

सदांच ताणें मार खावचो. एक दीस ताणें कागाळ केली. 'तूं सदां मारतलें जाल्यार हांव खेळूंक येना.'

'तूं म्हजो घोव म्हणून तुका मारतां.' संगीता जाप दितालें.

एक दीस ताणे बावल्यांचें लग्न करपाचे थारायलें. दोनच बावल्यो संगीताल्यो. खेळापुरतो बावलो ताका दिल्लो. दोगांनीय अंतरपाट धरलो. संगीतान मंगलाश्टकां म्हळीं. रमेशाक मंगलाश्टकां म्हणूंक येनात. तो हांसलो... संगीताक तिडक आयली. ताणे बावल्यो मोखून मारल्यो आनी रमेशाचेर एक थापट फुलयलें.

भुरगेपणांतल्या त्या थापटाची याद जातकच आतांय ताणे रस्त्यार उबो रावन आपल्या हातान पोलो सांसपिल्लो आनी तो मनांतल्या मनांत हांसलो.

दीस कितले वेगळे आसले! कितले सुखाचे! त्या झगड्यांत लेगीत एक गोडी

आसर्ली. अमुर्रपक्या चिंचेबोटार्ची!...

चिंचेबोटाचो उगडास मन अस्वस्थ करून गेलो. काळजाच्या कडांनी काळीं कुपां दाटून आयर्लीं. जोगलां कडकडर्लीं...

त्या दिसा ताका थापट दुखलें आनी रागय आयलो. ताणे एक गुंडो उखलून संर्गीताचेर मारलो. संर्गीताच्या कपलाक कोंक जार्लो. रगत व्हांवलें. ताणे रडून आकांत केलो.

घरची सगळीं धांवन आयर्लीं.

मामान रमेशाक उबो केलो. वेताचे बडयेन तागेले दोनय कवळे तळवे फोडले. तांबडे गुंज वळ आयले.

पूण रमेशान सगळें सोंसलें. तो रडलो ना. उलयलो ना. कुडींत वचून एका कोनशाक बसलो.

कोणे तार्ची वासपूस केली ना. केल्लीय ताका नाका आसर्ली. तो आपल्या घरा वचूंक सोदतालो पूण एकलो कसो वतलो?

थोड्या वेळान संर्गीता थंच आयलें. ल्हवू नदर वयर करून रमेशान पळयलें. कपलाक पट्टी बांदल्या.

'रमेश!' ताणें उलो केलो.

रमेशान दोळे धांपून मान सकल घार्ली. जाप दिर्ली ना.

'रमेश, तूं म्हजे कडेन उलयना?'

रमेशान तरीकय जाप दिर्ली ना.

'म्हजेखातीर तुका मार पडलो.'

रमेश ओग्गी.

संर्गीता म्हऱ्यांत आयलें, ताच्या केंसांक हात लायलो. रमेशाक रडूंक आयलें. दोनय तळवे चुरचुरताले. ताणे आपल्या हातान संर्गीताक पयस धुकलें.

पूण संर्गीता गेलें ना. मुखारच बसलें. आपल्या हातांत ताणे रमेशाचो हात घेतलो. तळवो उकतो केलो. तांबड्या वळांवयल्यान आपर्ली जीब फिरावन ल्हवू फूंक मारर्ली.

एक शितळ संवेदना रमेशाक सुखावन गेर्ली आनी ताणे दोळे धांपले.

दुसरो हात घेवन संर्गीतान तशेंच केलें. आतां मात संयमाचो बांद तुटलो. रमेशाक रडूंक आयलें. घुस्मटून तो रडूंक लागलो.

'दुखता तुका? रडूं नाका.' अशें ताका सांगत संर्गीताय रडूंक लागलें.

अजून रमेशालो हात संर्गीताच्या हातांत. तागेल्या दोळ्यांतलें एक हून दूक ताच्या दुखऱ्या तळव्यार पडलें आनी ताणे दुसऱ्या हातान संर्गीताचे दोळे पुसले.

श्रावणांत कुपां कुशीक वचून अचर्कीत वत येवचें आनी आंगणांत मोर नाचचो तशें संर्गीता हांसलें. हांसता हांसतां उबें रावलें. फ्रॉकाच्या बोल्सांत हात घालून ताणे एक चिंचेबोट भायर काडलें. आपल्या हातांनी चिंचाऱ्यार्चीं दोन पेरां तोडर्लीं. देंठाकडले एक

पेर ताच्या हातांत उरलें.

संगीतान खीणभर थेर्वाजलें. आनी तोंडांतलो दोन चिंचाऱ्यांचो आंलो कुडको रमेशाच्या दुसऱ्या हातांचेर दवरलो.

रस्त्यान चलतां चलतां भुरगेपणांतल्या ह्या प्रसंगाचो रमेशाक उगडास जालो. एक नायिका ताचे जिणेंत आयिल्ली. त्या अमुर्तपक्या चिंचबोटाची गोडी अजून ताचे जिबेर उरिल्ली.

पूण जें घडपाचें नाशिल्लें तें घडूंक नासलें.

६

रातीच्या थंड वेळार भायले वाटेन बोवाळ जालो आनी रमेशान दिवो पेटयलो.

घड्याळांत पळयलें. निकतींच धा वरां जातालीं. तो घरा परतलो तेन्ना बारीक पावस शेनतालो. वातावरण थंड आसलें. पयसुल्या झिलांनी कांजुले चकचकताले आनी रातकिड्यांचो किर्रकिराट कानार मारतालो. बाकी सगळें शांत.

रस्त्याचेर नगरपालिकेन बसयिल्ली ट्यूब लायट मर्दीं कांय दीस पेटना आसली. आज ती भगभगताली. मर्दींच पालवताली आनी परत खीणभर पेटून परत पालवताली.

घराच्या सोपणाचेर उबो रावन रमेशान सदचेवरी वातावरणाचो नियाळ घेतलो. खानावळींतल्यान भायर सरतना तोंडांत उडयिल्लो बडिशेपेचो चोथो ताणे थुकून भायर उडयलो आनी घराचें कुलप काडून तो हातपांय धुतासर वीज गेल्ली.

तसोच काळखांत्यान सांसर्पात सांसर्पात तो आपले खाटेर येवन न्हिदिल्लो. आंगावयल्यान पांगरून गुठलावन शेळावाचें सूख भोगतां भोगतां जागृतावस्थेंतलीं आवडीचीं सपनां पळयतालो.

काल ताणे सिनेमाचो एक पोस्टर पळयत सावन ताचे चित्त अविचळ जाल्लें. आदिवासी बायलेचो भेस करून एक नटी आपले सोबेचें प्रदर्शन त्या पोस्टरांत करता. तिचे मानेर ओंठ तेंकोवन अर्द नागडो नट उबो आसा असो तो देखाव. आदिवासींचो भेस चडयतकच अश्र्लीलपणाचो आळ घालूंक कोण धजना असो विचार रमेशाल्या मनांत येवन गेल्लो.

हांतुणार पडिल्लेकडेन तो पोस्टर ताच्या दोळ्यांमुखार आयलो आनी ताणे आपली धोंपरां पोटाकडेन घेवन कूस परतिल्ली.

एक कुवार्डें ताका सुटना आसलें. सिनेमांनी आनी कथांनी नायकाक इतली प्रतिक्षा करची पडना. पूण ताच्या वांट्याक अजून नायिका येना.

खंयच्या तरी सिनेमांतलें एक वाक्य ताका याद जालें आनी तो हांसलो. त्या

सिनेमांत खलनायक नायिकेक म्हणटा, 'ब्रह्मदेवान जल्माक घालतना घोवाबायलेची गांठ मारून दवरिल्ली आसता. वेळ येतकच दोगांय आपसूक लागीं येतात.'

नायिकेचें सपन पळोवप हो ताचो आवडीचो छंद. काळखी वातावरणांत तो अचळय सपनांच्या संवसारांत भितर सरतालो आनी थंय रमतां रमतां न्हिदचे सुवादीन जातालो.

आजय तशेंच जालें. जाग आनी न्हीद हांचे शिमेवयली अवस्था धुंद आसता. ते म्होवे अवस्थेंत रमेश मनान अरळ जावन येता आनी देहान ल्हव जायत जायत एकादऱ्या सुखदिण्या प्रसंगाचो अणभव घेता आसतनाच ताका न्हीद लागता.

कोणाली तरी किळांच कानार पडली आनी मागीर बोवाळ. आपूण सपन पळयतां काय जागो आसा हेंच रमेशाक कळना जालें. ताणें सदांचे संवयेन विजेच्या बटनाक हात घालो. बल्ब पेटलो. वीज केन्ना आयिल्ली तें ताका कळूंकच नासलें.

जनेलाकडेन येवन ताणे भायले वाटेन पळोवपाचो यत्न केलो. सुमार धा वीस मिटरांच्या अंतराचेर रस्तो. रस्त्यावयली ट्यूब लायट आतां पालवल्ली. भायर गुपाट काळोख. रातकिड्यांच्या किर्रकिराटाक फाटीं घालपी हो बोवाळ. कांजुल्यांचो खेळ मात अजून चालू आसा.

कसलो बोवाळ काय हो? सदचो न्हय. कितेंय तरी विपरीत घडिल्लें आसूंक जाय.

आळसाविल्ल्या देहान सुस्तेल्ल्या मनाक सांगलें, तुका कितें लागता? तूं वचून न्हीद पळोवंया.

पूण कितें घडलें तें समजून घेवपाची उमळशीक ताका फुडल्या दाराकडेन घेवन गेली. दार उक्तें केलें. आतां मोठो पावस पडटा. नळ्यांवयलो आवाज कानांत भरता.

पूण मुखार गुपाट काळोख. दोळे ताणून फायदो ना. रस्त्याचे दिशेन आवाज येता.

पावसांत भायर खंय वतलो? ते भायर तो उकतो आसा. ताणे परत दार बंद केलें आनी कुडींतलो दिवो पालोवन बटनाक हात घालता सर आवाज लागीं पावलो.

दिवो तसोच दवरून तो जनेलासरीं आयलो.

बायलेचो आवाज. रडत आनी गाळी घालीत कोण तरी बायल ताज्या घराचे दिशेन येता.

रस्त्यावयलें झगडें घरांत येता काय कोणाकय अपघात जावन तो आदार मागूंक येता? कितें करचें हें रमेशाक येवजना. तो दिवो पालयता आनी जनेल उक्तें करून भायल्या वातावरणाचो थाव घेता.

रस्त्यावयलो बोवाळ विरत गेलो आनी बायलेच्यो किळच्यो थांबल्यो. आतां परत रातकिड्यांनी आपलें संगीत सुरू केलें.

रमेशान सुटकेचो उस्वास सोडलो आनी तो हांतुणाचेर येतासर ताचें दार वाजलें.

कोण तरी भायल्यान उलो मारता. दार उकतें करूंक सांगता. बायलेचो आवाज.

भायले वटेन एक दिवो आसा. रमेशान तो पेटयलो आनी दार उकतें करून ताणे पळयलें.

दारांत ती उबी. डोंबारीण.

'कितें जालें?'

'भायर पावस पडटा. आयची रात हे पडवेर न्हिदतां.' तिणें म्हळें.

एके बायल मनशेमुखार उकत्या आंगान भायर येवंक ताका लज दिसली. ताणे नदर पडवेचेर भोंवडायली.

तागेल्या घराक एक पडवी. पोरणें घर आनी उकती पडवी. फूट देड फूट रुंदायेची. एके वटेच्यान घराच्या मालकान पोरणें मदेर दाळून दवरलां आनी ताचे कुर्शाक वाटेवयलें एक सुणे सुखावलां. दिवो पेटलो तरी तें बसून आसा. दुसऱ्याचे पडवेर आसतना भोंकचे न्हय हें त्या सुण्याक समजता.

दुसरे वटेन उकती पडवी. तेच पडवेर तागेलें कुडीचें जनेल.

तिका कितें सांगचें हे रमेशाक येवजलें ना. ताणे म्हळें, 'म्हाका कटकट नाका. कोणाकडेन झगडून आयल्या तूं?'

'म्हज्या दादल्यान म्हाका धांवडायली. मारून धांवडायली... हें पळय...' अशें म्हणून तिणे माथ्यार घेतिल्लो पदर सकल काडलो. कपलाक कोंक जाल्ली आनी रगत व्हांवतालें.

रमेश चुरचुरलो.

'चल हॉस्पिटलांत ना जाल्यार डॉक्टरागेर. आनी पळय, धोणकुर्टाचें इंजेक्शन घेवंक विसरूं नाका.'

'तें फाल्यां पळोवया. आज हांव हांगा न्हिदतां. न्हिदूं न्हय?'

तागेले जापेची वाट पळयना आसतना ती थंयच जमनीर बसली.

'घर खंय तुजें?' रमेशान विचारलें.

'ओ... हो! म्हजें घर तुका खबर ना? रस्त्या पलतडीन ती झोपडपट्टी आसा. तेंच म्हजें घर.' तिणें जाप दिली.

तिच्या कपलाक कोंक जाल्या. रगत व्हांवता. घोवान तिका मारून धांवडायल्या.

'घोवाकडेन झगडून हांगा आयल्या?' निबर आवाजांत रमेशान विचारलें, 'आनी तुका सोदूंक घोव हांगा आयलो जाल्यार तुमगेलें झगडें म्हज्या घरांत पावतलें. म्हाका कटकटी नाकात. चल तूं.'

'पावस पडटा. आतां खंय वतलीं? सकाळीं वतां... 'तो सुणो हांगा येवचो ना.'

'कोण सुणो?'

'म्हजो दादलो.'

अचर्कात रमेशाक तिगेल्या भुरग्याचो उगडास जालो. पळयलेच खेपे तिचेर हांडार भुरगें आसतालें.

'तुजें भुरगें...'

'घरांत न्हिदलां.'

'ताका सोडून तूं हांगा आयल्या?'

'कितें करूं? तो आलवांतिर्णाक घेवन पडला न्हय थंय?'

'कोण आलवांतिण?'

'ती रस्ताद बायल...' तिणे एक अर्दी गाळ उच्चारली आनी गिळ्ळी.

कितें घडिल्लें आसुंये हाजो अदमास रमेशाक आयलो. रार्तीच्या वेळार चड कितें उलयतलो अशें येवजून मोन्यांनी ताणें दार बंद केलें.

हांतुणाकडेन वता आसतना ताका प्रस्न पडलो. पावसांत भिजून ती बायल ताचे पडवेर आयल्यो. तिचे न्हेसण पुराय भिजलां. ती न्हिदतली कशी?

ताणे दिवो पालयलो. काकुळट करूंक गेल्यार आंगलट येत अशें येवजिलें आनी तो खाटेचेर आडवो जालो.

जनेलाचे भायले वटेन ती बसल्या. घडये न्हिदल्या आसतली. ओल्या न्हेसणांत कुडकुडटा आसतली. पावस वाडलो.

रमेशाक न्हीद येना. चित्त भोवन भोवन ते डोंबार्नीचेर वता. बुकल्याच्या पावलांनी तो उठलो. जनेलाकडेन येवन उबो रावलो. गुपाट काळोख आनी कसलीच हालचाल ना. गेली काय ती? गेली जाल्यार पिडाच गेली!

अचर्कीत जोगूल चकचकलें... खीणभर पडिल्ल्या त्या झोतांत ताणें पळयलें. पडवेवयले दोरयेक तिगेलें न्हेसण सुकत घालां...

गडगडटान कान फुटले.

रमेश कांचवेलो. खाटीचेर आयलो. पूण दोळ्याक दोळो लागना. ती उकर्तीच न्हिदल्या. पळोवंक वचूंक लेर्गात भंय... भंयापरस लज. ती निर्ल्लज. पूण आपूण तिका पळयता हे कळ्ळें जाल्यार...?

वेगळे तरेचे हें तळमळे. नायिकेचें सपन पळयत न्हिदेचे सुवार्दीन जावपाची ताका संवय. पूण आज नायिका तो पोस्टरांतले नटयेच्या भेसांत... ते डोंबारिर्णाच्या रूपान... विवस्त्र अवस्थेंत..

न्हीद येना.

अचर्कीत तो उठलो. आंगावयली चादर ताणे गुठलायली. आवाज करिनासतना जनेलासरी आयलो. ती सकल न्हिदल्या. गुपाट काळोख. पूण जोगूल चकचकलें जाल्यार... नदर फिरावन ताणें चादर भायले वटेन उडयली.

परत येवन खाटेर न्हिदलो. तळमळे चालू. कुशी बदल्ल्यो. तुटक सपनां पळयलीं...

सकाळीं ताका जाग आयली तेन्ना चकचर्कीत वत पडिल्लें. जसो काय रार्ती पावस पडूंकच नासलो... काय तें सपन आसलें?

बेर्गाबेर्गीन उठून तो जनेलाकडेन आयलो. थंय कोण ना. सपनच तें.

न्हय, घडी केल्ली चादर एके कुशीक आयली.

# ७

रेल्वे प्लॅटफॉर्मावयल्यान रमेश भायर सरलो तेन्नाच पावसाची एक व्हडली दडक आयली. प्लॅटफॉर्माचे गेटाभायर ल्हानसो उकतो जागो. पावसाची दडक आयली तशी सगळे लोक भितोडेंक आयले. भायले वटेन चार सुर्णा हेडटालीं. तीं लेगीत भितोडेंक रिगलीं.

सगळोच कुलकुलाट. कोणाले उकते सत्रेची सरी कोणाल्या आंगाक तोपल्या जाल्यार कोणाल्या बुटांचो पांय सुण्याच्या पांयार पडला. सगळेच उलयतात. तो कुलकुलाटच वेगळो.

तशी रमेशाकडेन सत्री आसा. पूण दडक इतली आकांताची, सत्री फुलोवन गेल्यार लेगीत तो भिजतलो. देखून तो भितोडेक वण्टीक फाट तेंकोवन उबो आसा. फाटल्या बोल्सांत ताचें पाकीट आसा आनी तें वण्टीक दामून धरून तो उबो रावला. इतलेय गर्देमदीं आपूण सुरक्षीत अशी ताची भावना जाल्या. कुशीक एक जोडपें आसा. एक विरूप जोडपें. घोव आनी बायल काय तीं?

कितलीशींच कारणां दिवन रमेश मनांतल्या मनांत तांचें नातें थारायता. इतलो कुरूप दादलो आनी इतली नाजूक सुंदर बायल... तांचें नातें घोव-बायलेचें आसूंकच नज. कितलीय अडली म्हणून असली सुंदर बायल असल्या विद्रुपाकडेन लग्न जावंक कबूल जावची ना. तातूंत ही बायल मॉडर्न दिसता. तिणें पंजाबी सूट घाला आनी केंस मानेर मेकळे सोडल्यात.

पारजताच्या फुलाकडेन ताणें तिची तुळा कित्याक केली? हय, केसरी रंगाचो भेस. कपलाक केसली तिळो. हाताक केसरी कांकणां. गळ्यांत मोट्ट्या पोवळ्यांची माळ. तांचोय रंग केसरी. त्या रंगात तिचें गोरेपण नदरेंत भरता. फिक्कट धवी पारजाताच्या फुलासारकी. अचकीत नदर तिच्या ओठांकडेन वता. पिटकोळेच्या फुलायेदे दोन केसरी कळे.

गर्देमदीं आंग चोरून उबी आसा. तरी खेट गर्दी. कोण तरी तिच्या आंगाक घश्टता. कोण तरी तिका धुकलता. कोण तिज्या केंसांक हात लायता... ती कश्टी जाता. पूण तोंडान उलयना. पूण तो? ताका तें सोंसना. बेबद्या सारके दोळे ताचे. बेबद्या सारकेंच नाक. माथ्याक फुडले वाटेन एकूय केंस ना. कानसुलांनी आसात तितलेच. कलप लायला काय? ताचे केंस किट्ट काळे!

तो सगळोच सणसणटा. मारक्या रेड्याचें तोंड करून लोकांचेर धेंगशेता. 'दोळे फुटल्यात... दिश्टी पडना?... हलकट खंयचे... घराकडेन धुवो भयणी नात रे तुमकां?' ताच्या तोंडातल्यान भायर सरिल्लीं हीं उतरां आयकतकच कांय जाण हांसतात. कांय

जाण तागेल्या सुरांत सूर भर्रशितात. पूण सगल्यांच्यो नदरो तिचेर थिरावतात.

रमेश केन्ना सावन तिका पळयता. आशाढांतल्या चंद्रावरी कोणाल्या तरी केंसांच्या हाताच्या, ना जाल्यार सत्रेच्या कुपांआड तिचें रूप लिपता. तेन्ना रमेश मान बागयता. मर्दांच जिराफासारकी वयर काडटा... तिका नदरेआड वचूंक दिना.

रमेशाचे लेखीं ती एक नायिका. खरेंच नायिकेक सोबपासारकी काया. सिनेमांत सोबपासारकें वातावरण. कोणेंय तरी तिची मस्करी करची आनी नायकान धांवत वचून त्या खलनायकाच्या मुस्कटाचेर एक फुलोवचें... तातूंतल्यान सिनेमाचे कथेक दिशा मेळूंक येता.

पुण परत नदर तिच्या सांगातक आशिल्ल्या त्या दादल्याचेर गेली आनी नायक जावपाचें सपन भंगलें.

कोण काय तो? घोव न्हयच. एका वेळार घोव जावं येता, पूण भाव निखालस न्हय. एकाच आवय बापायगेर अशीं सुंदर आनी कुरूप भुरगीं जावं येतात.?

रमेशाल्या मनान जाप दिली ना. मागीर मात ताका तिची काकुळट दिसली. घोव काय तो तिचो? इतलो कुरूप. मागीलदारांत बांय नाशिल्ली म्हणून आवय बापायन तिका ताच्या गळ्याक बांदली?

खुबळिल्ल्या बैलासारको तो एका दादल्याच्या आंगार गेलो. त्या दादल्यान तिका कितें केल्लें हें रमेशाक कळ्ळेंचना.

'असले गर्देंत उबो रावन कागाळ कसली करता? तिचे भोंवतणी विल्लें किल्याक दवरिना?'

तो तापता तितलो दुसरो दादलो बोचक्यो जापो दिता.

लोक हांसता. ती रडकुरी परतता.

तेदेय गर्देंत रमेशाचे मन तिचे खातीर कश्टता. पूण तिच्या सांगातान आशिल्ल्या त्या दादल्याविशीं मात ताची भावना पुराय वेगळी. ती तटस्थ न्हयच.

दडक थांबली. लोक धांवलो. सत्र्यो फुलल्यो. प्लॅटफॉर्माभायली ती भितोडी रिकामी जाली.

रमेश मात नदर थिरावन नायिकेक पळयत आसलो. आपणाक वचूंक जाय म्हणपाचें तो विसरिल्लो...

विस्कळसाण मेळ्ळी आनी तिणे आपल्या आंगावयल्यान हात भोंवडावन न्हेसण सारकें केलें आनी एक तिरशी नदर रमेशावटच्यान भोंवडावन फाटीं घेतली.

सिनेमांनी असली सांकेतीक भास आसता.... तो दादलो तिचेर धेंगसलो. दुसरे येवन तिका घश्टताले. हो तिचोच गुन्यांव अशें जाल्ले भाशेन उलयतालो. आनी ती मान सकल घालून मोन्यांनी आयकताली. तिचे दोळे भरून आयले. काय सत्रेवयल्यान झडून कपलार पडिल्लो थेंबो तिणें आपल्या भुजांनी पुसून काडलो?

'चल या?' ताणें तिका सांगले आनी तो चलूंक लागलो.

तिणे दोन बॅगां दोन हातांनी उखल्लीं. वरांच जड आसूंक जाय. ताच्या फाटल्यान ती वचूंक लागली. वचचे आर्दी एक खेंपे आपलें वटेन ती नदर भोंवडायतली अशें रमेशाक दिशिल्लें. पूण तशें तिणे केलें ना. जसो काय रमेश थंय नासलोच.

तांचे फाटल्यान रमेशय चलूंक लागलो. पावस थांवला. पूण मार्गाचेर उदक भरलां. तिचे हात चुरचुरले. ती उबी रावली. बॅग सकल दवरूंक सुकी जागो सोदूंक लागली. पूण रस्त्यार सुकी जागो ना.

रमेशाक दिसलें फुडें सरचें आनी एक बॅग आपणें धरचें. ताणे पावल उखल्लें लेगीत. इतलें म्हणसर मुखावयलें वाटेने वेगान येतलें मोटारीन रेब्याच्या उदकाच्या अभिषेकान तिका न्हाणयली. रमेशाच्याय आंगाचेर रेवो उसळ्ळो.

फुडें गेल्लो दादलो पयसुल्ल्यानच धेंगसता. 'घसघशीत पावलां उखल. बस चुकतली' तो तिका तार्कीद करता.

रमेशाक ताचो राग आयलो. कसलो फातराच्या काळजाचो हो मनीस! ती कोणय आसना. वायल आसूं ना जाल्यार भयण आसूं. भार्या ना जाल्यार धुवडी आसूं. दोन बॅगां तिच्या हातांत दिवन आपण हात हालयत चलता आनी वयल्यान तिजेर धेंगसता.

सामकें नज जावन तिणे एक बॅग रस्त्यार दवरलें. हाताचो तळवो आंगाचेर घासून घेतलो. केसरी रंग थंय उदेल्लो.

'हांव धरूं?' फुडें सरून रमेशान विचारलें.

कृतज्ञतायेची सया तिच्या दोळ्यांत खीणभर उदेली. अनवळखीपणाचो अविस्वास रोखडोच थंय पावलो.

'कोण तो?' त्या दादल्यान पयसुल्ल्यानूच विचारलें, 'असल्या रस्त्यावयल्या मवाल्यांक जाप दिवंक बसूं नाका चल या.'

तिगेली लाचार नदर खीणभर रमेशाचेर थिरावली. आपल्या भेसाच्या बोल्सांत आशिल्लो ल्हानसो लेंस तिणें भायर काडलो आनी तळव्या भोंवतणी तो गुठलायलो. रस्त्यावयली बॅग परत उखल्ली आनी पांय घश्टीत चलूंक लागली.

असल्या वेळार कितें करपाचें तें रमेशाक समजलें ना. तो मोन्यांनी सगलें पळयतालो. खाटकागेर गायेक ओडी व्हरची तशी इशातरीच्या दाव्यान धेंगशांचें चाबूक वावर्डीत तो खाटीक तिका ओडटालो.

८

इतले दीस संगीताचो उगडास कसो जालो ना म्हणपाचें रमेशाक कुवाडें पडलें.

तांची निमाणी भेट जाल्ली ती संगीताच्या लग्नावेळार. मामाची चली ही भयणाच.

पूण नार्तां पयसावर्चीं न्हय म्हणून लग्नाच्यो गांठी बांदपाची जी प्रथा रूढ जाल्या तिका लागून घरांतल्या ल्हान व्हडांक दिसता, दर एका भुरग्याची मामे भयण ही ताची बायल जावनच ताच्या घरा वता. आनी तितलेच खातीर ल्हानपणा सावन घरचे लोक त्या भावडांक घोव बायल म्हणून चाळयतात. ब्रह्मदेवान नासली तरी जाणटेल्यांनी बांदिल्ली ती जल्मगांठ अशें ल्हान भुरग्यांय मानूंक लागतात.

रमेश तशें मानतालो आनी तो जाणा ते भाशेन संगीताकय तशेंच दिसतालें.

येवजितां येवजितां रमेशाक दिसलें चलयो कितले बेगीन जाणट्यो जातात! संगीता ताचे परस दोन वर्सांनी व्हडलें. पूण तें व्हंकल जावन सव्यार चडलें तेन्ना रमेशालें भुरगेपण सोंपूंकच नासलें.

सोळाव्या वर्सा तो एसएससीचे परिक्षेक बसलो आनी परिक्षेचो रिझल्ट येवचें आदींच संगीताचें लग्न जाल्लें.

आदीं कांय दिसलें ना. पूण लग्ना दिसा मात सगल्यांनी आपणाक फटयलो अशी एक भावना ताच्या मनांत घर करून रावली. खूब वर्सांमेरेन संगीताची याद येतकूच ती भावना ताचें मन घेरून उडयताली आनी उदासपणाची सुस्ती ताच्या आंगांत भरताली.

पूण हालीं ताकाय विसर पडिल्लो. दुकाना भायर बावले खातीर रडटलो भुरगो पळयलो आनी याद जागी जाली. निखटी जागी जावन ओगी रावली ना तर तिणे मन खदळावन उडयलें.

जाण्टेपण जाता तशें संगीता ताचे पसून पयल गेल्लें. आजोळा गेलो तरी तें ताचे नदरेक नदर दिना आसलें. उलोवचेंच पडलें जाल्यार पांयाच्या आंगठ्याचेर नदर थिरावन चुकनात तितलींच उतरां उलयतालें.

पिराय वाडटकच चलयो मुग्धा जातात आनी साडयेच्या पदराच्या रुपान लज पांगरूंक लागतात.

पूण घरचे लोक तांचीं फकाणां करताले. कोणेय म्हणचें, 'व्हंकल दोन वर्सांनी व्हड आसा. लग्न कशें जातलें?'

दुसऱ्यान फोण्ण घालचें. 'आतां तशें कांय ना. दोन वर्सां ल्हान आसली कितें आनी व्हड आसली कितें?'

व्हंकलेचो पाचवो शालू न्हेसून आंगांक हळद लावन पांचचो चुडो घाल्लें संगीता...

रमेशाच्या दोळ्यांमुखार तो प्रसंग उबो रावलो. सर्गांतली अप्सरा सकल देंवल्या अशें त्या खिणाक ताका दिसलें. कोणेंतरी म्हळां, जुवानपणाच्या भाराचेर खंयचीय चली सुंदर दिसता आनी संगीता सारकी मूळची सुंदर चली तर...

नायिकेचे तेंय एक रूप. अंतरपाटाचे एक वाटेच्यान रावतना लज आनी कुळार सोडून घोवागेर वचपाचो प्रसंग... गळयां सुखां... दोळयां दुकां.

त्या वेळार रमेशाक दिशिल्लें, बावलेचें लग्न ताणे अशेंच मोडून उडयिल्लें. परत तशें केलें जाल्यार संगीता ताका मारूंक येतलें?

दोळे भरून आयले. पूण ताचें रडप समा जावचें ना. लेंसान ताणे दोळे पुसले आनी दोळ्यांत किसर पडिल्ले भाशेन ते चोळून घेतले. सुम्हूर्त सावधान जालें आनी हातांतल्यो अक्षता ताणे संगीताच्या माथ्यार उडयल्यो. मनांतल्या मनांत म्हळें, 'आतां संगीता दुसऱ्यालें जालां. म्हजें - ताचें नातें भावा भयणीचें. दुसरे तरेन विचार करप पातक... दिल्ल्या घरा ते सुखान रावूं अशी भावना मनांत दाटून आयली आनी ताणे मनांतल्या मनांत देवाकडेन तशें मागलें.

पूण व्हंकल पावणेच्या वेळार परत बुद्धीचेर भावनेन जैत जोडलें. आडावपाचे यत्न केले तरी दोळे दुकांनी भरत रावताले. पुसले तरी सुके जायना आसले.

रमेश पयस वचून उबो रावलो. लोकांमुखार देखाव केल्लो ताका नाका आसलो. कोणेच आपणाक पळोवचें न्हय अशें ताका दिसतालें. पूण निमाण्या खिणामेरेन ताची नदर संगीताचेर थिरावन उरिल्ली.

आंगार गुलाबी शालू, भांगरा शिंगरान सजयिल्ली व्हंकल आवयचें मायेचें ऊब सोडून वतना आकूळपिकूळ जाल्ली. मामीन ताका वेंगेंत घेतलें. दोगांय रडटालीं. रडप हें सुखादिणें आसता. तांकां रडटना पळोवन बाकीचो लोकय दोळे पुसतालो.

मामा मात सुको सडसडीत उरलो. भुरगेपणांत ताच्या तळव्याचेर वेताचे बडयेन वळ काडटना उरिल्लो तितलो निर्विकार. तो बोवाळांत आसलो. लागिच्यांक आनी पयसुल्ल्यांक बोवाळ मारून कामां सांगतालो... वाजंत्री आपय... फोगेट्यो तयार दवर. संगीताचो ट्रंक डिकींत सारको दवर... ह्या वेळार ताका वेव्हाराचीं कामां कशीं येवजतात देवाक खबर! रमेशाक ताची तिडकच आयिल्ली.

सगल्यांचो निरोप घेतलो आनी संगीतान आपल्या बापायल्या पांयांक हात लायलो. फातराक पाझर फुटपाचो चमत्कार त्या खिणाक घडलो. भरिल्ल्या दोळ्यांनी अंधूक दिसतालें तरी रमेश तटास नदरेन पळयतालो... व्हंकलेच्या माथ्यार दवरिल्लो मामाचो हात थरथरलो आनी दोळ्यांतलें दूक गळचे आदींच तोंडांतल्यान हुडको फुटलो.

ताणे चलयेक लागीं ओडली. ताळवेचो उमो घेतलो. फाटीवयल्यान मायेचो हात भोंवडायलो आनी तिका व्हरून मोटारींत बसयली.

आतां मोटार सुटटली. ल्हवू ल्हवू नदरेआड जातली आनी रमेशाले जिणेंतली संगीता सदांखातीर पयसावतली.

ताणें बोल्सांतलो लेंस काडलो आनी दोनय दोळ्यांचेर धरलो.

सुरू जाल्ली मोटार थांबली. संगीतान ल्हवूच कोणाक तरी कितें सांगलें. कोणे तरी रमेशाक उलो मारलो.

पळून वचचें अशें ताका दिसलें. पूण ताचे पांय निर्बळ जाले.

'रमेश, तुका संगीता आपयता.' संगीताल्या भावान व्हडान उलो मारलो.

फांसाचेर वतल्या गुन्यांवकाराचे पांय थरथरचे तशे रमेशाले पांय थरथरले. अर्धांगाचो झटको आयला असो ताचो ताकाच भास जालो. संवेदनशून्य मनान ताणें पाय उखल्लो.

पूण तो मोटारी मेरेन पावचे आदींच संगीता धांवत ताचेसरीं आयलें.

आयलें तशें ताणे रमेशाक वेंग मारली. ताचे छातयेंत आपलें तोंड लिपोवन तें मुसमुर्शीत रडूंक लागलें.

एके तरुण चलयेची... जिचेर मनांतल्या मनांत मोग केलो त्या संगीताची... एके सुंदर नायिकेची वेंग. एके बायलेचो पयलोच स्पर्श...! आज याद करतना रमेशाक अजाप दिसता. विकार तेन्ना गळून पडिल्ले, वासना करपून गेल्ल्यो. मनांत आशिल्ली ती भावना शुध्द आनी पवित्र. भावाची भयणी विशीं आसता तसली.

एक नवें नातें. निर्मळ आनी पवित्र नातें. ताच्या मनांत उदेलें.

आपलीं दुकां ताणें आडायलीं. संगीता कितें तरी सांगूंक सोदतालें. पूण ताच्या तोंडांतल्यान उतर फुटना आसलें.

ताच्या हाताक धरून रमेशान ताका मोटारी मेरेन पावयलें.

याद करतां करतां रमेश आपणाचेरच कसलो. कितलें पातकी ताचें मन... कितले विकृत ताचे विचार... बावलेच्या लग्नाचो उगडास जालो आनी नायिकेच्या रुपान ताणे संगीताची याद काडली.

त्या उपरांत संगीता ताका मेळूंक ना. तांच्यो वाटो वेगळावल्ल्यो.

आतां तें भुरग्यांची आवय जाल्लें आसतलें. केन्नाय तरी एक दीस तागेर वचूंक जाय असो निश्चय करून ताणे दिवो पालयलो.

पालवल्ल्या इंगळ्यां भाशेन भावनांचीं ल्हारां न्हिवलीं आनी शांत मनान तो न्हिदलो.

## ९

'तुका घरकामाखातीर एक भुरगें जाय?' शेजाऱ्यान येवन रमेशाक विचारलें.

ऑफिसाक वचूंक तो भायर सरतालो आनी भायले वटेन सदांचे सवकळीचे पात्र दिश्टी पडटलें अशें येवजिता सर दावे वटेनचे आडवाटेन येवन शेजारी ताच्या मुखार उबो राविल्लो.

'नाका. म्हाका भुरग्याची कितें गरज?' रमेशान शेजाऱ्याक म्हळें, 'हांव एकलोच आसतां आनी च्या लेगीत भायरच घेतां.'

'जाणा हांव. म्हणूनच विचारलें, आमगेर एक नवी वावराडी आयल्या. तिगेलें भुरगें बारा तेरा वर्साचें आसतलें. पूण बरें हुशार आसा. सकाळच्या वेळार येवन घरांत सान्न भोंवडायतलें आनी तुका च्या करून दितलें. कपडे उमळपाचे आसल्यार कपडे उमळप, उदक भरप असलें काम लेगीत करीत. आमच्या घरा फाटले वटेन तीं रावतात. आवय भुरग्याक काम सोदताली. देखून हांवें तुका विचारलें. 'शेजाऱ्यान इल्लो आग्रो करचो तशा

सुगंत सांगलें.'

'कितले पयशे दिवचे पडटले?'

'तुका जाय तितले दी. नाय जाल्यार सगलो वेळ तें काम करचें ना. आवय म्हणटा तें रांदून लेर्गात वाडीत म्हणून. पूण तें तुमी मागीर पळयात.'

रमेश अर्दाक उलयलो ना. ताका ऑफिसाक वचपाची तार्कीद आसली. शेजाऱ्यानय फुडलों प्रस्न विचारलो ना.

सांजेचो रमेश घरा पावलो तेन्ना दारांत सोपणाचेरच एक बायल बशिल्ली आनी एक धा बारा वर्साची चली मुखावयल्या उकत्या आंगणांत दोरयांनी उडयो मारून खेळटाली.

रमेश सोपणाचेर पावना फुडें ती बायल उठून उबी रावली आनी संकोचान तिणे आपलें न्हेसण सारकें करून भाशेन केले.

तिका पळयना फुडें रमेशाक शेजाऱ्यान तिका धाडल्या म्हणपाचें समजलें आनी ताणे मान फिरावन तें चलयेकडेन पळयलें. ती अजून खेळांत गुल्ल आसली.

आवयन चलयेक उलो मारलो. 'यमू!'

रमेशान तिका पळोवन घेतली. आरांटून तरांटून केंसांच्यो दोन फांतयो बांदिल्ल्यो. पायघोळ घागरो आनी वयर त्याच चिटाचो ब्लावज. चली शिरवंत दिसताली. नाका-दोळयान सुंदरच म्हणूंक जाय. आवयच्या मानान भुरगे रंगान उजवें.

'तूं शाळेंत वचना?' रमशान यमूक विचारलें.

'वतां. सात यत्ता शिकतां.' अशी जाप दिवन यमू फस्स करून हांसलें.

आवयन दोळे मोठे केले तशें यमून उजव्या हातान आपले तोंड धांपून हांसो चिड्डुपाचो यत्न केलो.

'शाळा सांजची आसता. तुवें काम दिलें जाल्यार ती आपल्या खर्चाचे जोडटली.' आवयन रमेशाक म्हळें.

'म्हजें काम व्हडलेशें न्हय...'

'कितलेंय आसूं. यमू करतली. कामाक हुशार ती...' आवय आपले धुवेच्यो तोखणायो करूंक लागली.

'कितले पयशे?' रमेशान विचारलें.

'तूं समजून दी. हांव कागाळ करची ना.' रमेशान घराचे कुलप काडलें आनी तांकां भितरले वाटेन वचून घर पळोवन घेवंक सांगलें. तो न्हिदपाचो कुडींत वचून बसलो.

घरांत भितर सरनाफुडें ते बायलेन आपले न्हेसण खोवन घेतलें आनी ती घरांतल्यो वस्तू सारक्यो दवरूंक लागली. फाटले वटेन नळाचो आवाज. सान्न भोंविल्ल्याचो आवाज. आयदनांचो आवाज.

रमेशाले कुडींच्या दारांत येवन तिणे म्हळें, 'तूं मात्सो भायर बस, हांगां एक सान्न भोंवडायता.'

कांय एक उलना आसतना मान सकल घालून रमेश भायले वटेन आयलो आनी

पडवेचेर पासयो मारूंक लागलो.

भितरले कुडींत सार्न्नीचो आवाज येतालो. शिमिटाचे जमनीर खाट ओडिल्ल्याचो आवाज मेज, पुस्तकां झाडिल्ल्याचो आवाज.

'कितलो कोचर तुज्या घरांत?' दोन हात कमरार धरून ते बायलेन रमेशाक विचारलें.

पयलेच खेपे नदर वयर करून रमेशान तिका पळयली. वावर करून तिचे हात आनी तोंड म्हेळें जाल्लें. केंसांचे दोन पोड कपलाचेर देंविल्ले.

धोंपरावयर मेरेन पांय उकते. केदो वेळ रमेश तिका पळयत रावलो. तो जाप दिना आसतना आपणाक पळयता हें पळोवन ती फाटीं सरली. खोचिल्लें न्हेसण सोडोवन उकतें पांय धांपले. साडयेचो पदर खांदावयल्यान गुठलावन घेतलो आनी मार्गालदारांत गेली.

घरांत सगळें निवळ जाल्लें. बायलेचो हात भोंवतकच घराक घरपण आयलें अशें रमेशाक दिसलें. तो कुडींत आयलो. तागेले खाटीवयलें हातूण झाडून सारकें केल्लें. मेजावयलीं पुस्तकां दाळून दवरिल्लीं. ताणें दिवो पेटयलो. फाटले वटेन नळाचो आवाज येता.

अचर्कीत ताका उगडास जालो. काम केलें तें आवयन. यमू खंय गेली तर? पळोवंक तो फाटले वटेन गेलो. फाटले पडवेर एके कुर्शाक मान्नें. दुसरे कुर्शाक उकतो जागो. थंय वर्णटाक तेंकून यमू उकडयां बसलां.

मान्यांतल्यान ती भायर आयली. रमेशाक हुंबऱ्याचेर उबो पळोवन म्हळें, 'एदे व्हडलें घर आनी तूं एकलोच रावता? बायलेक कित्याक हाडिना?'

रमेशाची नदर धीट जाल्ली म्हणून आसुंये वा घरांत आनीक कोण ना देखून आसुंये तिचे नदरेक नदर दीत हो हांसलो आनी म्हळें, 'म्हजे लग्न जावंक ना.'

जाप आयकना फुडें ती संकोचली आनी तिणें यमूक उलो मारून म्हळें, 'चल या आमी.'

'यमून काम केलें ना?' रमेशान विचारलें.

'फाल्यांच्यान ती करतली. आयज हांवें सगळें जाग्यार घालें. नळाक बरें उदक आसा. हांव आंग धुवन येवं?'

तिणे अचर्कीत विचारिल्ल्या प्रस्नाक रमेश आर्दो गोंदळ्ळो. मागीर ताणें म्हळें, 'हय, हय जाय तितलें न्हावन घे. शाबू भितरच आसा.' आनी तो एकदम कुडींत वचून बसलो.

थंयच्यानच ताणें यमूक उलो मारलो. कुडीच्या दारांत येवन उबें रावन यमून विचारलें, 'म्हाका आपयलें?'

'हय. तुज्यान काम जमत मगो?'

यमून तकली हालोवन हय म्हळें.

'आयज तुवें कितें कितें केलें?' रमेशान विचारलें.

'आतांच शाळेंतल्यान आयलों...' आपल्याच नादांत यमून जाप दिली.

'घरांतलें काम करूंक तुका आवडटा?'

'ना.' अशी जाप दिवन यमून म्हळें, 'हांगा खावंक कांय मेळचें ना.'

तागेल्ली ती जाप आयकून रमेशाक हांसो आयलो. मान्न्यांत नळाचो आवाज येता. रमेश उठलो. स्टिलाच्या करंडांत ताणें बिस्किटी हाडून दवरिल्ल्यो. तातुंतल्यो चार यमुच्या हातार दवरल्यो ते सरशीं ती चलो खूश जाली. आपल्या घागऱ्याच्या बोल्सांत तिणें त्यो बिस्कीटी दवरल्यो.

'खा त्यो.' रमेशान तिका सांगलें.

यमू फाटल्या पावलांनी भायर पडवेर वचून बसलें. नळाचो आवाज थांबलो. तसो रमेश उठून भायर आयलो.

मुखारच ती उबी. ओल्या आंगाचेर आपलें म्हेळें न्हेसण गुठलावन.

'वचूं हांव?' तिणें रमेशाक विचारलें.

रमेश तिका पळयत रावलो. ताका ती त्या वेळार सुंदर दिसली. ही सिनेमांतली नायिका जावं येता असो एक विचार ताच्या मनाक आफडून गेलो.

'इल्ली साकर दिता?' तिणें विचारलें.

कित्याक कोण जाणा. रमेश भितरल्यान तिडकलो. ही बायल बोट दाखयल्यार हात गिळूंक सोदता अशें ताका दिसलें.

'साकर ना.' ताणें जाप दिली.

'कितेंय तोंडांत उडोवंक दी. हांव न्हाल्या. भरिल्ल्या घरांतल्यान अशें न्हावन वचूं नये म्हणटात..'

ती कितें सांगता तें रमेशाक समजलें. न्हावन तशीच वचपाक तिका मात्सो संकोच दिसता हे पळोवन ताणें म्हळें, 'इल्ली च्या कित्याक करिना? तुमी दोगांय घेयात. म्हाकाय दी.'

रांदचे कुडींत गॅस पेटलो. आधणांचो आवाज आयलो. घराक घरपण आयिल्ल्याचो भास ताका जालो. ताणें यमूक उलो मारून आपयली आनी बिस्किटांचो करंड तिचेकडेन दिवन म्हळें, 'च्याचे बरोबर ह्यो घेयात.'

एक कुवाडें ताका सुटलें ना. पयलेच खेपे आपल्या घरांत आयिल्ली परकी बायल आसूनय तिणें फस्क. च्या, साकर खंय आसा म्हणून विचारलें लेगीत ना. सगळ्यो वस्तू रांदचे कुडींत आसल्यो. आळसायेक लागून तोच च्या करिनासलो.

ग्लासांत च्या घेवन यमूच आयली. घरांत कप-बशी ना म्हणपाची जाणविकाय त्या खिणाक जाली.

एक हुनहुनीत घोंट ताणें घेतलो. अमृताची रूच जिबेर आयली.

परत भायर येवन तिका तशें सांगचें अशें ताच्या मनांत आयलें. पूण तें धाडस जालें ना. तो कुडींत बसून रावलो.

ती एका हातान आपलें वेडायिल्लें न्हेसण सांवरीत, दुसऱ्या हातांत यमूचो हात धरून

मान सकल घालून भायर गेली... कुडींच्या दारांत खीणभर तिगेलीं पावलां मंदावलीं.... जड जाल्ली नदर कुडींत थिरावली. ताचे नदरेक तिची नदर भेटली... परत मान सकल घालून ती पडवेर गेली... तो जनेलाकडेन येवन उबो रावलो. सोपणाचेर पावतकच तिणें यमूलो हात सोडलो... मान वयर केली... पूण नदर घुंवडायली ना.

## १०

दोन बायलांचें तोंडाक तोंड लागलें जाल्यार त्यो सगळो वाडो माथ्यार घेतात.

भायले वटेन झगड्याचो आवाज आयकूनच रमेशाक जाग आयली. आयतार जाल्ल्यान पांगरूणाची ऊब घेत थोडो वेळ लोळचें अशें ताणे थारायिल्लें. पूण भायल्या बोवाळांत ताका उठचेंच पडलें.

जनेलांकडेन येवन ताणे पळयलें. तागेल्या घराभायर उकत्या जाग्यार दोन बायलो झगडटात. बारीकसाणेन पळय जाल्यार तातुंतली एक यमुची आवय आनी दुसरी रमेशाक नित्य दर्शन दिवपी डोंबान्न.

डोंबान्नीचे हाण्डीर तिगेलें भुरगें. यमू घराच्या सोपणाचेर उकडयां बसून त्या झगडटल्या बायलांक पळयता.

जनेल उकतें करून रमेशान यमूक उलो मारलो. तशें तें उठून जनेलाकडेन आयलें.

'कसलो बोवाळ गो?' ताणें यमूक विचारलें.

'ती बायल आईकडेन झगडूंक आयल्या. गाळी संवता.' अशें सांगून आपल्याच नादांत गुल्ल आशिल्ले यमू हांसलें.

रमेशान फुडल्या दाराची खिळी काडली आनी तो तोंड धुंवक फाटले वटेन गेलो. यमुची आई आयली जाल्यार कपभर हुनहुनीत च्या करूंक सांगतलों अशें रमेश येवजितालो.

तोंड धुवन तो फुडल्या दाराकडेन आयलो. यमू अजून सोपणाचेर बसून आसा आनी त्यो दोगांय बायलो झगडत झगडत आतां लागीं आयल्यात. त्यो एकमेकांक घालतात त्यो गाळी आयकूंक नज जावन रमेश दार उकतें करून भायर आयलो आनी व्हडान धेंगसून ताणे विचारलें, 'बोवाळ कसलो?'

'आतां तूंच निवाडो करत बाबा' यमूली आवय सोपणां चडून वयर आयली आनी तिणे रमेशाक म्हळें, 'तुमगेर हांव येतना ही डोंबान्न म्हाका आडायता. मार व्हडली घरकान्न जाल्ले भाशेन म्हाका दटायता.'

रमेशान डोंबान्नीकडेन पळयलें. पदरा सकल आपल्या भुरग्याक दुदाक धरिल्ले अवस्थेत ती निर्लज्जपणान हांसताली.

'योत तूं भितर.' रमेशान यमूले आवयक सांगले आनी तोय भितर वचूंक लागलो. ती डोंबान्न परत बडबडूंक लागली.

'तूं हांगा रावन अशी बडबडटा कित्याक?' रमेशान तिचेर एक धेंगसो घालो.

हे खेंपे ती चार पावलां मुखार सरली. आनी म्हळें, 'तें बायलेक तुवें कामाक दवरल्या. बरी न्हय ती... तें चलयेंचो बापूय कोण तें विचार तिका. घेवं नाका घरांत... तुजें काम आसल्यार हांव करतां.'

रमेश तिका पळयत रावलो. हो एक वेगळोच अणभव आसलो.

भितरले वटेन आशिल्ले यमूचे आवयन डोंबान्नीलीं उतरां आयकलीं आसुंये. ती एकदम भायर आयली आनी दोनय हातांची कांकणां वयर काडून ते डोंबान्नीच्या आंगार धांवन गेली. 'परत उलोवन दाखय. तुजो जीवच तोडून काडली ना जाल्यार हांव नांवाची गंगा न्हय.'

डोंबान्न फाटीं रावली ना. ती एकदम फुडें सरली आनी तिणे गंगाल्या केंसांक धरलें. आता दोनय बायलो झगडटल्यो, एकमेकांक वडयतल्यो हें सगळें आपले खातीर जातले अशें येवजून रमेश सकल देंवलो आनी ताणें ते डोंबान्नीक धांवडावपाचो यत्न केलो. 'तूं तोंड घेवन वच हांगाची.' ताणे म्हळें.

ते सरशीं डोंबान्नीक केशट्यांक धरिल्लो हात सोडलो. तशी गंगान तिका धुकली. ती तकली. तिगेले हर्ण्डीवयलें भुरगे रडूंक लागलें.

'चल तूं भितर. तिच्या तोंडाक तोंड दिवं नाका... इल्ली च्या कर.' रमेशान गंगाक सांगलें.

गंगा फाटीं सरलीट ते सरशीं डोंबान्नीली बडबड सुरू जाली. सामक्यो पोजड्यो गाळी ती लज धरिना आसतना उच्चारताली. भुरग्याचें रडप चालूच आसलें. तिणें रागाभरशीं आपल्या भुरग्याचेर एक थापट मारलें. भुरगें अदिकच व्हडान रडूंक लागलें.

'असले बायलेक तुवें घरांत घेतल्या? म्हाका किते?' फाल्यां तूंच पश्चाताप करतलो...' अशें बडबडत डोंबान्न फाटीं सरली.

'वच आनी परत म्हज्या दारांत तुजें तोंड दाखोवं नाका.' रमेशान म्हळें.

पूण ती हाललीं ना. बडबडत रावली. रमेश घरांत परतता अशें पळोवन डोंबान्नीन एकदम आवाज बदल्लो आनी म्हळें, 'काय बरे दादलो तूं. लग्न जावन बायलेक घरांत हाड. असले अवदिशीर्णाक कित्याक घेवन बसला?'

तिगेली हीं उतरां आयकून रमेशाक तिडक आयली. तिच्या तोंडार एक थापट मारून तिगेली बडबड बंद करची अशें ताका दिसलें. पूण मोठ्या प्रयासांनी ताणे आपणाक सांवरून धरलो आनी कांय एक उलयना आसतना तो घरांत आयलो.

ती डोंबान्न बडबडत बडबडत गेली.

परत वातावरण शांत जालें तो आपले कुडींत येवन बसलो. यमू च्याचो ग्लास घेवन आयले तशी ताका थोडी सस्तकाय दिसली.

भितरल्यान आयदनांचो आवाज... सान्नीचो आवाज... आवय चलयेक शिकयता. सान्न कशी मारची तें सांगता.

रमेश कुडींतच बसून रावलो. आज ऑफीस ना. एकदम दनपरां जेवंक तो भायर सरतलो. खाटेचेर आडवो पडून पुस्तक वाचपाचें येवजितासर हातांत सान्न घेवन यमू कुडींत आयलें.

'सान्न मारता?' ताणें यमूक विचारलें.

'तूं न्हिदतलो जाल्यार मारिना.'

'ना. ना. मार तूं. हांव भायर बसतां.' अशें म्हणून रमेश भायलें वटेन आयलो.

थंय गंगा उबी आसली. रमेशाक पळोवन तिणें संकोचान न्हेसणावयल्यान हात भोंवडावयलो आनी म्हळें, 'हांव तिचे वाटेक वचना. म्हज्या कश्टाचें हांव खातां. पूण ही केदाशीण म्हजी फाट सोडिना.'

'तुजें आनी तिचें दुसरें कसलें झगडें आसा?'

'झगडें आसपाक ती म्हज्या गांवची न्हय वा जातीची न्हय. वळख देख कांय ना. उश्टेवान्यावयले धुकरीसारकी ही वाडोभर भोंवता. आनी गाळी संवता म्हाका.'

'आसता एकएकल्याचो सभाव.' रमेशान म्हळें.

'वचूं हांव? यमू हांगाच आसतलें. ताका बसून रावंक दिवं नाकात. माशें आळशी. पूण काम सांगल्यार करतलें.'

'काम अशें कांय ना. हांव दनपरांच भायर सरतलों. आसूं तें. तूं वच कामाक.'

मान सकल घालून गंगा भायर पडवेर आयली. एक सोपण देंवन थांबली. नदर फाटीं करून तिणें रमेशाक म्हळें, 'घरांत तांदूळ गोटो कांयच ना. पुरतीं आयदनांय नात.'

'ना. हांव भायरच जेवतां.'

'कळ्ळें म्हाकां. पूण सामान हाडलें जाल्यार आयतारांचें जेवण शिजोवन दवरीन हांव.'

ही बायल आंगार पडटा असो दुबाव रमेशाक आयलो. पूण तो कांय उलयलो ना. गंगान खीणभर ताजे जापेची वाट पळयली आनी सोपणां देंवन ती गेली.

भितर येवन पळय जाल्यार यमू तागेलें खाटेर बसलां आनी ताणें हाडिल्ली सिनेमाची एक पत्रिका उक्ती करून चित्रां पळयता.

'जाली गो सान्न मारून?' रमेशान विचारलें.

तें संकोचलें ना. वा खाटेवयलें उठलें ना. ताणें म्हळें, 'कूड निवळ आसा' तागेली नदर मात ते पत्रिकेचेर थिरावल्ली.

'कसलें चित्र पळयता गो?'

'नटयेचें काय बरें रंगांत चित्र पळय. हें म्हाका दिलें जाल्यार हांव घराकडेन वण्टाचेर लायतलें आशिल्लें.

'जाय तुका तें चित्र? अशें कर. ती पत्रिकाच तूं व्हर. तुका वाचूंक येता मगो?'

'हय. आनी नटनटयांकय हांव वळखतां.'

रमेशाक तागेल्या जाप आयकून हांसूंक आयलें. ताणें म्हळें, 'घर खंय आसा गो तुजें?

'हात वयर करून दिशेने भान नाशिल्लें यमून जाप दिल्ली 'थंय फाटलें वटेन.'

'केदें व्हड असा तुजें घर?'

'सामकें ल्हान. एकूच कूड.'

डोंबार्नीलीं उतरां याद जावन रमेशान विचारलें, 'कोण कोण आसता तुज्या घरा?'

'कोण ना. हांव आनी आई.'

'आनी तुजो बाबा?'

बेरकी यमून विशय बदल्लो. एकदम तें उठलें. पत्रिका हातांत घेतली आनी रमेशाक विचारलें, 'व्हरूं व्हय हें हांव?'

'व्हर व्हर.' रमेशान जाप दिल्ली.

शाळेची घांट वाजतकच भुरगीं घराचे दिशेन धांवतात. तशें यमू ती पत्रिका घेवन धांवत गेलें.

## ११

रमेशान सपनांतच कूस परतिल्ली आनी आंगावयले पांगरूण सारकें गुठलावन घेतलें.

तबल्याच्या ठेक्याचेर नायिका नाचता असो देखाव तो पळयतालो. तिका कळना आसतना तो कुशीक उबो आसा. घडये ती नाचाची शाळा आसत वा कोणय तरी नायिकेच्या घराकडेन तिका नाच शिकोवंक येता आसत.

अचर्कीत तिची नदर भायर रस्त्यार उबो रावन आपणाक पळयतल्या रमेशाकडेन वता ती नाच थांबयता. रागीट नदरेन ती ताचेकडेन पळयता... तबले वाजत उरता ता धीन धिन्ना धीन ... ता धिन तिन्ना..

रमेशाली न्हीद तुट्टा. कोण तरी दार वाजयता. सपनांतल्या तबल्याच्या ठेक्यांत तो दार वाजयतल्याचेर मनांतल्या मनांत पिरंजळटा. सदांच अशें घडटा... भरिल्लें ताट मुखार येता फुडें कोण तरी तें काडून व्हरता.

दार वाजत आसा.

तो दोळे उकतें करता आनी उठून बसता. अजून सकाळ जावंक ना. दिवो पेटोवन वरां जाल्यांत. ह्या वेळार कोण पिडूंक आयलो अशें येवजीत तो दार उकतें करता...

दारांत गंगा उबी.

न्हिदसुरे दोळे चोळून तो पळयता. हें सपन न्हय. गंगाच. आज बेगीन आयली दिसता.

दार उक्ते करून तो फाटीं सरता तशी गंगा भितर येता. ती आपूणच दार आड करून घेता आनी एकदम म्हणटा, 'तुजो वावर आमकां नाका.'

रमेशाक अजापाचो धक्को बसता. अशें घडले कितें तिगेलें? वावर सुरू करून चारच दीस जाल्यात. काल आयतार. तिणें घरांत रांदून ताका वाडलां. ती आनी यमूय जेवल्यांत. आनी आज अचकीत ती वावर सोडपाची भास उलयता!

'कितें जालां तुजें? पगाराविशीं कांय सांगलें ना म्हणून काय कितें?' रमेश गोंदळून विचारता.

'पगाराविशीं कोणे कागाळ केल्या?' गंगा म्हणटा, 'हांगा काम करीत सावन वाड्यार तोंड दाखोवपाची माणसुकी उरूंक ना. ते डोंबार्नीन नाका जाल्ले आळ म्हजेर करून वाडो भर पावयल्यात. इभ्रतीचो प्रस्न हो. देखून हांव सोडटां.'

तिगेलें हें म्हणणे आयकना फुडें रमेश एकदम गोंदळून गेलो. तिका कितें जाप दिवची हे येवछना जावन तो तोंड धुवंक गेलो आनी वतां वतां ताणें म्हळें, 'थोडी च्या कर.'

'आतां च्या करतां; पूण हांव परत येवची ना.' गंगान म्हळें.

पूण तिगेलें म्हणणे आयकूंक रमेश थंय रावलो ना.

पुराय वाड्यार तो कोणाक वळखना. नोकरी मेळटकच ताणे हें घर भाड्यान घेतलां आनी फाटले कांय म्हयने तो एकलोच रावता. दीस बरे वताले. ऑफिसाचें काम सोंपतकच तो खंयय भोंवतालो आनी खानावळींत जेवनच घरा येतालो. आयतार हो सुटयोचो दीस. एकद्या आयताराक तो गांवांत वतालो. तागेले बरें चलतालें. संवसारांत एकूच गजाल उणी आसली. घराक घरकान्न नासली... ताका बायल नासली. सिनेमा पळोवंक आनी कादंबऱ्यो वाचूंक रमतलो रमेश नायिकेचीं सपनां पळयतालो. जिणेंतलें उणे भरून काडपाच्या उमाळ्यांतल्यान आसुंये वा पिराचेचे सैर्माक अवस्थेक लागून आसुंये तो दिशिल्लीय चली आपले जिणेचे कथेची नायिका जावं येता असोच विचार करतालो. दिसपट्टें वेगळें रूप... वेगळो प्रसंग... दिसपट्टें नवें सपन. पूण ताची खंत नासली. तो एक मनाचो चाळो. तो एक ताजे आवडीचो खेळ.

सकाळचें दर्शन दिवपी डोंबारीण आनी कोणाचो तरी प्रस्न सोडोवपाच्या प्रयत्नांत शेजाऱ्यान धाडिल्ली ही गंगा आनी यमू...

'डोंबारीण अशी कित्याक वागता?' ताणें आपल्याच मनाक प्रस्न विचारो. तिका आपले विशीं कळवळो दिसता म्हणून?... ती म्हजे जिणेची नायिका जावंक सोदिना मूं?'

विचारासरशीं ताणे आंग काडलें. ताच्या दोळ्यांमुखार तिगेलें तें भुरगें उबें रावलें. तिणे केल्ले निर्लज्ज विक्षेप येवजले. पयशांची तिजोरी..

ताचें आंग शिरशिरले. ती गंगाकडेन आपलें नातें जोडटा. गंगा घोवाची बायल. यमूची आवय.

गंगाची मूर्त नदरेमुखार आयली तसो पयल्याच दिसाचो प्रसंग ताका येवजलो. न्हावन ओल्या आंगाक न्हेसण गुठलावन ती मान्न्यांतल्यान भायर आयिल्ली आनी आंगाक ओलसार्णान दशिल्ल्या न्हेसणातल्यान एक ओड लायणें सपन ताच्या दोळ्यांमुखार साकार जाल्लें.

मान्न्यांतल्यान तो कुडींत आयलो आनी दोरयेवयलो तुवालो ओडून ताणें तोंड पुसलें.

म्हणटासर च्याचो ग्लास घेवन गंगा मुखार उबी. ती इल्ली धिटायेन वागली अशे ताका दिसलें. आज यमूना देखून आसुंये.

हुनहुनीत च्याचो ग्लास तिच्या हातांतल्यान घेता आसतरा बोटांचो स्पर्श जालो. पूण ताणे नदर वयर केली ना.

'म्हाका तुजी काकुळट दिसता.' गंगान म्हळें, 'पूण हांव कितें करूं? तूंच सांग. लोकांचे कितें! तूं आंकवार तरणाटो एकलो रावता; आनी हांव तुगेर वावराक येतां.'

'तुवें वावर सोडलो म्हणून म्हाका वायट दिसचेंना. पूण आज ती डोंबारीण उलयता म्हणून तुवें वावर सोडलो जाल्यार फाल्यां तिकाच लागून तूं गांव सोडटली?'

एक सणसर्णीत गाळ गंगाच्या तोंडातल्यान भायर सरली आनी रमेशान आंग काडलें. गंगाच्या तोंडांत तरी गाळ सोबना अशें ताका दिसलें.

'आज यमू खंय तर?' ताणे विचारलें.

'न्हिदल्लेकडेन आसा. गांव उठचे आदीं हांव आयलें. वचूंक जाय म्हाका.'

'तुजें तूं थाराय. तुवें काम सोडलें म्हणून म्हजें कांय अडचें ना. तूं म्हणटा तें खरें. तुका दुसऱ्याक तोंड दिवचें पडटा आनी घोवाक जाप दिवची पडटा.'

'नांव घेवं नाका ताजें.' एकदम गंगा फडफडली, 'तो जाग्यार आसलो तर कोण तोंड उकतें करपाचे न्हय. तो शेण खावन गेलो म्हणून हे त्रास.'

'खंय आसता तो?' रमेशान विचारलें.

परत एक गाळ उच्चारून तिणें सवतीचो उध्दार केलो आनी म्हळें, 'तिका घेवन पडला... बेबदो खंयचो आनी तीय बेबदी!'

'तशें जाल्यार तूं लोकांक भियेवन वावर कित्याक सोडटा?'

'आमचे संबंद इतले सादे आसतना ते डोंबारर्णीन नाका जाल्ल्या खबरो वाड्यार घाल्यो न्हय. खरें तशे आशिल्ले जाल्यार गजाल वेगळी.'

रमेशाक आनीक धक्को बसलो.

फांतोडेच्या वेळार ही बायल दुसऱ्या खंयच्याय हेतून येवंक ना मूं असो ताका दुबाव आयलो आनी ताणे नदर वयर करून पयलेच खेपे गंगाकडेन पळयले.

ती ताका पळयत उबी आसली. सामकी तेंकून. तो उबो राविल्लो जाल्यार श्वासांत

श्वास भरसत आसलो. ताणे नदर सकल व्हेली.

‘तूं च्या पियेवन घे. म्हाका वचूंक जाय.’ तिणे म्हळें.

‘च्या घेतां हांव सवकसायेन. तूं वतली जाल्यार वच. पूण कितें थारायलें तुवें?’

‘हांवें थारायलां तें सांगलेंच. हांव येना आनी यमूकच धाडिना ओर्गाच लोकांक दुबाव घेवंक कारण नाका. तुवें कितें थारायले तें सांग.’ थंडसाणेन तिणे जाप दिली.

अजापून ताणें परत तिचेकडेन पळयलें. तो गोंदळ्ळो, ‘हांवें कितें थारावपाचे? प्रस्न तुजो. तूं वतली जाल्यार खुशाल वच.’ ताणे म्हळें.

‘काम सोडून वचूंक म्हज्या जिवार येता. पूण हांवें धरिल्लें तेंच खरें. तुका लेगींत जर हांव राविल्ली नाका जाल्यार म्हाका काम सोडचेंच पडलें.’

रमेशाक ओर्गाच दुबाव आयलो. ही ताकाक येवन गाडगो लिपयता! हालोवन म्हजो निर्धार घट आसा काय ना ताचो अदमास घेता.

नदर वयर करून ताणें तिच्या तोंडाकडेन पळयलें. एक अस्पश्ट हांसो तोंडार फुलोवन फॅशन शोंतल्या मॉडिलासारकी ती उबी आसली. तागेल्या दोळ्यांनी जाण्टेपणाकडेन पाविल्ले ते बायलेक तपासून घेतली.

‘म्हाका जाय जाल्यार तूं कामाक रावता?’ रमेशान विचारलें.

‘तुका जाय हें हांव जाणा. पूण ते डोंबार्न्नीचो विचार कर. तूं बऱ्या घरचो शिकिल्लो सर्वारिल्लो जोडकार भुरगो. लोक कितेंय उलयल्यार तुका उपकारता आसत जाल्यार...’ तिणे वाक्य पूर्ण केलें ना. पूण मुखावयले टिपॉयचेर दवरिल्लो रिकामो ग्लास काडपाच्या निमित्त्यान आपले भूज ताच्या पोल्याक घांसलें.

रमेशाक घुस्मटिल्लेवरी जालें, तो कांय उलयलो ना. ग्लास उखलून ती भितर गेली आनी थोड्या वेळान परत येवन तिणे सांगले, ‘उलयतल्यांच्या तोंडाक पडूं किडे.. हांव सदचे वरी येतां.’

रमेश कांय उलयलो ना.

तिणें फुडले दार उकतें केले आनी थंयच्यान म्हळें, ‘अजून सकाळ जावंक ना. न्हिदतलो जाल्यार दाराक खिळी घालून न्हीद.

## १२

‘तुज्या घरांत एक बायल आसता ती तुजी कोण?’ वाटेर आडावन एका मनशान रमेशाक विचारलें.

आयतार आशिल्ल्यान रमेश उसरां उठिल्लो. ल्हवू ल्हवू गंगान घराचो ताबो कसो घेतलो ते ताचे ताकाच कळ्ळें ना.

यमू कामच करिना. दीसभर खेळटा आनी आवय धेंगसर्लीच जाल्यार तिका इल्लो आदार करता.

आज सकाळीं गंगानच ताका म्हळें, 'सद्दां खाणावळींत वचून कितें जेवता? नुस्तें हाडलें जाल्यार हांव रांदून वाडीन.'

रमेशान खीणभर विचार केलो आनी नुस्तें हाडूंक तो बाजारांत गेलो. परत येता आसतना वाटेर हो अनोळखी मनीस ताका हटकून नाका जाल्ले प्रस्न विचारतालो.

रमेशाक तिडक आयली. पूण ताणे तोंडार अडेचो हांसो हाडून म्हळें, 'तुमकां हांव वळखलों ना.'

'तुमच्या शेजराच फाटले वटेन म्हजें घर. आमच्या फुडल्या दारांत उबो रावल्यार तुगेले मार्गालदार दिसता. ह्याच दिसांनी एक बायल दिश्टी पडली म्हणून विचारलें.

'कामाक आसता ती.' रमेशान जाप दिली, 'झाडलोट आसता आनी हेर किरकोळ कामां.'

'समजलें... समजलें. एक खोंचक हांसो तो शेजारी हांसलो आनी ताच्या हातांतले नुस्त्याचे पोतयेकडेन पळयत विचारलें, 'सध्या घराच रांदता?'

जापेची ताका अपेक्षा नासली. तो गेलो. रमेशाक गोंदळावन गेलो. आपलें घर. आपूण कसो रावता वा आपणागेर कोण येता वता ह्यो जाळण्यो शेजाऱ्यांक कित्याक? मनातल्या मनांत येवजीत रमेश फणफणलो. दुसऱ्याच खिणाक ताका दिसलें उदकांत रावन नुस्त्याकडेन आनी वस्तींत रावन शेजाऱ्याकडेन दुस्मानपण घेवप परवडचें ना.

घरची वाट चलता आसतना ताच्या घराचे कुर्शाची झोपडपट्टी पयसुल्ल्यानच ताणे पळयली. रस्त्याचेर एक बालदी दवरून ती डोंबान्न कमराक निखटें एक जुनेर गुठलावन उक्त्यारच न्हाता.

ताणे नदर कुर्शाक काडपाचो यत्न करचो तितली ती तिचे वटेच्यान वताली. नर्शाब इतलेंच की भोंवतणच्या संवसाराची तिका धंग नासली. रस्त्यावयल्या विजेच्या खांब्याक वणखून एक जाण्टेलो उबो आसा आनी तो ते न्हातले डोंबान्नीक पळयता... रमेश म्हऱ्यांत पावलो तसो तो इल्लो संकोचलो आनी ओणव घालून जमनीर कितें सोदिल्ले भाशेन करूंक लागलो.

ताची मनस्थिती रमेशाक कळटाली. ताचेखातीर ती डोंबान्न नायिका आसली. रमेशावरीच तोय आपले जिणेचे कथेक रंग चडोवचे खातीर नायिका सोदता आसतलो.

खूब दिसांनी आज ताणे डोंबान्नीक पळयिल्ली. आनी ताच्या लक्षांत आयलें की गंगाकडेन झगडीं जाले उपरांत ती डोंबान्न ताच्या दारांत येवपाची बंद जाल्ली.

नुस्तें घेवन तो घरांत आयलो आनी पोती ताणे यमूकडेन दिली.

'न्हावंक उदक तापोवंक जाय जाल्यार विचार.' गंगान यमूक सांगलें. रमेशाकच उद्देशून आसलें.

'नाका. हांव थंडच न्हातां.' रमेशान जाप दिली.

'जाल्यार न्हावन घे. मान्ने रिकामे आसा.' गंगान सांगलें.

गंगाच्या आवाजाक अधिकाराचो वास मारता असो दुबाव रमेशाक आयलो. तो कुडींत गेलो. आंगायले कपडे काडून ताणे तुवालो खांदार उडयलो आनी तो न्हांवक मान्यांत गेलो.

यमू फुडल्या आंगणांत खेळटा आनी गंगा मान्याच्या दारांतच बसून नुस्तें उजरायता. मान्याचे दार बंद आसलें तरी रमेशाक संकोच दिसलो. आंगार थंड उदक घेना फुडें पदां म्हणपाची ताका संवय. पूण भायले वटेन ती आसा हो विचारच ताची गर्चा आंवळून बसलो.

आंग भिजोवन शाबू सोद जाल्यार मान्यांत शाबू ना. यमू आंगणांत खेळटा हें तो जाणा तरी ताणे यमूकच उलो मारलो. आनी विचारलें, 'शाबू खंय आसा?'

'हांवेच भायर हाडिल्लो.' गंगा भायल्यान जाप दिली. 'म्हजे हात नुस्त्यान भरल्यात.'

तिणे यमूक उलो मारलो. पूण तिगेलो आवाज फुडल्या आंगणामेरेन पावना आसलो. ओल्या आंगार तुवालो गुठलावन रमेश भायर आयलो आनी फाटले गरादीचेर दवरिल्लो शाबू घेवन परत मान्यांत गेलो.

गंगा आपणाकच पळयता हे कल्पनेन तो खांकडेलो, पूण तितलोच सुखावलो. ताणे तिचेवटच्यान नदर लेर्गात व्हेली ना.

'आमच्या बिराडांत अडचणी खूब. ल्हानसो जागो. शेजारचे दादले खूबच पिडापीड दितात. हांव ह्या घरांतच रावल्यार तुका अडचण जातली? फाटले पडवेंत हांव रावता.' जेवंक बशिल्ल्या वेळार गंगान रमेशाक म्हळें.

तें आयकून ताका उस्तरें गेलें. ताणें जाप दिली ना. मोन्यानी तो जेवन भितर आयलो.

ही बाय सादी सुदी न्हय. बोट दाखयल्यार हात गिळूंक सोदता. वेळारच तिका कुशीक कडिल्ली बरी अशें रमेश चेर्वाजतालो... भितरले वाटेन आवय आनी धूव जेवंक बशिल्ली... एकल्याच्या नांवान रांदप तिगांनी जेवप... फायदो कितें? शेजारी मात नस्तो दुबाव घेतात... तांचो गुन्यांव कसलो?... विचारांची नाळ अचकीत तुटली. तो उठून फाटले पडवेर गेलो आनी जेवतना विचारिल्ल्या प्रस्नाची जाप ताणे दिली.

'हरशींच लोक नसतें उलयतात. तूं हांगा रावल्यार उज्यांत तेल रकयिल्ले भाशेन जातलें.'

आपणाक ती जाप दिल्या हें गंगाक कळ्ळें. ती कांय उलयली ना. जेवणां सोंपतकच तिणे उश्टीं काडलीं. आयदनां घांसून दवरलीं.

रमेश आपले खाटेर आडवो जाल्लो. कुडीच्या दारांत येवन गंगान म्हळें, 'तुका नाका जाल्यार हांव वतां. कामाचो म्हयनो आज पूर्ण जालो. म्हजो हिशोब केल्यार जातालो.'

भुर्ग्यांनी झगडून उलोवर्चे तशा सुरांत गंगा उलयिल्ली. अर्दे न्हिदेंत आशिल्लो रमेश

एकदम उठून बसलो आनी ताणे म्हळे, 'तुका पयशे जाय जाल्यार व्हर. हांवें तुका काम सोडूंक सांगूंक ना. पूण ह्या घरांत तुवें रावप समा जावचें ना.'

हांवें हें काम पयशांच्या तोंडाकडेन पळोवन घेवंक ना.' गंगान जाप दिली, 'म्हाका कामां थोडीं नात. पूण म्हजी अडचण वेगळीच.

'कसली तुजी अडचण?'

'सांगलें न्हय, जाग्याची म्हणून. हांव मर्यादेची बायल. घोवान सोडली म्हणून हांव रस्त्यार पडूंक ना. म्हाका इभ्रतीन खंयय रावंक मेळ्ळें जाल्यार हांव रावतलीं...'

'हांवें तुका कामाक दवरता आसतना हांगा रावंक मेळटले अशे सांगूक नासलें. तूं रावली जाल्यार लोक कितें म्हणटलो ताचो तरी विचार कर.'

'लोक तुकाच म्हणटले अशें तुका दिसता?'

तिगेल्या ह्या खोंचक प्रस्नान रमेशाक राग आयलो.

'बरें आसा. कितले पयशे जाले तुजे?' ताणे विचारले.

'पयशांखातीर कोणे काम केलां! तुवें दिले जाल्यार घेतलीं ना, जाल्यार तेय मागची ना.'

'हिशोब कसो करपाचो तें तरी सांग मगे?'

'म्हणटकच तूं म्हाका काडूंक सोदता तर?' गंगालो परतो प्रस्न.

'हांव तुका काडूंक सोदिना. तुजे खोशेन तूं वतली जाल्यार वच. रावतली जाल्यार राव.' अशें म्हणून ताणे शंबराची एक नोट तिच्या मुखार धरली.

'जालें इतल्यान सगळें सोंपलें?'

आतां रमेशाक तिडक आयली. 'कितले दिवं ते सांग मगे?' ताणें म्हळें.

ती कांय उलयली ना. भायले वटेन नदर करून तिणे व्हडान म्हळें, 'यमू चल या आर्मा.'

आनी पयशे घेनासतनाच ती वचूंक लागली.

'तूं फाल्यां कामाक येतली काय येवची ना?' ती सोपणां देवतना रमेशान दारांत येवन विचारलें.

'वाड्यार घरां थोडीं नात. खंय तरी म्हजी सोय जातली.' अशा उरफाट्यांनी जाप दिवन व्हडलीं व्हडलीं धेंपां घालून हातान यमूक ओडीत गंगा गेली.

## १३

घरांतल्यान सकाळीं भायर सरून रातीच्या वेळार न्हिदूंक घरा परततल्या रमेशाचो वाड्यावयल्या लोकांकडेन संबंदच येना. आयतार वा सुटयेचो दीस आसलो जाल्यार तो

इल्लो चड वेळ घरा उरता. पूण ह्या विशाल शारांत ताका एक्रूच इश्ट ना. रमेशाक दिशिल्ले, दुसऱ्या दिसा गंगा येतली वा यमूक तरी धाडटली. नाय जाल्यार ताणे जी बोली केल्ली ती यमूक कामाक दवरपाची. गंगा आपूण जावन आयिल्ली..

पूण दुसऱ्या दिसा यमू आयली ना आनी त्या उपरांत तीन चार दीस मेरेन कोणच आयलो ना.

आयताराक सकाळचो तो इल्लो उसरां उठ्ठा. दार वाजलें आनी ताका जाग यली. तो उठून भायर येतासर आनीक दोन खेपे दार वाजलें. मनांतल्या मनांत तो हांसलो. ताका दिसलें गंगाच आयल्या आसतली.

दार उकतें करूनय पळय जाल्यार मुखार डोंबान्न उबी. एकलीच. हांडीर भुरगें ना. निर्लज्जाभाशेन ती ताका पळोवन हांसत रावली.

परत दार बंद करपाचें येवजीत ताणें विचारलें, कितें जाय?'

'म्हाका कांय नाका.' तिणें तोंडावयलो हांसो तसोच दवरून जाप दिली. 'हांव तुका इतलेंच सांगूंक आयल्या की ती गंगा कोणाचो तरी हात धरून पळून गेली.

रमेश तिचेकडेन पळयत रावलो. कोणेय तें सांगिल्लें जाल्यार तो अदीक तपशील विचारतलो आसलो. ताणे कांय एक उलयना आसतना दार बंद केलें.

'एकच मिनीट राव.' डोंबान्नीन म्हळें, 'तुका घर-कामाक कोणय जाय जाल्यार म्हाका सांग.'

'कोण नाका. दार उकतें करिनासतनाच ताणे जाप दिली तो तोंड धुवंक गेलो.

भायले वटेन ती डोंबान्न थोडो वेळ बडबडत रावली आनी आनी परतली.

सकाळीं फुडें हिचें दर्शन घडलां. दीस बरो गेल्यार पुरो, अशें येवजीत रमेश रांदचे कुडींत गेलो आनी ताणे च्याक दवरलें.

ताचे तकलेंत गंगेचोच विचार घोळूंक लागलो. कशीय आसना तिगेलें काम निवळ... सभाव मायेस्त. पूण तिका घरांत तो कसो दवरून घेत आसलो...?' पाताळयंत्री बायल आसूंक जाय. कोणाबरोबर गेली काय?

दनपरां खानावळींत वचूंक भायर सरसर रमेशाच्या चित्तांत गंगा आनी यमू हांचींच तरेकवार रूपां घोळटालीं. तांचो विचार तकलेंतल्यान काडून उडोवपाचो ताणे जायतो खेपो यत्न केलो पूण दर खेपे परत तांच्यो मूर्ती दोळ्यांमुखार उब्यो रावताल्यो.

तिची अपेक्षा कितें आसली? ह्या घरची घरकान्न जावपाची?... शे! तें कशेंच शक्य नासलें! रमेशाक तिचेविशीं निखालस आकर्शण नासलें... मोग सोडच. पूण ती घरांक रावंक आयिल्ली जाल्यार...? बरें जालें गेली. खंयय वचना... दुबळ्या खिणाचें सांगूंक जायना...

खानावळींत वचूंक भायर सरलो तेन्ना नाक्याचेर लोकांची गर्दी ताणे पळयली. कोणय झगडटा आसतलो ना जाल्यार एकाद्रो अपघात जाल्लो आसतलो.

गर्दी चुकोवन तो कुशीच्यान फुडें वचूंक सोदतालो. पूण थंय पावतकच ताची चाल

मंद जाली. एक तरणाटो हांसत घोळक्यांतल्यान भायर सरलो आनी आपले सायकलीचें पॅडल मारूंक लागलो...

'कितें जालें?... ' रमेशान ताका विचारलें.

'कांय ना. लोक आंगार गोंदून घेतात.' आनी तो गेलो.

गोंदून घेतात? म्हळ्यार कितें करतात काय? रमेशाक ओर्गाच बारीकसाण. घोळक्याचे फाटल्यान तो उबो रावलो. जिराफाभाशेन मान वयर काडून तो पळोवंक लागलो. पूण ताका सारकें दिसले ना.

तो हाल्लो ना. फुडें रिगतां रिगतां तो एकदम मुखार पावलो. पळय जाल्यार एक बायल आपल्या हाताचेर देवाचें नांव गोंदून घेता. नांव गोंदपी मनीस हातांत एक ड्रील घेवन सुयेन तें चित्र आंगार कोंरातता.

खुबशे लोक नंबर लावन बसल्यात. अचकीत ताची नदर थंय उकडयां बशिल्ले डोंबार्नीकडेन वता. तिणे ताका पळोवंक ना. पळयलो जाल्यार हांगा चार चौगांत कितेंय बडबडटली अशें येवजून रमेश फाटीं सरता. गर्दी थंयच सोडून तो खानावळीचे दिशेन चलूंक लागता. पोटाखातीर लोक कसले कसले धंदे करतात आनी अजाप म्हळ्यार सगलेच धंदे चलतात! गोंदपाची कला कशीय आसूं; पूण आपल्या आंगार नांवां चित्रां गोंदून घेवप हे रानवटीपणाचेंच लक्षण अशें रमेशाक दिसूंक लागता.

ताका उगडास जाता किस्तोदीचो. किस्तोद हो ताच्या गांवचो रेंदेर. गोरो गोमटो. सिनेमाचो नायक कसो. काश्टी न्हेसून माड चडटलो किस्तोद आनी सांजच्या वेळार पँट बूशशर्ट घालून बाजारांत येतालो किस्तोद, दोगय एकूच म्हळ्यार कोणाचो विस्वास बसचो ना.

किस्तोदीली आनी रमेशाली भुरगेपणांतली इश्टागत. रमेशापरस तो इल्लो व्हड. माडाच्या कवळांत बसून मोगाचीं सुरबूस कांतारां तो गायतालो आनी माडाच्या मुळांत रावन रमेश तीं कान दिवन आयकतालो. किस्तोदीन ताका आपल्या मोगाच्यो खबरो सांगच्यो.

त्याच गांवची क्लारा नांवाची एक चली. क्लाराकय रमेश वळखता. शिकूंक नाशिल्ली अडाणी चली. घरचीं गोरवां राखताली. काळी सांवळी. पूण सुंदर चली.

एक दीस किस्तोदीनच रमेशाक सांगिल्लें, 'क्लारा म्हजी व्हंकल.' त्या उपरांत किस्तोद ताका क्लाराच्यो खबऱ्यो सांगतालो. मोगाचे अणभव कथन करतालो. कादंबऱ्यो हातात पडचे आदली ती गजाल. किस्तोदील्यो खबरी आयकतना रमेशाले मन रमतालें आनी त्यो आयकुचे खातीर तो किस्तोदी फाटल्यान भोंवतालो. एक दीस किस्तोदीन ताका आपलो हात दाखयलो.

मोट्या अजापान रमेशान तो पळयलो. हाताचेर एक काळीज गोंदिल्लें आनी त्या काळजामदीं क्लाराचें नांव आसलें.

'हे कोणे बरयलें?' रमेशान विचारलें.

'पुसपासारकें बरप न्हय ते. मांस कोंरातून हें गोंदून घेतलां. मेले बगर ही खूण पुसून वचची ना.' अभिमानान किस्तोर्दीन सांगलें.

ती निळीपांचवी खूण पळोवन तेन्ना आपूण कितलो विस्मीत जाल्लो हाचो रमेशाक उगडास जालो. आनी ताणे ताका विचारिल्लें, 'तुवें तुजें नांव कित्याक गोंदून घेतलें ना?'

'म्हजें नांव क्लाराच्या हाताचेर गोंदिल्लें आसा.' ताणें सांगिल्लें.

आयज तो सगळो प्रसंग दोळ्यांमुखार उबो रावतकच रमेशाक दिसलें, हीं रानवटीपणां आसत वा पिशेपणां आसत, पूण तें मोगाचें प्रतीक हातूंत मात दुबाव ना.

किस्तोर्दीचो उगडास येतकच तागेल्ली व्हंकल क्लारा दोळ्यांमुखार रावप सभावीक आसलें. फुडें जालें काय तांचें लग्न?... तांचोच विचार करीत रमेश बिराडाची वाट चलूंक लागलो.

आतां चौकांत सामसूम. तो गोंदपी गेल्लो आनी गोंदून घेवपी लोकय गेल्लो. रमेश घराचीं सोपणां चडटा आसतना अचकीत ताची नदर पडवेर बशिल्ले डोंबान्नीगेर गेली आनी ताणे आंग काडलें.

ही लोचट बायल आपली फाट कशीच सोडिना हें पळोवन ताका तिडक आयली. आतां कितेंय तरी अशी माण्णीं सोदून काडची पडली, जिका लागून ती परत आपले वाटेक वचची ना...

रमेशान रागीट तोंड करून तिचेकडेन पळयलें. निर्लज्ज बायल. ताका पळोवन हांसता. मुखार एक बालदी.

'तूं हांगा कितें करता?' रमेश धेंगशेलो.

तिचो हांसो तसोच उरलो. ती उबी रावली आनी बालदी हातांत धरून म्हळें, 'बालदीभर उदक जाय आसलें... वाड्यावयले बांयत मांजर मरून पडलां.

आनी कोणागेर उदक मेळ्ळें ना! 'तुगेर नळ आसा म्हणून आयलीं.'

तिडक आवरून रमेशान दाराचें कुलप काडलें आनी तिका म्हळें, 'मागीलदारच्यान यो.'

मागीलदारचें दार ताणें उकतें केलें. तो मेरेन ती डोंबान्न थंय पावली. नळाकडेन बोट दाखोवन रमेशान म्हळें, 'बालदी भरून घे आनी वच.'

तिणे नळासकल बालदी दवरली आनी कमरार हात दवरून रमेशाकडेन पळोवंक लागली.

रमेश भितल्ले वाटेन गेलो.

बालदी भरून मागीलदारच्या सोपणाचेर दवरून तिणे साद घाली. 'बाबा, दार लावन घे. वतां हांव.'

पूण ती गेली ना. रमेश येवपाची वाट पळयत थंयच उबी रावली.

दाराकडेन पावतकच रमेशाक ओर्गाच बारीकसाण. तिणे हातार कितें गोंदलां काय म्हणून तो पळोवंक सोदतालो. कांय दिसले ना. तेन्ना ताणेंच अर्द दार बंद करून

विचारलें, 'कितें गोंदून घेतलें?'

प्रस्नासरशीं ती भुरकुटली. देंविल्लें सोपण परत चडली आनी तिणे म्हळें, 'दादल्याचें नांव बरयलां... गोविंदा.'

'हो गोविंदा कोण?' रमेशालो प्रस्न, 'तुका मारता तो तुजो घोव?'

'न्हय. तो गेलो शेण खावन. आतां हांवे दुसरो दादलो हाडला... गोविंदा.'

'दुसरें लग्न जालें तुजें?'

'लग्न जावन आमकां खंय वचपाचें आसा? हाडलो आनी घरांत दवरलो. हो मात आतां निमाणो. ताणे म्हजें नांव आपल्या आंगार गोंदून घेतलां आनी हांवें ताचें. आतां मरसर आमी सांगातान उरतलीं.

ते भोळे मान्यतायेचें रमेशा हांसूक आयलें. तरी ताणे विचारलें, 'दाखय पळोवया तुजो हात... कसो गोंदला तो?'

'हातार गोंदूंक ना बाबा...' अशें म्हणून तिणे आपले छातयेकडेन हात केलो मात, रमेशान दार धांकून खिळी घाली.

## १४

ऑफीस सुट्टकच रात जायसर कितें करचें हो रमेशामुखार एक प्रस्न उरता.

तागेल्या ऑफिसांतले सांगाती तार्ककितेन घरा वतात. कोणाक बायलेक घेवन शॉपिंगाक वचपाचें आसता. कोणाक भुरग्यांक घेवन सर्कशीक वचपाचें आसता... रमेशाक तसलें काय करपाचें नासता.

एक जीव आनी सदाशीव... घर नांवाचें जें बिराड आसा थंय सगलें आसा पूण घरकान्न ना. खाणावळींत जेवनच घरा वचपाचें आनी तो मेरेनचो वेळ कसोय तरी सारपाचो.

गार्डनांत वचून बसप हो ताचो एक नवो छंद. बांकार बशिल्लेकडेन ताका नायिकेच्या सोदांत भोंवतले नायक दिसतात आनी नायकाच्या सोदांत तानेल्ले नदरेन येतल्या वतल्यांत नियाळटल्यो. नायिका दिसतात. कांय जोडपी आसतात... थोड्यांच्यो गांठी धर्मान बांदिल्ल्यो, ज्यांचे वागणुकेवयल्यानच तांचे मदले घोवाबायलेचें नातें समजता. पूण कांय जाणांच्यो गांठी मोगान बांदिल्ल्यो आसतात. तांकां चलता आसतना गार्डनांतली अरुंद पांयवाट रुंद जाता आनी बांकार बसतना बांक आंखडेवन येता... रमेशाली नदर आतां पळयता त्या खिणाक नायक नायिकेक पारखून घेता.

मनांतले उमाळे दर्याच्या ल्हारांवरी एका फाटल्यान एक उसळत आसले तरी झाडामुळांत एकाद्या बांकाचेर निर्विकार तोंड करून तो बसता आनी फुलां भोंवतणी धिङ्ग्यो घालपी

पाखे पळोवपाचें सुख अखुदाय अणभवता.

पूण आयज एक नायिका तागेल्या बांकार येवन आर्दांच बसल्या. बांकाचे एके कुशींक ती. उरल्लो बांक रिकामो. सदांचें संवकळीचो तो बांक. आयज ही नायिका आर्दांच आडावन बसल्या.

खीणभर हेर बांकांवयल्यान ताणें नदर भोंवडायली. झाडाचें एकूय मूळ, झुडपाचो एकूय आडासो वा नगरपालिकेचो एकूय बांक रिकामो ना... गार्डनांतय विभाग आपसूक पडल्यात. संवसारी मनशाचो कोनसो वेगळो. तो घसरगुंडी आनी झोपाळ्याचे कुशीक आसा. थंय संवसारी दादले आनी बायलो आपल्या भुरग्यांक घेवन येतात... तांच्या मुखारच पेन्शनरांचो कोनसो. चडशीं पळोवंक मेळनात असलीं पुडवीं आनी तोपयो. मफलर आनी कानतोपयो... धव्यो फुल्ल मिशो आनी तरेकवार रॉतां त्या कोनशाक आसतात. थंय एक खळखळ आसता. तो धीर गंभीर खळखळ संवसारी मनशांल्या कोनशाच्या चिर्वाचिवाटापरस वेगळो. दुसरे वाटेन झाडां-झुडपां. थंय हालचाल आसली तरी आवाज ना. एक जोडपें बाकार बशिल्लें आसत जाल्यार त्या बांकाचेर दुसरो कोण बसना. जंय वातावरणांतय एक धुंदी आसता, जी धुंदी पळयतल्याक लेगीत जाणवता. भोंवतणचे आवाज त्या वातावरणाक भेदूंक पावनात...

आनी ह्या दोन संवसारांचे शिमेचेर एका कोनशाक रमेशालो बांक.

त्या बांकाचेर सदां तो बसता. ताची नदर त्या मोन्या संवसाराकडेन आसता, जंय तो बायलेचीं तरेकवार रूपां दोळ्यांनी पळोवन आपले नायिकेचीं सपनां रंगयता.

आयज ताच्या बांकार नायिका येवन बसल्या. ताका हेरून दवरून ती बसूंक ना मूं?

मुखावयल्या वाठाराचेर नदर थिरावन आपले भितर मुमुर्खीच हांसत बशिल्ली ती नायिका.

थोडोसो खांकडेत रमेश त्या बांकाच्या दुसऱ्या टोकार वचून बसता. खळखळट्या संवसाराचेर... चिर्वाचिवर्पी संवसाराचेर नदर थिरावन बसपाचो यत्न तो करता आनी उपरांत ताची नदर सदचे वरी मोन्या धुंद संवसाराचेर वता.

ही एक विकृतीच अशें ताका दिसूंक लागता. असले तरेचो दुसऱ्य जोडप्यांचो प्रणय खेळ पळोवन आनंद घेवप हें सभ्यतायेक सोबना. तें ताका कळटा. पूण ताचें मन वळना.

पूण आयज नदर त्याच बांकाच्या दुसऱ्या तोंकाक बशिल्ले नायिके कडेन परत परत वता. तिची नदर मुखार आससर रमेश तिका दोळेभर पळोवन घेता.

ताचें नदरेंत भरता तिची सांवळी कांत तो मनांतल्या मनांत तिच्या रंगाक पावशी कुपाची ओपार दिता. आंगाचेर फिकट गुलाबी साडी आनी त्याच रंगाचे ब्लावज. अस्ताक वतल्या सूर्याच्या तिरप्या किर्णांत गुलाबी पसय तिच्या तोंडार फांकता आनी तिचे गुलाबी ओंट ताचे नदरेंत भरतात.

काळ्या रंगाची ओढ लायणी अप्रुपाय आपल्यामुखार बसल्या अशें ताका दिसता.

कोण ती? केन्नाच्यान बसल्या? कोणाची वाट पळयतां?

साडी सारकी करून तिणे पांय लांबयले. जोत्याच्या बंधनांतल्यान काळीं पावतां मेकळी केल्लीं. पाचव्या लॉनाचेर धव्या नाखटांक लागून ती वेगळीच दिसली. तिणें आपले तळवे लॉनाचेर घांसले. गोरो रंग त्या देहाचेर आशिल्लो तो फक्त तळव्यांकडेन.

अजून तिची नदर मुखार थिरावल्लीच आसा. एक तरूण नायक आपले कुर्शीक येवन बसला म्हणपाची धंग तिका ना. काय ती बळयां आपली उपेक्षा करता?

मंद वारो व्हांवलो आनी शिफॉनचे साडयेचो पदर सळसळ्ळो. वाऱ्याचो झोत तोंडार बसलो तशी ती सुखावली आसुंये. मस्त्या पदराक आडावपाचो तिणे यत्न केलो ना. काय आपल्या गळ्यांतली मोतयांची माळ ती दाखोवंक सोदताली? दाव्या हातान तिणे माळेंतलें एक मोती उखल्लें आनी चिरपूट तोंडांत घालचें तशें ते गुलाबी ओठांमदीं धरलें.

एक धाडशी विचार ताच्या मनांत आयलो आनी रमेश ओंठांतल्या ओठांत हांसलो. तिणें तोंड उकतें केलें आनी मोती दातांमदीं धरलें. खरेंच त्या मोतयांपरस तिचे दांत चकचकीत.

रमेशाक कितें येवजलें देवाक खबर! आपलेकडेन तिचें लक्ष वेधून घेवचे खातीर तो खांकलो. ते सरशीं ती संकोचली. शांत तळ्यांत गुंडो पडटकच तरंगां येतात तशीं तरंगां तिच्या मनांत आयल्यांत अशें तिच्या तोंडावयले भाव नियाळटल्या रमेशाक दिसलें.

नायिका जेन्ना संकोचता तेन्ना ती कशी आंखडेता हें पळोवपासारकें आसता. तिणें फाटल्यान हात व्हरून आपल्या केंसांची विणी खांदावयल्यान फुडें घेतली. खंयचेय सुंदरीक नसाय दिसपी इतले लांब दाट सळसळीत काळे केंस. केंसाकडेन दोन खीण ती खेळ्ळी आनी मागीर तिका पदराचें भान जालें.

दाव्या खांद्या वयल्यान माने भोंवतणच्यान व्हरून उजव्या खांद्यार तिणे तो ओडून घेतलो आनी एकदम आपले एके मांडयेचेर दुसरी मांडी दवरून पोझ बदल्ली.

रमेशाली नदर सकल गेली. आतां ती सरळ धिटायेन ताकाच पळयताली.

रमेशाक तिगेले नदरेक नदर दिवपाचे धाडस जालें ना. सदांच अशेंच घडटा. फळ पिकून तयार जाता आनी तें जेन्ना झडटा तेन्ना भलतोच घेवन वता.

ताणें सगलें बळ एकटावन तिचे नदरेचेर नदर थिरायली. एकाद्रें अप्रुप पळोवचें तशें ती पळयताली. पूण तोंडावयले भाव आदले वरीच निर्विकार. जाल्यारय ओंठावयलो हांसो...

हें आमंत्रण अशें रमेशाक दिसलें. आपले नदरेन ताणे तिका परत तपासली. सुंदर आसा. शालीन आसा. आपल्या काळजांतले आनी घरांतले रिकामे फास्केंत सोबपासारकी आसा.

आतां ताणेच फुडाकार घेवंक जाय. चली हाजे फुडलें धाडस कशें करतली? ती अपेक्षाच करप पिशेपणाचें.

'तूं सद्दां हांगा येता?' रमेशान मोठ्या धाडसान प्रस्न विचारलो.

कानाकडेन मूस घोंगेल्ले भाशेन तिणे कान फांफुडलो आनी 'आं... आं...' म्हणत कांचवेन ती उबी रावली.

रमेश काचाबूल जालो. प्रस्न तिका सुचलो ना काय?

'कांय ना. बस तूं.' रमेशान म्हळें.

'आं. आं...' अशें म्हणून ती बसली.

प्रस्नाक जाप ना. फुडें कितें उलोवचें तें रमेशाक समजना. पळयिल्ल्या सिनेमातलें संवाद याद करपाचो ताणे यत्न केला. पूण फावसो संवाद ताका याद जालो ना.

तिची नदर आतां सकल जमनीचेर थिराविल्ली. दोन खीण ते अवस्थेंत बसून रावतकच तिणें परत नदर वयर केली. रमेशाचे दिकेन थिरायली. पूण तोंडावयलो हांसो मात आतां बावून गेल्लो.

ही विचित्र वागता अशें रमेशाक दिसलें. परत ती गळ्यांतले माळेतल्या मोतयांकडेन खेळ्ळी. एक मोती तिणे परत दातांमदीं धरलें आनी सोडलें. आंवळून धरिल्लो पदर आर्दीच गळसिणल्लो तो तिणें सारको केलो ना.

'तूं कोणाची वाट पळयता?' रमेशान परत तिका विचाल्लें.

हे खेपे ती गडबडली ना. गोड हांसली. दोनय पोल्याक दोन खळ्यो पडल्यो. मनगटाचेर केंसांची विर्णी गुठलान तिणे सोडयली आनी धिटायेन रमेशाचे नदरेक नदर दीत म्हळें, 'म्हजो बाबा येवपाचो आसा.'

कित्याक कोण जाणा, ती जाप आयकून रमेश सुखावलो आनी फुडलो प्रस्न येवजूंक लागलो.

एक पोमेरियन सुणे शेंपडी हालयत आयलें आनी तिच्या पायामुखार दवरिल्ल्या जोत्यां कडेन खेळूंक लागले. तिणें ताका आमुडलें ना.

रमेशान येवजिलें घरचें सुणें आसतलें. ताका आपण कशें आमुडचें?

ती रमेशाकडेन पळयत आसली. इतलें म्हणसर एक दादलो थंय आयलो आनी ताणे सुण्याक आमुडलें. जोत्याचो एक पट्टो सुण्यान तोडिल्लो.

ती एकदम उबी रावली आनी तिणें विचारलें, 'कितें जालें बाबा?'

तो तिगेलो बापूय म्हणपाचें रमेशाक कळ्ळें. संकोचान तोय उबो रावलो.

'या आमी.' बाबान तिका म्हळें आनी तिगेलो हात आपल्या हातांत धरलो. जोतें तिच्या पायामुखार धरलें.

'एकाच पट्याचेर सध्या सांबाळून घे' बापायन तिका म्हळें, 'मार्गार पटो लावन घेता.'

बापायच्या आदारान ती पांय उखलताली. जोतें तुटलां देखून आसुये...

वता आसतना तिणें रमेशावाटेच्या नदर घुंवडायली ना. पूण बापायन मात खिणाभितर ताका वयर सकयल तपासलो. तो कांय उलयलो ना.

रस्त्याचे कुशीक तांची गाडी उबी आसा. गाडयेसरीं ती पावतासर रमेशाली नदर

बांकाचेर उरिल्ले तिगेले पर्सीचेर गेली. पर्स घेवन धांवत तो गाडयेसरी गेलो. तेन्ना ताणे पळयलें की ल्हान भुरग्यांक गाडयेंत बसोवचें तसो तिगेलो बापूय तिका बसयता.

तिका बसयली आनी दुबावी नदरेन रमेशाकडेन पळोवन ताणें विचारलें, 'तुका कितें जाय?'

'ही पर्स..'

'म्हगेलीच ती.' एकदम ती उलयली.

तिणे पर्स घेतली आनी म्हळें, 'थँक्स...'

रमेश आनीक एकाद्या उतराची अपेक्षा करतालो पूण तणे गाडी स्टार्ट केली.

'बाबा, तुवें ताका सांगूंक जाय आशिल्लें...' ती उलयली, '...म्हाका दोळ्यांनी दिसना म्हणून!'

गाडी फुडें पावली. रमेश ती नदरेआड जायसर पळयत रावलो.

## १५

आफिसाच्या पत्त्यार बापायली चीट आयली. शारांत आयिल्ल्याक ताका आयिल्ली बापायली ही पयलीच चीट. लाखाट्यावयलें अक्षर पळोवनच तो वळखलो. कॉलेजांत आसतना एक खेपे ताका बापायन पत्र बरयिल्लें. त्या उपरांत कितल्या वर्सांनी ही चीट आयल्या.

चिटयेंत कितें आसतलें हाचो तर्क रमेशान केलो. तो घरा गेलो ना हाचो आईक हुस्को जाल्लो आसतलो. ह्या आयताराक चुकनासतना येवपाक बरयिल्लें आसतलें.

आज शुक्रार. फाल्यां अर्द दीस ऑफीस. दनपारची बस धरूनच तो घरा वतलो. चिटयेक जाप धाडपाचें कारण ना अशें येवर्जीत रमेशान लाखाटो फोडलो.

लाखाट्यांत पोस्टकार्डाचे सायर्जीचो एक फोटो. चिटयेची घडी उसोवचे आदीं रमेशान फोटो पळयलो आनी ताका एकदम अजाप जालें.

फोटो एके तरुण चलयेचो. मारूंक व्हरतली गाय जशी बिचकता तशी तिची नुरा दिसताली. फोटो रंगीत आसलो तरी फोट्यावयल्यान चलयेचे रंगरूप हांचो अदमास कसो लायतलो?

फोटो कुशीक दवरून ताणे पत्र वाचलें. रमेशाक एक सोयरीक आयल्या. आपल्या कर्तव्याचे कक्षेत येतात त्यो गजाली बापायन पूर्ण केल्यात. चलयेच्या कूळ, शिलाची खबर काडल्या. परंपरेक धरून कुंडल्यो जुळोवन पळयल्यात. फुडलो निर्णय रमेशान घेवचेलो. आयताराक ताणे घरा येवचें आनी जमल्यार त्याच दिसा चलयेगेर वचून तिका एक वेळ पळोवन घेवची.

पत्र वाचलें आनी रमेशाचे कामावयलें चित्त उडलें. मन एके भाशेन उचांबळ जालें. ताणे त्या दिसापुरती रजा घेतली आनी तो ऑफिसांतल्यान भायर आयलो.

हे आदीं तो असो केन्नाच ऑफीस सोडून भायर येवंक नासलो. ऑफिसां चालू आसलीं तरी शारांतले येरादारींत खंड पडना हें पळोवन ताका अजाप जालें. हे सगले लोक सदांच अशेच भोंवतात काय, असो ताका प्रस्न पडलो. तो गार्डनांत येवन आपल्या बांकार बसलो. चडटे दनपारच्या त्या वता कडार गार्डनांत कोण नासलो. सगले बांक रिकामे.

अस्वस्थ मनात ताणे परत फोटो भायर काडलो आनी निरखून तपासलो. सगल्योच तरुण चलयो सुंदर आसतात. ही कशी आसत काय...? इतलीं वर्सां नायिकेचीं सपनां पळयलीं. वाटेर मेळटले दर एके चलयेंत नायिकेचें रूप सोदलें. आतां खऱ्यांनीच नायिका ताचे जिणेंत येता. ताणें हय म्हणपाची फुरसद... शेनाय वाजतली... रमेशाचें आंग चंवरलें. ताचें ताकाच लाजिल्लेभाशेन जालें. आपले विचार कोण चोरून आयकना मूं असो दुबाव येवन ताणे भोंवतणी पळयलें. त्या व्हडल्या गार्डनांत दुसरो मनीस ना.

खानावळींत वचून दोन उंडयो तोंडांत उडोवच्यो, घरा व्हरपाखातीर कितेंय तरी विकतें घेवचें आनी बिराडार वचून सपनांतल्या संवसारांत अळंग पेवचें अशें ताणे येवजिलें आनी तो उठलो.

गार्डना भायल्या फुटपाथाचेर एक चली मुखावयल्यान येता. निळ्या रंगाची साडी ती न्हेसल्या आनी कितें तरी सोदिल्ले भाशेन चोंयवशीं पळयत पावलां उखलता.

रमेश थंयच उबो रावलो. चली लागीं पावतां पवतां तिका निरखूंक लागलो. एक मन म्हणटालें दिशिल्ल्या फुलाफाटल्यान वचपाची पाख्याची वृत्ती आतां हांवें सोडूंक जाय, पूण ताच्या दोळ्यांक आनी मनाक तीच चटक लागल्या.

लागीं आयली तशी चली रमेशाक पळोवन थांबली. तिणें लायिल्ल्या मंद सेंटाचो परमळ रमेशाल्या गात्रां-गात्रांक सुखावन गेलो. पदर सारको केल्लेभाशेन करून ते चलयेन रमेशाक विचारलें, 'हें ऑफीस खंय आसा?'

तिगेल्या हातांत कागदाचो एक ल्हानसो चिटारो आसलो. तो हातांत घेतना बोटाक बोट आफुडलें. विजेचो झंकार आंगभर झिणझिणलो. रमेशान तिचेर एक चोरटी नदर भोंवडायली. गुबगुबीत वाटकुळो तोंडावळो. गळ्यांत सादी सरपळी जी पदराचेर भायर घेतल्या.

चिटाऱ्यावयल्या ऑफिसाचें नांव वाचलें आनी रमेशाचें काळीज धडधडलें... तीच बी न्हय मू ही? तागेल्याच ऑफिसाचें नांव त्या चिटाऱ्याचेर आसा. भायले भायर आपणाक पळोवन घेवंक बी येवंक ना मू?

'ह्या ऑफिसांत तुजें कसलें काम आसा?' रमेशान ते चलयेक विचारलें.

रमेशालो प्रस्न तिका रुचिल्लो दिसलो ना. तुका नस्त्यो जाळण्यो कित्याक जाय अशी नुरा तिच्या तोंडार उदेली. आनी तिणें म्हळें, 'आसा एक काम....'

'ह्या ऑफिसांत हांव काम करतां म्हणून विचारलें.' रमेशान म्हळें.

'तशें जाल्यार देवानच तुका धाडलो अशें हांव म्हणन.' हे खेंपे तोंडभर हांसो फुलोवन ते चलयेन म्हळें, 'ह्या ऑफिसांत कारकुनाची भरती जावपाची आसा आनी फाल्यां इंटरव्ह्यूक म्हाका कॉल आयला.'

मोठे उमेदीन ती सांगताली. पूण आपल्या मर्यादांविशीं रमेश येवजिताली. ऑफीस व्हडलें. कंपनी मोठी. तो एक सादो कनिश्ट अधिकारी... ही बाबडी मोटे अपेक्षेन आपणाकडेन पळयता पूण आपलो तिका कसलोच उपेग जावपासारको ना हें कळ्ळें जाल्यार...?

तोंडार एक अडेचो हांसो हाडून रमेशान म्हळें, 'ऑफीस हांव तुका दाखयतां. पूण हांव फाल्यां आसचो ना.'

'तरी पूण कसले प्रस्न विचारतले? म्हाका मात्शें मार्गदर्शन कर.' ते चलयेन काकुळटेच्या सुरांत म्हळें.

एक धिटाय रमेशान दाखयली. घडये बापायल्या पत्राचो तो परिणाम आसुये...

'हांगा उब्यांनी कित्याक? चल आमी त्या हॉटेलांत बसुंया.'

रमेश फुडें आनी लोहचुंबका फाटल्यान ओडत वता तशी ती फाटल्यान.

रेस्टॉरंटातल्या मेजार तिचे मुखार बसतना रमेशाचे मन अभिमानान भरून आयलें. हीच ती नायिका, जिची इतलीं वर्सां तो वाट पळयतालो. पूण तिणे ताचे जिणेंत येवंक कळाव केला अशें ताका दिसलें. आतां ताणे तिका सारकी निरखिली. नांव गांव विचारून घेतलें. तिगेल्या घरचे गरिबीची खबर आयकून घेतली. आनी मनांतल्या मनांत म्हळें : ही नायिका जावं येता. आपले जिणेची. ती सुंदरच न्हय तर शार्णी. शिरवंतच न्हय तर धीट.

रमेशाक एका अधिकाऱ्याचें नांव येवजलें. ताच्या उतराचेर तिका नोकरी मेळूं येता हें तो जाणा, पूण ताचे म्हऱ्यांत हे चलयेक धाडली जाल्यार तिगेलो लाचारीचो तो गेरफायदो घेत असो रमेशाक ओर्गाच दुबाव.

रमेशान तिका आपलें नांव सांगलें. आपल्या बिराडाचो पत्तो दिलो आनी म्हळें, 'म्हज्यान कितें जाता तें हांव करतां; पूण तूं म्हाका मेळिल्ल्याची खबर ऑफिसांत कोणाक सांगूं नाका. हांव फाल्यां भायल्या गांवांत वतलों आनी सोमाराक परत येतलों.'

'सोमाराक तुका हांव मेळूं?' मात्शी सलगी दाखोवपी प्रस्न.

'मेळ्ळ्यार उपकारता. पूण तूं खंय मेळटलें? ऑफिसांत नाका. आनी म्हज्या बिराडार तुका हांव कशें आपोवं? ब्रह्मचाऱ्यांची मठी ती.'

'तूं म्हाका भियेता काय तुजे तुकाच?' तिगेलो उरफाटो प्रस्न.

तो आयकून रमेश मात्सो खांकडेलो आनी म्हळें, 'बिराडार आयल्यार जाता. पूण हांव सकाळचो बेगीन भायर सरतां आनी सांजचो उसरां परत येता.'

'आसूं आसूं.' तिणें म्हळें.

रमेशान तिका भायल्यानच ऑफीस दाखयलें आनी विचारलें, 'आतां तूं परत घरा वतलें?'

'ना. घरा वचून फाल्यां परत येवप म्हळ्यार दिव्यच. ह्या शारांत म्हगेली भयण रावता. तिगेर हांव वतलें. चार दीस तिगेरच उरतलें. तुका मेळ्ळेबगर परत वचना...'

ती कितें तरी सुचयता अशें रमेशाक दिसलें आनी ताणें तिका आपल्या सांगातान जेवंक आपयली.

ती कबूल जाली. बऱ्या उंचा हॉटेलांत त्या दिसा रमेशान तिका जेवण दिलें आनी हॉटेलांतल्यान भायर सरतां सरतां ताच्या मनान पुरतें घेतले की हीच आपली नायिका. नांव रुपा.

भयणीच्या घरचो पत्तो रुपान आपूण जावन दिलो. गार्डनाच्या पलतडच्या चौकांत तांचे मार्ग वेगळे जाले.

निरोप घेतना रमेशालें मन जड जालें. सगली सांजवेळ मेकळी आसा. रुपाचो सांगात मेळिल्लो जाल्यार वाऱ्यार उबतल्या कापसासारको ताचो जीव ल्हव जातलो आसलो. विरहाची जड शिळा आपले उमाळे चिड्डिता अशें ताका दिसलें.

'आतां केन्ना मेळुंया?' ताणें रूपाक विचारलें.

'फाल्यां तूं भायल्या गांवाक वतलो म्हणटालो न्हय? सोमाराक सकाळीं येवन हांव तुका मेळटां' तिणे जाप दिली.

'सांजचें कित्याक येना?... घडये परत येवंक कळाव जायत...'

'पळयतां.' रुपान स्पश्ट उतर दिलें ना.

रूपा गेलें. तो थंयच रावन तिगेले फाटमोरे आकृतीकडेन पळयत रावलो. पूण एकूय खेपे रूपान नदर घुंवडायली ना. आकृती नदरेआड जातकच रमेश जड पावलां उखलीत आपल्या बिराडाचेर परतूंक लागलो.

ताका मनांत दिसलें, नायिकेचीं सपनां रंगोवन आपूण आज मेरेन खेळ खेळटालों, पूण आज विरहाचो भार मनाचेर देंवला.

अचकीत ताका उगडास जालो, ताणें ऑफिसाक फोन करून शेनवाराक आपूण येवचो ना हें कळयलें.

आजच घरां वतां तशें ताणें फोनार सांगिल्लें. पूण खरेपणीं ताका घरा वचचें न्हय अशें दिसतालें.

## १६

शेनवारची सकाळ आळसायेन उदेली. मळबांतय कुपां आशिल्ल्यान वाठाराचेर पावर्शा दिसांची सया मारताली.

रमेशाक जाग आयली तेन्ना साडे आठ वरां जाल्लीं. द्विधा मनःस्थितींत तो आसलो. आयज रुपा मेळूंक येत?

सोमाराक येतां अशें तिणे सांगिल्लें. पूण मनांतली उमेद एक लटकी आशा जागयताली.

ना. आज ती येवची ना. आज ती मुलाखतीक वतली. तिच्या भवितव्याचो निकाल आयज लागतलो आनी आपले जिणेचो फुडार थारावंक रमेशाक आज घरा वचपाचें आसा.

इतलीं वर्सां नायिकेची प्रतिक्षा ताणे केल्ली. मृगजळाफाटल्यान धांवपाचो तो एक अणभव आसलो. पारजा भाशेन नायिका नदरेक भाळयताली आनी धरूंक गेल्यार हातांतली सुट्टाली. आतां एक नायिका जिणेंत आयल्या. पलयेच खेपे एक तरूण आनी सुंदर चली ताका इतली लागीं आयल्या... पुण गांवांत दुसरी एक नायिका ताच्या हयकाराची वाट पळयता. मान हालोवपाची फुरसद. ती अनवळखी... फोट्यांतली चली ताची जावन बसतली.

घरा वतना रमेशान द्विधा मनःस्थिती अणभवली. ह्याच वेळार बापायली चीट येवंक जायना आसली. ना जाल्यार रूपान तरी हे आर्दां येवंक जाय आसलें. दोन व्हड्यांचेर पांय दवरपांत एक धोको आसता हें ताका कळटालें. जिणेचे यात्रेंत एका वेगळ्याच चौकार तो आजा पावला. जी वाट घेतलो ती ताजे जिणेचो फुडार थारायतली. असो फुडार जो फाल्यां बदलूंक येवचो ना.

तेच मनःस्थितींत रमेश घरा पावलो. घराकडेन सगळेंच उमेदीचें वातावरण. आवयकडेन ताणे वासपूस केली. सुनेचे तोंड पळोवंक उतावळी जाल्ले आवयकडच्यान ताची वेगळी अपेक्षा नासली.

'हांवें चलयेक पळोवंक ना. पूण बरें भुरगें म्हणून आयकतां.' आवयन सांगलें, 'तूंच पळोवन घे आनी थाराय.'

रमेशाच्या दोळ्यांमुखार रूपा आयली. रूपा, जिचें रूपच ताणे पळयलां, आनी ती अनवळखी चली. जाय खंयची, जूय खंयची?'

'तुमी थारायलां तरी कितें? ते लोक आमगेर येतले. काय आमी थंय वचपाचें?'

'तांकां सांगून दवरलां. तूं आयलो जाल्यार आयताराक चलयेक पळोवंक येतात. कसलोच उपचार नाका. चलो चलयेक पळयतलो आनी परत येतलो.

रातीकडेन बापूय घरा येतकच दुसऱ्या दिसाचो कार्यक्रम थारलो.

'तांकां एक रकाद धाडुंया.'. बापायन म्हळें, 'अचकीत वचून दारांत उबे रावप समा

न्हय.'

रमेश कांय उलयलो ना. एके तरेची बेपर्वाय तागेल्या मनांत भरून गेली. पळोवंक अडचण कसली? पसंत पडली बरें आसा; ना जाल्यार... रूपा आसाच!

विचारासरशीं तो हांसलो. आपूण एकतर्फी रूपाविशीं हक्कान येवजूंक लागलों हाचें ताचें ताकाच अजाप जालें.

चली पळोवंक वचपाचें दिव्य जेन्ना ताका करचें पडलें तेन्ना तो खूबच नर्व्हस जालो. चलयो नर्व्हस जातात म्हणपाचें ताणे आयकल्लें... आनी एक दोन खेपे पळयिल्लें लेगीत. एक खेपे तर सुंदर शिकिल्ली सवरिल्ली चली पळोवन घेवपाचे परिक्षेवेळार धर्वा फटफटीत जाल्ली. तिचे ओंठ थरथरताले आनी तोंडांतलें उतर तोंतरे वतालें. तरी न्हवरेकार ते चलयेक वळखताले म्हणून सोयरीक मोडूंक नासली.

पूण हे चलयेक तो वळखना. ताणे तिका पळोवंक ना. फोट्यावयल्यान अदमास केला तितलोच. शिकल्या काय शिकूंक ना हें लेगीत ताका कोणें सांगूंक ना.

पूण चली पळोवपाचो दबाजो खूबच मेकळ्या वातावरणांत जालो. रमेशाली टॅक्सी व्हंकलकारांच्या दारांत थांबली तेन्ना घरचीं सगळींच मनशां येवकार दिवंक फुडें आयलीं. तांचेंमदीं ती चलीय आसली.

पंजाबी सुटांतली ती चली व्हंकलेची भयण आसतली अशें रमेशाक दिशिल्लें. पूण उपरांत ते चलये सांगातान रमेशाक एकलोच कुडींत दवरून सगळे जाण भायर गेले तेन्ना व्हंकल तीच म्हणपाचें रमेशाक कळ्ळें.

'साडी न्हेसून काडिल्ल्या फोट्यांपरस तूं वेगळेंच दिसता.' संकोच आनी लज चेपपाचो यत्न करीत रमेशान म्हळें.

'हांव साडी केन्नाच न्हेसना. पूण सोयरीक व्हरतना साडयेंतलो फोटो जाय असो जाणटेल्यांचो आग्रो पडलो आनी फोटोग्राफरय मात्सो वेगळे तरेचो. ताणें पोज दिली थीर रावंक सांगलें तोंडार हांसो हाडूंक सुचयलें आनी पुरत्या पांच मिण्टां उपरांत कॅमेराचो बटन दामलो.'

'तरी म्हळें तूं खूब वेगळें दिसलें. तुका होच ड्रेस सोबता.'

दोन मिनटां मौन. रमेशाक प्रस्न सुचना आनी ती आपूण जावन कांय उलयना.

शांततायेचो भंग अखेर तिणेच केलो. ताचे नोकरेची वासपूस केली.

तिगेल्या प्रस्नाक सरळ जाप दिवन रमेशाक विचारलें, 'तूं कितें करता?'

'कॉलेजींत शिकयतां.' तिणे जाप दिली.

'तुजी सोयरीक म्हाका व्हेल्या ती तुजे मान्यतायेन मूं?' खूब आर्दां सावन मनांत घोळोवन दवरिल्लो प्रस्न रमेशा विचारलो.

'हांवे ताचेर विचारच करूंक ना. खरें म्हळ्यार चली पळोवपाचें हें नाटक म्हाका मान्य ना.'

संकोच आनीकय चेपलो. रमेशान हांसून म्हळें, 'हो चलो पळोवपाचो सुवाळो

समज... तुजो निर्णय घेवंक तूं मेकळे आसा.'

'विचारच करूंक ना... निर्णय कसो घेतलें?' पूण मनांतलें सांगतलें जाल्यार म्हाका इतलें बेगीन लग्नच जावचेलें ना. हांव सध्या पी.एच्.डी. चो अभ्यास करतां.'

'लग्न जालें जाल्यार हांव तुज्या शिक्षणाआड येवचों ना.' रमेश उलोवन गेलो आनी मागीर ताणे जीब चाबली. म्हळें, 'तुज्या मनाआड वचपाची सक्ती हांव तरी करचों ना.'

ती चली निखटी हांसली आनी मान सकल घालून तिणे पांयांच्या आंगठ्यान जमनींवयलो तिजुलो पोखरपाचो यत्न केलो.

रमेशान हे चलयेची मनांतल्या मनांत रुपाकडेन तुळा केली. दोनय चलयो सुंदर अशें ताका दिसतालें. पूण ही थोडी संकोची दिसली. घडये प्रसंगच तसो आसलो देखून आसुंये.

तूं आपणाक पसंत आसा अशें सांगपाचें ताजे जिबेर आयलें. पूण ऐन वेळार ताणे आंवडो गिळ्ळो.

'हांव तुमकां एक गजाल सांगूंक सोदतां.' मोठ्या कश्टांनी ते चलयेन म्हळें.

रमेशान तिचेकडेन पळयलें. आजून तिगेली नदर जमनीर थिरावल्ली.

'सांग. संकोच करूं नाका. आनी कितेंय विचारपाचें आसत जाल्यार विचार...'

तरी ती उलयली ना. एके तरेचो कंप तिच्या आंगांत भरल्लो आनी ती हुमेन चिंब भिजली.

'तुजे मन दुसऱ्या कोणाचेर...'

'न्हय... एक जाल्ली सोयरीक मोडल्या... तेर्म लेगीत जाल्लो. फाल्यां तुमच्या कानार ती खबर वतली तेन्ना हांवे कितें लिपयिल्लें अशें दिसचें न्हय म्हणून सांगतां.'

'कित्याक मोडली?'

'हांव नकळ. पूण असलें घडटा तेन्ना लोक चलयेकच दोश दितात...'

'म्हाका  ताची पर्वा ना.' रमेशान तिका धीर दिलो, 'पूण 'तुज्या मनांत दुसरो कोणाय आसल्यार हांव मदीं येवंक सोदिना.'

'ना... जुळयिल्लें लग्न. तेर्म जालो आनी चार दीस ताच्या सांगातान भोंवलें...

'परत परत गुन्यांवकाराभाशेन ती खबर सांगुं नाका. हांव तुका पसंत आसा?'

'पसंतीचो अधिकार म्हाका खंय आसा?'

'हांवें तो दिलो जाल्यार...?'

तिणे जाप दिली ना.

'खरेंच सांगतां, तूं म्हाका पसंत आसा.' निर्धारान रमेशान तिका सांगलें.

लज आनी खोस एकाच वेळार तिच्या तोंडार उदेली. देह कडकडटालो तरी ती उबी रावली. आनी हातांनी तोंड धांपून घरांत धांवली.

# १७

चली पळोवन घरा परतता आसतना रमेशाक आपलें मन आर्नी देह ल्हव जाला असो अणभव आयलो. हवेंत उडटल्या सवण्यावरी आपूण अचळय चलतां अशें ताका दिसतालें. मनावयलें एक चेपण अचकीत पयस जाल्लें. इतल्या वर्सांचो ध्यास सोंपिल्लो. तरीकय सोमाराक रूपा मेळूंक येतली हो विचार...

'ना. आर्मी रामाचे वंशज.' रमेशान मनांतल्यान मनांत म्हळें, 'रुपाकडेन आतां दुसरें कसलेंच नातें उरूंक शकना.' बरें जालें संवकळ वाडचे आर्दीच रमेशाक तागेले जिणेची वाट गाविल्ली.

तरी पूण मनांतले द्वंद्व सोंपलें ना. सोमाराक सकाळीं तो थेट ऑफिसांत गेलो आर्नी ओर्गाच ताणे सगल्या खात्यांल्यान एक भोंवडी मारली. खंयच्या तरी खात्यांत रुपाली भरती जाल्ली आसत म्हणपाची धुगधूग आसली. उश्णो आव हाडून ताणे रूपाक नोकरेचें आश्वासन दिल्लें... तो फट उलोवंक नासलो. पूण तागेल्या उलोवण्याचो अर्थ तसोच जाल्लो.

सगलीं खातीं तो भोंवन आयलो. एकूय नवें तोंड दिसलें ना. सुटकेचो एक उस्वास सोडून रमेश आपल्या टेबलाचेर येवन बसतासर तागेल्या खात्यांतल्या सगल्यांनी रमेशासरी येवन ताका परबीं दिलीं.

रमेश भांबावलो. ताका अजाप जालें, कालची गजाल कशी पावली...? कोणे सांगली...? काय रुपान कितें गडबड केली...?

'कसलीं परबी?' निर्विकारपणान रमेशान आपल्या सांगात्यांक विचारलें.

'तुका कितें दिसता?' एका इश्टान म्हळें, 'बुकलो दोळे धोंपून दूद पियेलो म्हणून लोकांक तें कळना काय कितें?'

'कुवाड्याची भास सोडून सरळ उलयात मरे.' रमेशान लटको राग तोंडार हाडून म्हळें.

तेन्ना एकल्यान तागेले सोयरिकेची सगली खबर चलयेच्या नांवासयत सांगली आर्नी ताणे रोखडीच खबर ऑफिसांत पावयिल्ली.

लजेच ~~आर्नी~~ भिडेन रमेश सामको अरळ जालो. पूण आपल्या सवंगड्यांक ताणे व्हड खोशेन पार्टी दिली.

त्या दिसा पुरतो तो ऑफिसांतलो नायक जाल्लो आर्नी नायिका ती, जिका ऑफिसांतल्या फकत एकल्यानच पळयिल्ली.

एके जाण्टे अधिकारी बायलेन मस्कऱ्यांनी रमेशाक म्हळें, 'तुजी बायल येतली तेन्ना आर्मी पळयतलींच. पूण मात्शें तिचें वर्णन तरी कर मरे.'

त्या उतराक रमेश लजून उदक जालो आनी ताच्या संवगड्यान म्हळें, 'रमेशान पसंत केल्या हातूंतच सगळें आयलें ना? सर्गातले अप्सरेपरस उणी आसचीं ना!'

मोराचें पांख कोणेय तरी अचळय आपल्या आंगाचेर आनी मनाचेर भोंवडायिल्ल्याच्यो कातकुतल्यो रमेशाक जाल्यो.

सांजवेळ जातां जातां रुपाचे यादीन मन अस्वस्थ जावंक लागतें. एक अनवळखी ओढ, एके तरेची उमळशीक... धा मिण्टां आदींच तो भायर सरलो आनी बसीची वाट पळयनासतना रिक्षा घेवन बिराडार पावलो.

गंगू वचत सावन घरांत सान्न भोवंक ना म्हणपाची जाणविकाय रमेशाक जाली. भायले वाटेन एक नदर भोंवडावन कोण ना म्हणपाचें ताणे पळयलें आनी तार्कातिकेन घरांतल्यान सान्न भोंवडायली. रांदचेकुडींत वचून च्याची तयारी करूं येता काय म्हणून अदमास घेतलो... दूद ना. येतना ताज्यान हाडूं येतालें, पूण आतां खंय वतलो?

कुडींत आयलो आनी ताणे कपडे बदल्ले. सगल्या वाठारावयल्यान पयस पयस नदर भोंवडावन रुपा दिसता काय कितें हाचो अदमास घेतलो आनी मागीर तो मनांतल्या मनांत हांसलो. आपणाक जालां तरी कितें असो ताका प्रस्न पडलो. जिचे कडले उरिल्लें सुरिल्लें नातें आज ताका तोडपाचें आसा तिचे वाटेकडेन ताचे दोळे अशे कित्याक लागून उरल्यात? ही कसली उमळशीक... ही सकली ओड?

वण्टीक लेगीत कान आसात म्हणटात आनी मळबाक दोळे. सोयरिकेची खबर जशी ऑफिसांत पावली तशी रुपाली खबर घरा पावूं येता.

विचारासरशीं तो कांचवेलो आनी उठून भायर येवण ताणे ती डोंबारीण दिसता जाल्यार पळयलें. रूपाक वाटेर गांठून तिच्या कानांत कितेंच सांगूंक उणी न्हय आनी रुपा ह्या घरांत आयली जाल्यार ती खबर वाडोभवर पातळायले बगर रावची ना.

पूण रूपा आयली ना. काळोख दाटलो तरी आयली ना. सांगून सवरून आयली ना. रमेशाक तो आपलो अवमान अशें दिसलें. काय तिका कोणें कितें सांगिल्लें..?

ऑफिसांत मुलाखतीवेळार कितें घडिल्लें?

रमेश आपणाचेरच फडफडलो. रुपान ताका येवपाचें उतर दिल्लें. तिणे आपणाक फटयलो... कोणाचे सांगणेन?

घडये मुलाखतीवेळार तिची निवड जाल्ली नासत... घडये आसत... रमेशाक मनापसून दिसलें तिची निवड जावंक फावना. निवड जाली जाल्यार ऑफिसांत सद्दां ती ताका मेळटली आनी ताचें मन द्विधा जातलें. ताचें लग्न थारलां; आतां दुसरेकडेन चित्त वचूंक फावना. काळोख दाटलो तसो रमेश परत भायर सरलो. खंय तरी वचून रातीचें जेवण ताका घेवचेलें आसलें. रुपा सांगातान बऱ्या हॉटेलांत वचपाचो बेत ताणे आंखिल्लो.

भायल्या आंगणांत पांय दवरता सर मुखावयल्या रस्त्याचेर एक जोडपे ताणें पळयलें. वाट चुकिल्ले भाशेन तें कितें तरी सोदतालें. रमेश लागीं पावलो आनी पळयना फुडें तो रुपाक वळखलो. तिच्या सांगातान आयिल्ल्या दादल्यान रमेशाचेंच नांव घेवन

तागेल्या घराचो पत्तो विचारलो.

रमेशान ताका जाप दिली ना. रुपाकडेन वळख घेवपाच्या यत्नांत पळयत रावलो. रस्त्यावयल्या अंधूक उजवाडांतय रूपा ताका वळखली आनी तिणे म्हळें, ‘भावोजी होच रमेश!’

तिच्या सांगातान आयिल्लो तो तिच्या भयणीचो घोव हें कळटकच रमेशाच्या मनांत संमिश्र भाव उदेले. आपणाक मेळूंक येतना ती आपल्या भावोजीक घेवन आयल्या ही गजाल रमेशाक रूचली ना. पूण तेच बरोबर तिच्या सांगातान आयला तो तिचो भावोजी ही गजाल ताका सुखदिणी दिसली.

उपचार म्हणून ताणे तांकां आपल्या घराकडेन आपयलीं.

‘ना. आतां रात जातली.’ रूपान म्हळें.

भावोजी कांय उलयलो ना. मेवणेक सांगात दिवपाचें का आपलें अशे भावनेन तो तटस्थ रावलो.

‘इंटरव्हयू जालो?’ रमेशान विचारलें.

‘नकार मेळ्ळो... तुज्यान कितेंय करूंक जाता जाल्यार पळय. खंयच्याय ऑफिसांत जाता. पूण म्हाका नोकरेची गरज आसा.’ काकुळटेक येवन रूपान म्हळें.

आपल्या मर्यादांची जाणविकाय रमेशाक आसली. एके चलयेक नोकरी मेळोवन दिवपाचें वजन वा वळख आपणाकडेन ना हें ताका खबर आसलें. तरी ताणें म्हळें, ‘पळयतां, तूं तुगेलो पत्तो आनी बायोडेटा धाडून दी.’

रुपान भावोजीच्या तोंडाकडेन पळयलें. आज्ञाधारक भुरग्याभाशेन भावोजीन आपल्या बुशशर्टाच्या वयल्या बोल्सांत दवरिल्लो लाखोटो रमेशाच्या हातांत दिलो.

‘हें कितें?’ रमेशान विचारलें.

‘बायोडेटा आनी फोटो.’

‘फोटो! फोटो कित्याक?’

‘कांय कंपन्यो फोटो मागतात...’

रमेश हांसलो. मागिनासतना तिचो फोटो आपल्या हातांत पडलो हे कल्पनेन तो सुखावलो.

‘पळय मात्शें मनार घे.’ रुपालो भावोजी पयलेच खेपे जड मनान उलोवचें तसो उलयलो.

‘तुमी जाणातच. नोकरी मेळप कितलें कठीण तें... नशिबाची गजाल आसता.’

‘पूण एक सांग, तुका नोकरेची सामकी गरज?’

‘नोकरे खातीर तिचें लग्न अडलां.’ भावोजी उलोवन गेलो.

रूपान लजून मान सकल घाली.

‘नोकरेचो आनी लग्नाचो संबंध कितें? तुजे सारके सुंदर चलयेक घोव मेळूंक अडचण येत अशें म्हाका दिसना.’ रमेशान वेधक नदर तिचेर थिरावन म्हळें.

रूपान मान वयर काडली ना. भावोजीच उलयलो. लग्न थारलां पूण न्हवरो नोकरी करपी बायल सोदता आनी तिका नोकरी मेळसर लग्न लांबणेर उरलां...'

रमेशाक दिसलें, 'आर्दांच ही नायिका आपल्या जिवितात आयिल्ली जाल्यार घडये तांगेले जिणेक एक वेगळेंच वळण मेळटलें आसलें.'

निरोप घेवन तीं दोगांय गेल्लीं आनी आपूण जेवणाक वचूंक भायर सरिल्लों हाचो उगडास आसूनय फोटो आनी बायोडेटा पळोवपाचें उमळशिकेन तो घरांत परतलो.

## १८

एका फाटल्यान एक अशो नव्यो नव्यो घडणुको घडत रावतात आनी त्या घडणुकांचे उमाळे काळजाच्या ल्हानशा करंडात भरून रकूंक लागतात.

सकाळीं फुडें मॅनेजरान रमेशाक आपोवन घेतलो तेन्ना ताचें मन माळशें कांचवेलें. मान सकल घालून काम करपी कारकुनांतलो तो एक. सायबा मुखार वचपाचो प्रसंग ताचेर केन्नाच येवंक ना. अचर्कीत सायबान कित्याक आपोवचो? कितलेशेच दुबाव मनांत दाटून आयले. कोणे कागाळ केल्ली आसत? आदल्या सप्तकांत फोनावयल्यान घेतिल्ले सुटयेची वासपूस करचेखातीर आसत... काय... रुपाले नोकरेचो प्रस्न आसत? आपणें दिल्ल्या लटक्या आश्वासनाची गजाल सायबाच्या कानार कोणे घाली काय?

धडधडट्या काळजान रमेश मॅनेजराच्या कॅबिनांत भितर सरलो आनी थंयचो थाट पळोवन तो विस्मितच जालो. आपल्याच ऑफिसांत इतलें सोबीत कॅबीन आसत हाची ताका कल्पनाच नासली. व्हडलें वाटकुळें मेज. मेजा भोंवतणी आठ-धा कदेलां.

मुखावयल्या कोनशाक सोफांची काटकोनी रचणूक. मदीं व्हडली टिपॉय. जिचेर ताज्या फुलांचो व्हाज. आनी वातानुकूलीत कॅबिनांत खसाचो मंद परमळ.

मुखावयले फायलींत नदर थिरावन मॅनेजर बसला. मुखावयले ॲश ट्रेत एक पेटिल्ली सिगरेट धुंवता.

रमेश परत भायर आयलो. आनी ताणे कॅबिनाचें दार वाजयलें.

भितरल्यान धेंगशासारको आवाज. भियेत भियेत ताणे दार धुकलून तकली भितर घाली.

मॅनेजरान नदर वयर करून पळयलें. आनी रमेशाक पळयना फुडें म्हळें, 'यो रमेश, बस.'

ताणे सोफाकडेन हात दाखयलो. खांकुडिल्ले भाशेन गुबगुबीत जाजमाचेर ल्हवू पांय दवरीत रमेश सोफा मेरेन गेलो आनी आंग चोरून बसता आसतना ताचें धोंपर टी पॉयच्या कोनशाक आपटलें. सगळ्या पांयांतल्यान एक झणझणीत कळ आयली.

मनांत दुबावाची पाल चुकचुकली.

मॅनेजर कदेलावयलो उठून ताचे मुखार सोफाचेर येवन बसलो आनी ताणे रमेशाक म्हळें, 'तुजेर एक नवी जबाबदरी घालपाचें थारायलां. थोडी भोंवडी करची पडटली आनी वेळच्या वेळार सगळ्या खात्यांक रिपोर्ट धाडचे पडटले. काम जबाबदारेचें आसा. ही एकेतरेची बडतीच हें विसरूं नाका.' अशी प्रस्तावना करून मॅनेजरान एक पत्र रमेशाच्या हातांत दिलें.

पत्र वाचून खोशेच्या उमाळ्यांनी ताचें काळीज भरून आयलें. ताका ऑफिसराचो ग्रेड दिवन कंपन्याच्या उत्पादनाचे विक्री खात्याचेर नदर दवरपाचें काम ताचेर सोंपयिल्लें. जंय जंय कारखाने आसात आनी जंय जंय एजंट आसात थंय थंय ताका भोंवचें पडटलें. ते भायर कंपनीचें क्वार्टर्स ताका मेळटले. पगाराभायर भत्ते आसातच. गरजेप्रमाणे टॅक्सीन वा विमानान भोंवपाची मंजुरी ताका दिल्ली.

'काम बरें कर. हाचे फुडें बडटेच्यो आनीकय संदी येवं येतात.' मॅनेजरान म्हळें आनी तोय उठलो.

'टायपिंगचे काम करूंक हांव एकादऱ्या टायपिस्टाचो आदार घेवं न्हय?' रमेशान भीतभीत विचारलें.

'तशे करूं नाका. तुका एका टायपिस्टची गरज उरतलीच. आनी तूं भोंवडेर आसतना खात्यांत कोणय तरी उरचोच पडटलो. तूं एक नवोच टायपिस्ट घे. कर्मचारी विभागाडकेन अर्जांची फायल आसतली. तुका जाय ताका निवड.'

रमेशाच्या दोळ्यांमुखार त्या खिणाक रुपा उबी रावली. कॅबिनांतल्यान भायर सरलो तेन्ना तो बरोच शांत जाल्लो. अडेचो नेट हाडून ताणे छाती फुडें काडली आनी आपल्या कदेलाचेर येवन बसलो.

कितें घडलें हें समजून घेवंक उत्सूक आशिल्ले तागेले सहकारी आयले आनी जेन्ना रमेशान मॅनेजरालें पत्र तांकां दाखयलें तेन्ना सगळ्यांनी ताचें अभिनंदन केलें.

जाण्टो सेक्शन ऑफिसर खूब अणभवी मनीस. ताणे रमेशाक सांगलें, 'ज्या हुद्याचेर ताची नेमणूक जाल्या तो हुद्दो कंपनीन नव्यानच तयार केला. ऑफिसर म्हणटकच तुका कॅबीन मेळटलें. वेगळो प्यून आनी वेगळी पी.ए.'

सेक्शन ऑफसरालीं उमेद वाडोवपी उतरां आयकतकच कर्मचारी विभागांत वचून अर्जांची फायल हाडपाचें तो येवजितालो इतले म्हणसर त्या विभागांतल्यान प्युनान तीच फायल हाडून ताका दिली.

संशोधकाचे नदरेन ताणे ती फायल तपासली. फायलींत कितलेशाच तरनाट्यांचे अर्ज. त्या अर्जांमदीं आसलो रुपालोय अर्ज. अर्जाचेर एक शेरो आसा. मुलाखत घेतली. उमेदवाराक प्रतिक्षेचे वळेरेंत दवरला.

रमेशाक दिसलें आयज नशीब आपणाचेर भाळ्ळां. आपूण येवजीत तेंच आयच्या दिसा घडटलें. घडये सांजवेळ मेरेन रुपाच आपणाक मेळूंक येतली.

रुपाचो अर्ज ताणे वाचलो. शॉर्टहॅंड टायपिंगाचो कोर्स तिणे केला. मुलाखतीचे परीक्षेत ती पास जाल्या. मॅनेजरान जाय त्या टायपिस्टाची नेमणूक करपाचो अधिकार ताका दिला. फायल घेवन रमेश कर्मचारी विभागांत गेलो आनी थंयच्या अधिकाऱ्यांकडेन रुपालो अर्ज दिवन तिका जाता तिततले बेगीन कामार रूजू जावपाक कळोवचें अशें सांगलें.

शिडांत वारें भरतकच व्हडें अचळय धांवता अशें रमेशान आयकल्लें. आयज अधिकाराचें वारें ताचे तकलेंत भरलें आनी ताचीं पावलां जमनीर धरनात जालीं. मन फुलावरी ल्हव जालें. मेजार बशिल्ले कडेनच तो फुडलीं सपनां रंगोवंक लागलो...

दनपरां जेवण करून परत यो जाल्यार ताच्या मेजार एक पत्र. निळ्या रंगाचो लाखाटो हातांत घेवन ताणे बारीससाणेन तो तपासलो. मोतयांसारक्या अक्षरांत बरयिल्ले ताचें नांव आनी वयर 'वैयक्तीक' हे शिटकवर्णी दिवपी उतर. पत्र धाडटल्याचें नांव लाखाट्याचेर ना.

हुतहुतेपणान ताणें लाखाटो उक्तो केलो. निळ्या रंगाच्या कागदार बरयिल्ली चीट फाटले वटेन सकयलें नांव वाचलें. 'तेजा.'

कोण तेजा? अर्द खीण येर्वजिता सर नांवाचो उगडास जालो. ती चली जिका पळोवन ताणें पसंत केल्ली तिचेच नांव तेजा. उगडासारशीं आकृती दोळ्यांमुखार उबी रावली आनी ताच्या कानाच्या पाळयो तांबड्यो जावन आयल्यो. काळजाक कातकुतल्यो जाल्यो. बेगिबेगीन ताणे पत्र घडी करून बोल्सांत घालें आनी घरा वतकच वाचपाचें थारायलें.

एक प्यून येवन रुपाक धाडिल्ल्या पत्राची प्रत ताका दिवन गेलो. बारीकसाणेन ताणे वाचलें. मनांतल्या मनांत तो सुखावलो. येवन रमेशाक मेळ अशे कर्मचारी विभागान तिका बरयलां. आतां तिका कळ्ळे बगर उरचें ना. आपूणच तिका पावलों. दुबाव ना. पत्र मेळना फुडें ती बिराडार येवन आपणाक मेळटली... लाडी-गोडीची भास उलयतली... पूण आपणे स्टेटस विसरूंक जायना... ना जाल्यार फाल्यां ती माथ्यार बसतली.

पूण..

शेख महमदी सपनां रंगयतना अचकीत एक कळ काळजांत आयला...

... पूण नोकरी मेळना फुडें रुपाचें लग्न जातलें. तिचें लग्न थारां. नोकरी मेळनाफुडे पयल्या म्हुर्तार ती दुसऱ्याची जातली...

एका सपनभंगाचो विरस. पावशी कुपां मळबांत दाटचीं तसो ताच्या काळजांत दाटलो, ताचें ताकाच अजाप जालें. कसल्या हक्कान आपूण रुपाकडेन पळयतां? तिणें आपलें लग्न थारिल्ल्याचें सांगलां. आमची वयलेचाराची वळख... इश्टागत लेगीत म्हणूंक नज... तेभायर आपलें लग्न थारलां.. रुपाचो विचार करप हे लेगीत पाकत, तेजाचेर तो अन्याय...

बॉल्साक हात लावन ताणें तेजालें पत्र सांसपिलें. एके तरेचो धीर ताका आयलो.

निर्शेणेर्चीं कुपां पातळ जावंक लागलीं...

एकाच दिसा कितल्यो घडणुको घडच्यो! वल्लेंतय धरना आनी सुपांतय धरना अर्शी रमेशाची आवर्तिकाय जाली.

कामाचेर चित्त लागलें ना. घडयाळीचो कांटो इतलो संथ कित्याक चलंता असो ताका प्रस्न पडलो.

ऑफीस सुटूटकच सहकारी कारकून च्या मागताले. दुसऱ्या दिसा दिवपाचें उतर दिवन तो सटकलो. थेट बिराडार परतूंक बर्सांत चडलो.

योगायोग कितलो विचित्र पळय! पुराय बर्सांत एकूच सीट रिकामो आनी त्या सिटाचेर एक नायिका बसल्या. रमेश बर्सांत चडत सावन मोटे अपेक्षेन ती ताचेकडेन पळयता. सिटासर्री उबो रावन रमेशान पुराय बस तपासली. दुसरो जागोच ना. ताका अनवळखी नायिकेचे कुशीक बसचेंच पडलें.

शर्टाच्या वयल्या बोल्सांत आशिल्लें तेजाचें पत्र ताच्या हडूऱ्याक स्पर्श करता. बडटेची खोस तागेली मत धूंद करून बसल्या... तकलेंतल्यान काडून उडयली तरी रूपाच्या सहवासाची उमेद मोरपांखावरी चित्तावयल्यान अचळय भोंवता आनी हें सगळें उणे म्हणून तो आंग चोरून बर्सांत बसलो तरी शेजारची नायिका ताका म्हणटा, 'असो संकोच करूं नका. सारको बस.'

खरेंच ते नायिकेन सांगिल्लें कांय तोय ताच्या मनाक जाल्लो भास? रमेश नदर तिचेवटच्यान घुंवडायता. पारव्यासारके दोन दोळे ताचेरच थिरायिल्ले आसले. काळवंडिल्ले लिपस्टीकेचे तांबडे गुंज ओंठ हालतात. एक अस्पश्ट स्मित वळख सोदता काय साद घालता?

'म्हाका वळखलो ना?' नायिकेचो प्रस्न.

हे खेपे ताका दुबाव उरलो ना. प्रस्न तिणेंच विचारलो. खांकून सुकिल्ल्या ताळ्याक ओलसाण हाडीत रमेश म्हणटा, तोंड वळखीचें दिसलें. पूण नांवाचो उगडास जायना.'

'ना. तर्शी आमची वळख जाली ना. हांव संगीताची मैत्रीण. तिच्या लग्नावेळार आमी मेळिल्लीं. जाता उगडास...? त्या दिसा तूं खूब रडिल्लो.'

'हय, हय संगीत म्हजी मामेभयण... तूं हांगा खंय आसता?'

'हांव ह्याच शारांत नोकरी करतां. आमचें घरय ह्याच शारांत. केन्नाय मुजरत यो.'

बायल जेन्ना घर म्हणटा तेन्ना तें घोवालें घर आसूं येता.

तुजे लग्न जालें? असो प्रस्न ताच्या तोंडार आयलो. पूण प्रस्न पिशेपणाचो हें ताचें ताकाच दिसलें आनी उलोवंक उकतें केल्लें तोंड ताणे बंद केलें.

'तूं हांगा खंय रावता?' तिणेच ताका विचारलें.

'ऑफिसाच्या क्वार्टर्सांत रावंक वचपाचो आसा. सध्या एक बिराड केलां. फुडल्या स्टॉपार हांव देवतलों.' रमेशान जाप दिली.

'बिराडार कोण कोण आसात?'

'सध्या हांव एकलोच.' हांसून ताणे जाप दिली.

जाप आयकून ती चली लजेली. तिणे लजेवचें कित्याक असो रमेशाक प्रस्न पडलो.

आंकवार चलयेक दिश्टी पडटा तो आंकवार चलो हो आपलो संभाव्य घोव दिसता काय?

स्टॉपाचेर तो देंवलो तेन्ना ताच्या लक्षांत आयलें आपणे तिका नांव लेगीत विचारलें ना... पत्तो तरी घेवंक जाय आसलो अशे ताका चिर्टमिटे पडले. पूण ते आदींच बस सुटिल्ली.

## १९

प्रवासाक वतना रुपाक सांगातान व्हरपाची कल्पना रमेशाली न्हय. पूण जेन्ना बेळगांवां वचपाचो कार्यक्रम रमेश आंखतालो तेन्ना रुपानच आपून जावन ताका म्हळें, 'बेळगांवा वता जाल्यार हांव येवूं? म्हजे घर थंयच.'

तोमेरेन रुपालो मूळ गांव खंयचो हाची वासपूस रमेशान केन्ना करूंक नासली. ऑफिसांत ताचो आठ दिसांचो सहवास. खूबसो उपचारीक आनी मान मर्यादेच्या अंतराचो आसलो. वळख वा आपलेपणाचो हांसा नदरेक नदर मेळटाली तेन्नाच तोंडार उदेतालो. बाकीचें उलोवप सगळेंच उपचारीक ऑफिसाच्या कामाचें आसतालें. रेल्वेच्या डब्यांत हेर पॅसेंजर आसात, ताचे कुशीक रूपा बसल्या. सिनेमाचें एक मॅगझीन वाचपांत ती गुल्ल आसा आनी वाऱ्यान तिचे उडटले केंस चुकूनमाकून रमेशाच्या पोल्याक आफडून वतात.

प्रसंग कितलो नाट्यपूर्ण आसलो! ऑफिसाच्या खर्चान नायक आनी नायिकेक ... हय ती नायिकाच... भायल्या गांवांत सांगातान वतात. थंय कोण विचारतलो? कोण वळखतलो? पूण नशीबान केल्ली मस्करी पळय इतलीं वर्सां जीं दिसा सपनां रंगयिल्लीं तशें आतां घडूंक लागलां पूण लागीं आसूनय रुपा ताका पयस उल्ल्या. तिचे विशीं वेगळे तरेन विचार करीन दिसता. पूण करतना मन ताचे कल्पनेक लगाम घालता. एक अशी नायिका जिची गांठ दुसऱ्या नायकाकलेन बांदिल्ली आसा आनी एक असो नायक ज्याची नायिका, सप्तपदीची वाट पळयता.

ऑफिसांत बोवाळ जातलोच. पूण हरकत कोण घेतलो? कशी घेतलो? बेळगांवांत कंपनीचे ऑफिस ना. पूण थंय वचून खूबशे रिपोर्ट तयार करूंक जाय. टायपिस्टाक सांगातान व्हरप गरजेचेच आसलें. तो कोणाय दादलो टायपीस्ट सोदतालो तेन्ना रुपान तशी सुचोवणी केली.

रजा घेना आसतना घरा वचपाची संद तिका मेळटली.

डब्यांत दुसरे लोक आसात. जण एकलो आपल्या संवसारांत गुल्ल. मुखावयल्या बांकार एक जोडपें बसलां. जनेलाकडेन बशिल्ली बायल घोवाल्या खांद्याचेर तकली दवरून सुस्त न्हिदल्या. तिगेलो एक हात तागेले मांडयेर. गाडयेचे गर्तावांगडा तिचो देह झुलता. आनी तो उकत्या दोळ्यांनी एकाद्रें शिल्प तोखेवचें ते तरेन रुपाचेर नदर थिरावन बसला.

रमेशाक दिसलें, आपल्या क्षेत्रांतलें आक्रमण. दुसऱ्याच खिणाक तो शांत जालो. पळयतल्याक कोणाच्यान आडावं येता. ताचे नदरेंत वा मनांत विकार आसले तरी ताका कसो विचारतलो? जिका परक्याची नदर सोंसना तिणे बुरखो पांगुरचो ना जाल्यार मोटारीन प्रवास करचो.

बायलो सजतात कित्याखातीर? चार लोकांची नदर आपणाचेर थिरावची म्हणून?

मनाचेर आयिल्ली साय कुर्शाक सारपाचो ताणें यत्न केलो. ताणें त्या परकी दादल्यान रुपाक पळयली जाल्यार म्हजें कितें सरता? नाय जाल्यार रुपा म्हजी कोण?

रमेशाली नदर रुपाचेर गेली. झणझणीत वारो जनेलांतल्यान भितर येता आनी तिगेले पिंगशे रस्मी केंस उबयता. केंसांच्या पोडा कणकणी एक एक मुदी. एकाद्रो पोड वा पोडांचो घोंस वाऱ्याचेर धोलत धोलत रमेशाच्या पोल्याक आफुडटा. तळ्याच्या उदकांत पावस झडटकच तें उदक शिरशिरून तळ्यांत तरंग उदेतात तशें रमेशाचें आंग शिरशिरता. मनांत तरंग उफेतात.

गाडयेचे गर्तावांगडा लकिल्लेभाशेन करून तो रुपाच्या आंगाक तेंकलो आनी परत सारको जाता जातां तिच्या भुजार हात दवरलो.

तिरशे नदरेन रमेशाकडेन पळोवन ती हांसली. पूण संकोचली ना. कितेंय तरी उलोवचें अशें रमेशाक दिसलें आनी ताणें तिका विचारलें, 'बेळगांवा तुज्या घराकडेन कोण कोण आसात?'

हातांतलें नेमाळें रुपान बंद केलें. सारकी बसपाचें निमित्त करून रमेशाच्या म्हऱ्यांत सरकली, दाव्या हातान केसांचेर मस्ते पोड फाटीं सारले आनी गोड हांसली.

रमेशाच्या काळजावयल्यान मोराचे पांख भोंवले. फिकट लिपस्टिक लायिल्ले पिटकुळेच्या पाकळ्यांसारखे दोन ओंठ उकते जाले. दाळमाच्या दाण्यासारखे दांत चकचकले. आनी दोळ्यांतली नदर आपलेपणान अरळ आनी लजेन जड जाल्ली ताणे पळयली.

'तुका आमगेर व्हरतलीं तेन्ना सगळ्यांची वळख जातलीच. आमचें घर मनशांनी भरिल्लें आसा. आईबाबा आसात. फाटलीं फुडलीं भांवडां. दोन बापोलये आनी तांचो संवसार. वीसपंचवीस लोक एका घरांत रावतात. पूण घरचें वातावरण मायेचें, तूं आयल्यार सगळ्यांकच खोस जातली.'

'म्हाकाय तुज्या घरच्या लोकांक मेळपाची संद गावतली.' रमेशान जाप दिली.

'तुवेंच म्हाका नोकरी मेळोवन दिल्या हें तांकां खबर आसा. तुजे उपकार पावोवप म्हज्यान जमचें ना. पूण आमच्या घराक तुजे पांय लागले जाल्यार आमकां सगळ्यांक

आनंद जातलो.'

'जाणा तू?' रमेशाक मस्करी येवजली, 'तुका कॉल धाडचे आर्दी हांव दुविधेत पडिल्लों. नोकरी मेळ्ळी जाल्यार तूं लग्न जातली...'

'म्हाका नोकरेची गरज आसली. न्हवरेकारांली अट आसली ती जालीच. पूण म्हाकाय स्वतंत्र, स्वावलंबी रावपाचें आसलें. रुपान म्हळें.

'पूण म्हाका एक समजना, नोकरी मेळसर लग्न लांबणेर उडोवपो फाटलो तांचो हेतू कितें?

'घडये लग्न जाले उपरांत जोडनाशिल्ले सुनेचो भार आंगार पडत म्हणून ते भियेल्यात आसतले. घडये न्हवऱ्याची जोड वाडटो खर्च भागोवंक नुपुरो आसतली... खरें कितें तें हांव नकळ. हांवे जाल्यार धरिल्लें, म्हाका नोकरी मेळची ना आनी तें लग्न केन्ना जावचें ना.'

'नोकरी मेळिल्ल्याचो रकाद न्हवरेकारांक गेलो?'

'हय. त्या उपरांत तो चलो म्हाका मेळून लेगीत गेलो.'

'तें आर्दी केन्नाच मेळूंक नासलो?'

रुपा लजेली. पिकिल्ल्या द्राक्षाभाशेन तिचे पोले अरळ जाले. तिणे साडयेच्या पदरान तोंड लिपोवन जाप दिली ना.

दोगां मर्दां संवाद चलता आसतना लेगीत रमेशाली नदर खिणांत रुपाचेर तर खिणांत मुखावयल्या बांकाचेर बशिल्ल्या त्या दादल्याचेर वताली. अजून तारची बायल पुराय विश्वासान घोवाच्या खांद्यार तकली दवरून न्हिदल्या आनी तिचो घोव एकाद्या भुकेल्ल्या अधाशान खावपाची वस्त पळोवची तसले वसवशे नदरेन रुपाक पिसुडटालो.

'तुका दुसऱ्या खंयच्याय शारांत म्हज्या सांगातान प्रवासाक वचचें पडल्यार तूं येवशीत?' खांकडेतच रमेशान प्रस्न केलो.

'म्हाका प्रवास खूब आवडटा... पूण हे खेपे घरा येवंक मेळटा म्हूण हांवें तुजे लागीं मागलें.'

'म्हणटकच दुसरेकडेन वचपाची तुजी तयारी ना तर!'

'सध्या तरी म्हजी हांव स्वतंत्र आसा. फुडलें कशें सांगूं? लोकांचे जिबेक हाड नासता आनी दुबावाची कीड एक खेपे वळवळ्ळी जाल्यार...'

'आज तूं म्हज्या सांगातान बेळगांवा आयली ही गजाल तुज्या घोवाल्या घरच्यांक कळ्ळी जाल्यार?'

'हांवेंच ताका सांगलां. ताणे विरोध दाखयलो ना. पूण फुडें ताचें मत कशें आसत तें हांव नकळ.'

'तुजें मत सांग. तांणी विरोध केलो ना जाल्यार?'

'तर हांव प्रवासाक एका पांयार तयार.'

'आनी विरोध केलो जाल्यार?'

'आजच कशी जाप दिवं!'

'म्हाका जाप नाका. हांव तुका सक्तीय करचों ना. पूण फाल्यां कंपनीन तशी अट घाली जाल्यार पेंच उप्रासतलो.'

एकदम रूपा गंभीर जाली आनी तिचे दोळे भरून आयले. आपलो हात तिचे फाटीर दवरून रमेशान म्हळें, 'हांवें मस्करी केली. तुका कोण सक्ती करचो ना.

दोळ्यांत भरिल्लीं दुकां पोल्याचेर गळ्ळीं. आपल्या पदरानच तिणे तीं पुसलीं आनी लोकांची नदर चुकोवचेखातीर नेमाळें दोळ्यांमुखार धरलें.

गाडी आपले गतीन धांवताली. स्टेशन लागीं पावलें तशे लोक देंवपाची तयारी करूंक लागले. बांकापोंदचें सामान भायर काडूंक लागले.

त्या मुखावयल्या दादल्यान आपले बायलेक उठयली. ती बाबडी सपन पळयताली आसुंये. एकदम कांचवेवन तिणें दोळे उकते केले आनी 'क्या हुआ?' असो प्रस्न करून आपल्या दोनीय हातांनी घोवाचो हात घट धरलो.

'बेळगांव लागीं आयलें.' रमेशान रुपाक म्हळें.

तिणें जाप दिली ना. तोंडावयली खंत अजून पुरती पुसून वचूंक नासली. तरीय ती हांसली, उठून उबी रावली. रमेशा मुखार उबी रावन तिणें आपलें न्हेसप सारकें केलें आनी वयल्या बर्थावयली आपली बॅग काडूंक लागली.

'इतली ताकतीक कित्याक करता?' रमेशान तिका विचारलें.

'बेळगांव आयलें.' तिणें जाप दिली.

त्याच खिणाक गाडी प्लॅटफॉर्मात भितर सरली. कुली डब्यांत आयले. सगळे पॅसेंजर एकाच वेळार उबे रावले.

मनशाच्या आंगाक मनीस खेटून उबो. ते परिस्थितीचो फायदो घेवन तो मुखावयल्या बाकावयलो दादलो रुपा आनी रमेशामदीं रिगूंक सोदतालो. तागेली दानत शुध्द ना असो रमेशाक दुबाव आयलो आनी मुखार आशिल्ल्या रुपाच्या कमराभोंवतणी आपल्या हाताचो विळखो घालून ताणें तिका फाटीं ओडली.

फाटमोरी रुपा खिणाभितर ताच्या वेंगांत आयिल्ली. कितें घडलें तें कळूंक नाशिल्लें.रुपान तकली फाटल्यान घुंवडावन नदर वयर करून रमेशाकडेन पळयलें आनी ती हांसली.

रमेश भानार आयलो. विळख्याचो हात ढील जालो. पूण प्लॅटफॉर्माचेर देंवतासर तीं दोगांय एकामेकांक खेटून उल्लीं.

चित्तांत विकाराचे किडे वळवळ्ळे. ताणे तशे येवजून करूंक नासलें. अचकीत तें घडिल्लें. रमेशाक दिसलें! आपणाक त्या दादल्याची नसाय कित्याक जावची?

प्लॅटफॉर्माचेर देंवतकच रुपाकडेन खुलासो करचो अशें ताका दिसलें आनी ताणें म्हळें, 'सॉरी...'

अजापून रुपान ताचेकडेन पळयलें! प्रस्नचिन्नाची खूण तिच्या कपलार सुरू जावन नाका मेरेन देंवल्या अशें रमेशाक दिसलें.

'गर्देत तो रिगतालो... देखून तुका फार्टां ओडली.'

परत रुपा हांसली. 'तातूंत कितें जालें? ते खातीर सॉरी कित्याक म्हणूंक जाय?'

'तुजो गैरसमज जायत म्हणून म्हणटा... तो दादलो...'

'जाणा हांव. तो नदरेनच म्हाका तपासून घेतालो...'

'पूण म्हजें वागप चुकलें. एके परकी चलयेक...'

'आसूं म्हळें न्हय.' रूपान उबगण, लटको राग आनी आपलेपणाचे भाव तोंडार हाडून म्हळें आनी ल्हवूच ताचो हात आपल्या हातांत घेवन सोडलो.

ह्या मोन्या संदेशाक अर्थ आसा काय? रमेश येवजीत रावलो.

## २०

रूपालें घर म्हळ्यार एक व्हडलो वाडो. भायले वटेन घर केदें व्हडले ताची कल्पना येना आसली. एका अरूंद बोळांत किल्ल्याच्या तटासारकी वणत. ते वण्टीक मदींच एक ल्हानशें दार. तकली बागोवनच भितर सरचें पडलें. भितर आंगण. त्या आंगणांत घर. एके काळखा पाळणीतल्यान वतकच भितर दुसरें आंगण. त्या आंगणाचे एके पडवेर रुपान रमेशाक बसयलो आनी ती भितर वतासर चारय वटेच्यान बायलो आनी भुरगीं येवन ताका पळोवंक लागलीं. प्रदर्शनांत दवरिल्ली वस्त पळयतात तशीं घरचीं मनशां रमेशाक पळयतालीं.

संकोचान रमेश लजेलो आनी आपली लज कुशीक सारपाच्या यत्नांत ताणे एका ल्हान भुरग्याक हातांनीच लागीं येवंक खुणायलो.

'ना' म्हणून तकली हालोवन तो भितर धांवलो तेन्ना सगळे भुरगे हांसले.

घरचे दादले आयले आनी रमेशाची सुटका जाली. तरी आसतना आपूण प्रदर्शनांत दवरिल्ली एक वस्त आनी आड कुशीक लिपून घरचे लोक आपणाक पळयतात अशें ताका दिसत उल्लें. दुसऱ्याच खिणाक ताणे येवजिलें जावंय पसंत करपाचो प्रस्नच ना. देखून आपणे खांकडेवपाची गरज ना. विचारासरशीं मन ल्हव जालें. तरी पूण नव्यानच लग्न जाल्लो जावंय मावोड्या येतकच तागेली दवरतात तशी आपली बडदास्त दवल्ल्या अशें मर्दा मर्दा रमेशाक दिसतालें.

एके गजालीचें ताका अजाप जालें. च्या आनी फराळ ताच्या मुखार एक स्टूल दवरून रूपानच ताचेर मांडलो. घरचे दादले भोंवतणी उबे. बायलो इल्ल्यो कुशीक उब्यो. दुसरे कोणूच च्या घेना वा फराळय खायना. ल्हान भुरग्यांक जाण्टेल्यांनी आमडून भितल्लेवटेन धाडिल्लीं.

'खा तूं.' रूपान ताका आग्रो केलो.

रमेशान नदर सगळ्यो वयल्यान भोंवडायली. तो खांकडेलो. ताणे म्हळें, 'म्हाका कांय नाका. हांव च्या घेतां.'

'अशें कशें जातलें?' एका दादल्यान - तो घडये रुपाचो बापूय आसुंये- 'तुजे खातीर मुजरत केलां.'

घरांत आयिल्ल्या सोयऱ्याची अशे तरेन बडदास्त दवरपाची तरा रमेशाक विचित्र दिसली. चोराच्या मनान ताणे इल्लो शिलो खालो आनी तो मेरेन न्हिवून गेल्ली च्या उदका भाशेन गटगटात पिवन उडयली आनी तो उठलो.

सुपारी हातांत दितल्या दादल्यान म्हळें, 'आमची रूपा तुमच्या ऑफिसात आसता. तिचेर मात्शें लक्ष दवरात.'

ल्हान भुरग्याक शाळेत घालतना शिक्षकाक जे तरेन सांगचें ते तरेन तो उलयिल्लो. रमेश निखटो हांसलो आनी ताणें म्हळें, 'रुपाचो तुमी हुस्को करूं नाकात. ती हुशार आसा.

'तरीकय एक चली जाल्ल्यान मर्यादा पडटातच न्हय?'

'तिचें लग्न केन्ना करपाचे थारायलां?' विशयांतर करपाखातीर रमेशान प्रश्न केलो.

'पळोवया...'

रमेश भायर सल्लो तेन्ना रिक्षामेरेन ताका पावोवंक रुपा आयिल्ली. तिणे म्हळें, 'तूं हॉटेलांत वता न्हय? आतां दुसरें काम नासत जाल्यार हांव रावूं?'

'हय तर. आयची सांजवेळ आनी रात घरच्यां वांगडा सार... फाल्यां सकाळीं आठ वरांची गाडी धरूंक जाय. तूं थेट स्टेशनार येता न्हय?'

हय म्हणून रूपान तकली हालयली.

हॉटेलाच्या बंद रूमांत पावतकच रमेशाक मेकळें दिसलें. रुपाचो सहवास दोन खेपे ताका मेळिल्लो. पयले खेप हॉटेलांत आनी गाडयेंत. त्या उपरांत रुपा ताच्यापसून पयस अशी नासली तरी मनाचें अंतर उल्लें.

हॉटेलाच्या रुमांत बशिल्लेकडेन ताका रुपाचो उगडास येत रावलो. ताचें ताकाच अजाप दिसलें. तेजाचो उगडास काडपाचो सोडून आपलें मन रुपाचे भोंवतणीं कित्याक घुस्पता? कोण ती म्हजी...?

...ह्या प्रस्नाक मनाकडेन जाप नासली. सगळी सांजवेळ आनी रात फर्टवित्ल्या मनान ताणे सारली. ताणे इशारत केल्ली जाल्यार घडये रुपा हॉटेलाच्या रुमांत येत आसली. तांतूंत पातक कसलें आसा. तिची जशी सोयरीक जाल्या तशी ताचीय जाल्या. पूण इश्टागर्ताच्या नात्यान तांच्यानी मेळूं येतालें...

सकाळीं तो रेल्वे स्टेशनाचेर पावलो त्या आदींच रूपा थंय आशिल्ली. गाडी येईसर तांचेमदलो संवाद उपचारापुरतो जालो. जेन्ना तीं डब्यांत बसलीं आनी गाडी सुटली तेन्ना मात डब्यांत तिसरो मनीस ना हे पळोवन रमेशाक अजाप जालें.

शिश्टाय दाखयत रुपा मुखावयल्या बांकाचेर बसली. गाडयेच्या गडगडाटात रमेशान विचारिल्लो प्रस्न तिणे आयकलो ना. तितलें निमित्त्य करून रमेश उठलो आनी तिचे कुर्शाक वचून बसलो.

रूपान एकदम आंग चोरून घेतलें आनी पदर फुडल्यान ओडून घेतलो. तो आपलो अपमान अशें रमेशाक कित्याक दिसलें कोण जाणा. तोय कुर्शाक सल्लो आनी खीण भर मोन्यांनी जनेलांतल्यन भायर पळयत रावल्या उपरांत परत उठून मुखावयल्या बांकाचेर बसलो.

'कितें जालें?' रुपान ताका विचारलें.

ताणे जाप दिली ना.

रूपा आपूण जावन उठली आनी ताचे कुर्शाक येवन बसली.

परत तिणे तोच प्रस्न विचाल्लो, 'कितें जालें?'

'खंय कितें जालें?' रमेशान परतो प्रस्न विचाल्लो.

ताच्या खांद्याक हात लावन रुपान म्हळें, 'खरें कितें जालें तें म्हाका सांग. तुका म्हजो राग आयलो?'

'ना बाये. तुजेर रागार जावपाचो म्हाका हक तरी खंय आसा?'

'असो उरफाट्यांनी कित्याक उलयता? कितें जालें तें सांग न्हय?'

'कांय ना. तूं अजून संकोच करता हें पळोवन हांव कुर्शाक सल्लो.'

पिशेपणा करूं नाका.' रुपान म्हळें, 'हांवें खंय संकोच केला. पूण तुका सगळें खबर आसा. समाजांत रावतना थोडी पथां पाळचीं पडटात.'

'तें हंव नकळ काय कितें? तुका दिसता हांव तुजो गैरफायदो घेतलो म्हणून?'

'ना तशें निखालच दिसना. तशें दिशिल्लें जाल्यार हांव तुज्या सांगातान प्रवासाक येवपाचीच न्हय. तुजे विशीं म्हज्या मनांत कसली भावना आसा हें हांव तुका कशें सांगूं?... पूण म्हाका भय दिसता.'

'तुका म्हजो भय दिसता? कित्याक?'

'तुजो न्हय. म्हाका म्हजोच भय दिसता... बायलांचें मन तुका समजुचें ना. आमकां कितेंय दिसलें तरी तें उलोवपाची चोरी. नशिबांत जें वाडून दवल्लां तें मोन्यांनी आमी भोगतात.'

रमेश हांसलो. खीणभर रुपाकडेन पळयत रावलो. तिच्या दोळ्याक दोळो दिवन तो तिचें मन नियाळूंक लागलो. आपल्या काळजाचो धडधड गाडयेच्या गडगडाकडेन ताल धरूंक लागला अशें ताका दिसलें... येदो वेळ निश्चळ नदरेन रमेशाक पळयत राविल्ल्या रुपान नदर सकल केली आनी दोनय हात पांगरून घेतले. लजेची तामसाण तिच्या कानाचेर फांकिल्ली. रमेशान ती देखली आनी आपलो हात ल्हवूच तिचे फाटीर दवल्लो.

एकदम तिणे आंग काडलें. इंगळो चाबचो तशें. आनी ती कुर्शाक सल्ली.

रमेशान हात काडून घेतलो. अजून गाडी नेटान धांवता. गडगडाचो ताल वाडत

रावला. रमेशाचें मन त्या तालाचेर धोलता.

'रुपा!' ताणे उलो मारलो.

आपलो आवाज घोगरो कसो जालो हाचें ताका अजाप जालें.

रूपान नदर वयर केली ना. मान सकल घालूनच तोंडातल्यान एक हुंकार काडलो.

'तुका खंयच्च्या उतरांनी सांगू' रमेशान म्हळें, 'हांव तुजेकडेन एक मादी म्हणून पळयना. तूं म्हाका भयणी समान अशें तुका सांगून म्हज्या मनाक हांव फटोवंक सोदीना. तूंच सांग आमचें नातें कितें?'

'प्रवासांतल्यां सांगात्यांचे. आमचे मुक्काम वेगळे.' तिणे जाप दिली.

'रेल्वेच्या रुळाभाशेन सदांच समांतर उरचेलें?'

हे खेपे नदर वयर करून रूपा मेकळेपणान हांसली. हांसता हांसता तिणे ताचे भूज आपल्या दोनय हातांनी घट धल्ले आनी ल्हवूच आपलें माथे ताच्या खांदार तेकोवन म्हळें, 'तू कवी म्हणपाचें हांव नकळ आसलीं.'

'कवी कविता बरयता.' रमेशान म्हळें, 'कविता जगपाचें भाग्य ताच्या नशिबांत नासता. दिव्याभाशेन दुसऱ्याक उजवाड दिलो तरी ताच्या तळा सदांच काळोख उरता.'

हांसतां हांसतां रुपा रडूंक लागली. तिगेलो हुडको आयकून रमेशान तिच्या दोनय भुजांक धरून तिच्या तोंडाकडेन पळयलें. तिचे दोळे भरून आयिल्ले. ताचे छातयेंत तकली घालून रुपान म्हळें, 'तूं आदींच मेळिल्लो जाल्यार जीण वेगळेच दिशेन वचपाची...'

ते अवस्थेंतय रमेश सुखावलो.

## २१

ऑफिसांतल्यान रमेश बेगीन बिराडार परतलो. एके तरेची अनवळखी अस्वस्थताय तागेलें मन घेरून बशिल्ली. गुन्यांवाचें एक चेपण ताच्या काळजांत बेळगांवच्यान येत सावन पडिल्लें आसा.

वा म्हणटना वार्ता करपाची लोकांक संवय. मार्गार रुपाचो ताजेकडेन संबंध जोडून लोकांनी काणयो घडयल्यो जाल्यार दोश कोणाक दितलो!

संस्कार खूबच चिवट आसतात. जिचेकडेन सोयरीक थारल्या ती आपली बायल. आनी हेर सगळ्यो बायलो आवय वा भयणीसमान मानपाची शिकवण पोरने संस्कार दितात. बुद्द ताचें समर्थन करता. पूण मन मानिना. ताचें मन रुपाकडेन ओड घेता.

बिराडाच्या एकांतांत तो आपणाकच प्रस्न विचारता रुपाविशीं इतलें आकर्शण कित्याक; ती फकत योगायोगाची गजाल न्हय? नायिकेचें स्वप्न रंगोवंक पुराय जुवानपण सारल्या उपरांत जेन्ना एक तरुण आनी सुंदर चली लागीं येता तेन्ना तिचो सहवास जाय

जाय असो दिसलो जाल्यार तातूंत गेर कितें...? ती वासना अशें खीणभर मान्य केलें जाल्यार लेगीत ती असभावीक म्हणूंक नज. बेळगांवां वता आसतना डब्यांत एकांत मेळ्ळो ना तरी चोरून केल्ल्या स्पर्शाचे सुख ताणे अणभवलें. परताच्या प्रवासांत रिकाम्या डब्यांत ताणे एक पावल फुडें घाल्लें.

... हे पातक? हे नीति भायरें? ही खबर तेजाच्या कानार पावल्यार? ती मानी चली लग्न मोडूंक फुडें सरली जाल्यार कितें जातलें? ऑफिसांत ती गजाल पावली जाल्यार खंयच्या तोंडान तो थंय काम करतलो...? आनी रुपाचेंय कितें जावपाचें? आयज सकाळच्यान ताचें चित्त थाऱ्यार ना.

सकाळच्यान घडिल्ल्या प्रसंगांचो तो उगडास काडूंक लागलो. अशे अस्वस्थ जावपासारकें कांय घडूंक नासलें. रुपाल्या लग्नाचो म्हूर्त थारलो तातूंत नवें कितें! ताणें मनांत हाडलें जाल्यार त्याच म्हुर्ताचेर ताचें आनी तेजाचें लग्न घडोवन हाडूं येतालें. अस्वस्थ जावपाचें कारणच नासलें. कोणे कोणाक फटोवंक ना. कितेंच विपरीत घडूंक ना.

कितेंच विपरीत घडलें ना म्हणून ही अस्वस्थाय काय? एक विचार मनांत आयलो आनी रमेशाक हांसूक आयलें. हांशासरशीं मन खूबच ल्हव जालें.

बेळगांवच्या प्रवासांतल्यान परत येतासर रमेश पुराय बदलून गेलो आनी रुपा लेगीत माळ्शें अंतर दवरून वागता अशें ताका दिसूंक लागलें.

खंयतरी आपलें चुकलें अशें ताचें मन ताका सांगतालें. बुद्द आनी मन हांच्या संघर्षांत आपणे कांयच पातक करूं ना अशी गवाय तागेली बुद्द ताका दिताली. एक सादो स्पर्श जो थोड्या वेळापुरतो गाडयेच्या डब्यांत घडिल्लो तितलोच. एकाय उतरान ताणे वा तिणें व्यभिचार करूंक ना. पूण बुद्दीची ही वकिली मन मानून घेवंक कबूल नासलें. ताच्या मनांत जो विकार उपजल्लो तो ना म्हणपाचें धाडस तो कशें करतलो? बुद्दीन ना म्हणूंक लायलें तरी मनाक कसो फटयतलो? रुपाच्याय मनांत विचार आयिल्लो आसूंकच जाय ना जाल्यार ती असली सूचक भास उलोवन खंत उक्तावपाची न्हय...

रमेशाक दिसलें, कितली विचित्र अवस्था ही! ताचें लग्न थारलां आनी तिचेंय थारलां. दोनय लग्ना जुळयल्लीं. जिचेविशीं मोगाची भावना काळजांत उपजूंक लागली तिचेकडेन कसलेंच नातें ना. नातें दवरूंक चोरी. मागीर ते नातें पवित्र इश्टागर्तीचें वा दुसरें कसलेंय आसलें तरी समाजाक तें मान्य आसचें ना.

एक बदल रुपांत घडिल्लो. तिका कॅबिनांत रमेशान आपयली जाल्यार अनवळखी बॉसामुखार येवचें तशी ती येताली आनी रमेशाकय मान वयर करून तिचेकडेन पळोवपाचें धाडस जायना आसलें. पूण हें मोने अंतर ताका भितर सावन धोंसतालें. ते परस मेकळेपणान उलोवन वाटो वेगळ्यो केल्ल्यो बऱ्यो अशें ताका दिसतालें. पूण ऑफिसाच्या वातावरणांत त्यो गजाली कशो करतलो...?

इतले म्हणसर दुसऱ्या प्रवासाचो कार्यक्रम आंखपाचो प्रसंग आयलो. फायल तयार करूंक सांगले उपरांत रमेशान नदर फायलींत लिपोवन रुपाक म्हळें, 'हे खेपे हांव

एकलोच वतलो.'

'यस सर.' रुपान तितलीच उपचारिक जाप दिली.'

रमेशाक ते जापेची अपेक्षा नासली. ताणे नदर वयर करून रुपाकडेन पळयलें आनी ताका हांसूंक आयलें. गोंदळिल्ले, कांचवेल्ले हरणा भाशेन आंग चोरून ती मुखार उबी आसली.

'आय एम सॉरी रूपा.' ताणे म्हळें.

'ना, तशें कित्याक म्हणटा?' रुपान जाप दिली, 'म्हाका येवपच शक्य जावचें ना. तूं नासतना एकादऱ्या दिसाखातीर हांव कॅज्युअल लिव्ह घेवंक सोदतां.'

'तुका जाय तेन्ना घे... हाचें फुडें आमी प्रवास सांगातान करप समा जावचें ना. त्या दिसा म्हजें मात्शें चुकलें..'

तिणे जाप दिली ना.

'वचूं हांव?' इतलेंच तिणें विचारलें.

'तुज्या लग्नाचो म्हूर्त थारला?' रमेशालो प्रस्न.

'हय, आमंत्रणां छापूंक दिल्यांत. तुवें मात मुजरत येवंक जाय.'

'हांव येतलोंच. खंयचे तारखेक?'

'फुडल्या म्हयन्याचे वीस तारखेक... लग्न बेळगांवां जातलें.' तिणे जाप दिली. आनी ती भायर गेली.

कारण नासतना रमेशाच्या काळजांत एक कळ आयली.

हे खेपे प्रवासाक वता आसतना मदीं थोड्या वेळाखातीर घरा वचचें आनी आपल्या लग्नाची तारीख थारावची... जमलें जाल्यार तेजाकय मेळून येवचें अशें ताणे येवजिल्लें आनी ऑफिसांत बसून तेजाक एक पत्र बरयलें.

ऑफिसांत कोण नासतना मुखार उकती फायल दवरून कल्पनेचे खेळ खेळटां खेळटां बुद्द आनी मनाचो आपालिपाचो खेळ चलोवप हो ताचो छंद जाला. पूण आयज अचकीत तो अस्वस्थ जालो आनी ताणे परत रुपाक आपोवन घेतली.

'म्हज्या जिवाक बरें दिसना. हांव घरा वतां.' ताणें रुपाक सांगलें.

'कितें जालें? डॉक्टराक कित्याक दाखयना?' रुपाच्या आवाजांत हुस्को आसलो.

'पळयतां.' अशें म्हणून तो उठलो. आनी ऑफिसांतल्यान भायर सरलो.

भायर येतकच ताचें मन मात्शें ल्हव जालें. रिक्षा करून घरा वचपाचें तो येवजितालो. पूण ताणे बेत बदल्लो. काम नासतना बाजारांतल्यान भोंवलो. दुकानाच्या शोकेसींनी दवरिल्ल्यो वस्तू पळयत दनपारमेरेन वेळ काडलो आनी सदांचे खानावळींत जेवण घेवन तो बिराडार परतलो.

आपूण ओगीच घरा आयलों अशें ताका दिसलें. पुण आतां परत ऑफिसांत वचप पिशेपणाचें जातलें अशें येवजून एक कादंबरी तो वाचूंक लागलो आनी वाचतां वाचतां केन्ना दोळो लागलो तें ताका कळळेंच ना.

भायले वाटेन कोण तरी दारार मारतालो त्या आवाजान तो जागो जालो. उक्त्या जनेलांतल्यान ताणे भायर पळयले. सूर्य अस्ताक देंवला. हाताक घड्याळ आसली. स वरां जाल्लीं.

परत दार वाजलें. न्हिदसुऱ्या दोळ्यांनी ताणें दार उकतें केलें आनी आपूण सपनांत बी ना मूं अशा संभ्रमात तो पळयत रावलो. मुखार रुपा उबें.

'कसो आसा? डॉक्टराक दाखयलें?' तिणें विचारलें.

'यो भितर यो' अशें म्हणून तो घोंट घेवंक मान्यांत गेलो.

परत येवन पळय जाल्यार उकत्या दारांतल्यान दोन पावलां भितर सरून रुपा उबेंच आसा.

'तूं उबें कित्याक?' असो प्रस्न ताणे विचारलो आनी रोखडेंच ताका भान जालें तागेल्या घरांत कदेल ना. एकच कदेल आसा तें न्हिदपाचे कुडींत मेजाकडेन दवरलां.

रमेशान सगळे दिवे पेटयले आनी रुपाक भितल्ले कुडींत आपयलें.

'ना. बसना हांव.' खांकडेत ताणे म्हळें, 'तुजी खबर घेवंक म्हणून आयिल्लें. म्हाका वचूंक जाय. रिक्षा भायर उबी दवरल्या.'

तागेलो संकोच रिक्षाचें भाडें वाडटलें हे खातीर नासलो इतलें रमेशाक कळटालें. पूण घरांत आपूण एकलोच आसतना ताका आग्रो करूंकय तो फाटींफुडें जातालो.

'दोन मिण्टा बस.' म्हाका कितें उलोवपाचें आसा. रमेशान म्हळें.

तें कुडीत भितर येवन मेजाक फाट तेंकोवन उबे रावलें.

'म्हजेर तुजो विस्वास ना?' रमेशान विचारलें.

'अशें कित्याक म्हणटा?' विस्वास नाशिल्लो जाल्यार हांव हांगा येवपाचेंच न्हय. पूण म्हजे भोंवतणी लक्ष्मण रेषा आसा.' काकुळटेच्या सुरांत रुपान जाप दिली.

'बस तूं. हांव ती रेषा हुपचो ना. त्या दिसा मात्सो घसरलों. पूण कितें करूं?'

'जालें तें जावन गेलें. चूक तुजी न्हय. म्हजीच चूक म्हणूंक जाय.'

'चूक कसली? आमी तशे थारावंक नासलें न्हय? पूण मर्यादेची शीम आमी हुपूंक ना.'

'मर्यादेची शीम खंय सुरू जाता आनी खंय सोंपता हें कोणें थारावपाचें! पूण त्या दिसाच्यान म्हजें मन थाऱ्यार ना. हांव चुकलें अशें म्हाका दिसता. हांव तुजो गुन्यांव करिना. पूण तुज्या म्हऱ्यांत येतकच त्या प्रसंगाचो उगडास जाता... '

'म्हाकाय तशेंच जाता. तुका पळयना फुडें म्हजें मन गोंदळटा.'

रुपा कांय उलयलें ना. पूण ताच्या दोळ्यांत दुकांची थिकां चकचकलीं. लागीं वचून आपल्या बोटांनी तीं पुसचीं अशे रमेशाच्या मनांत आयलें. ते आदींच ताणे आपले साडयेच्या पदरान दोळे पुसून म्हळें, 'वचूं हांव?'

'वच. पूण मनाची अस्वस्थताय हांगा दवरून वच. हांव तुजो बरें मागपी हें विसरूं

नाका.'

हुडको गिळून हांसपाचो यत्न करीत ताणे म्हळें, 'जाणां हांव. दैव आमची परिक्षा घेता. तरीकय हांव धाडस करीन आसलें... पूण तुजेंय लग्न थारलां.'

'रूपा, जिवितांत सगळींच नातीं जुळटात अशें ना. पूण ते खातीर नातें तोडपाची गरज नासता. तूं खंयय आसलें तरी सुखी आसचें इतलें आंवडेपाची घटाय म्हज्या मनाक मेळूं इतलेंच हांव देवाकडेन मागतां.'

तें एक पावल फुडें सरलें आनी मार्गार घुंवलें. वतां वतां ताणे रमेशाच्या भुजाचेर हात दवरलो आनी नदरेक नदर दिना आसतना फुडल्या दारांतल्यान तें भायर सरलें.

कुपांनी भरिल्ले मळब पावसाची दडक झडून वतकच जशें मेकळें जाता तशें रमेशाचें मन निवळ जालें.

## २२

रुपाल्या लग्नाक वचचें काय वचूं नये अशा द्विधा मनःस्थितींत रमेश आसलो. ऑफिसांतल्यान सगळ्यांकच आमंत्रणा गेल्लीं. चलयेचें कुळार जरी बेळगांवा आसलें तरी लग्न शारांतच जावपाचें आसलें. रमेशाक आमंत्रण दितना रुपान दोन कार्डां ताच्या हातांत दिल्लीं. लग्न सकाळचें आनी पान-सुपारी सांजची.

'लग्नाक आमी कोणाक सांगूंक ना.' रूपा रमेशाक म्हळें, 'फकत लागींचे लोक तितले लग्नाक येतले आनी येवकाराच्या सुवाळ्याक सगळ्यांक आमंत्रण दिलां.'

'म्हाका तुवें घरच्यांत घालो तर...'

'हय. तुका आमच्या घरचीं सगळीं मनशां वळखतात. म्हज्या बाबाक तर तूं खुबच आवडता. तुका लग्नाक आपोवपाची सुचोवणी ताणेच म्हाका केली.'

'म्हणटकच लग्नाक तुज्या बाबालें आमंत्रण आनी रिसेप्शनाक तुजें अशें मूं?' रमेशान विचारलें.

'तशें जाल्यार तशें समज. पूण लग्नाक तुवें येवंकच जाय. ना जाल्यार...'

रुपान वाक्य पूर्ण केलें ना. रमेश मोठे अपेक्षेन ती कसली धमकी दिता तें आयकूंक तिजेर नदर थिरावन राविल्लो. पूण तिणे जिबेवयलीं उतरां गिळ्ळीं आनी मान सकल घाली.

'ना जाल्यार कितें तें सांग.' रमेशान म्हळें.

'तो अधिकार म्हाका खंय आसा?' संथ आवाजांत रुपाली जाप.

तिगेलो आवाज कांपरो जाल्लो? काय रमेशाक जाल्लो तो भास? तिगेल्या दोळ्यांच्यो कडो ओलावल्याचो लेगीत ताका भास जाल्लो. पूण तिणे दोळ्यांक पदर सोडाच बोट

लेर्गात लायलें ना.

'हांव फाल्यांच्यान रजेर वतां. म्हाका म्हयन्याची रजा जाय.' विशय बदलून इल्ल्या उपचाराक सुरांत रुपान म्हळें.

'तुजी रजा तितली शिल्लक आसा?' बॉसान विचारचो तसलो प्रस्न रमेशान विचाल्लो आनी तिज्या तोंडावयले बदलते भाव पळोवपाखातीर ताणे परत तिजेर नदर रोखली.

तिणे मान वयर केली ना. दोनय हाताचीं बोटां एकमेकांत भरून म्हळें, 'ना. अजून हांव कन्फर्म जावंक ना आनी वर्स जालेबगर रजा मेळना. तुवें शिफारस केल्यार...'

'पूण हांव नेम कसो मोडूं.?'

रमेशाली रुक्ष प्रस्न रुपक अपेक्षित नासलो. विजेचो धक्को बसचो तशें तिणे आंग हालयलें आनी नदर वयर करून रमेशाले नदरेंत ती भरशीत म्हळें, 'जाल्यार म्हाका नोकरी सोडची पडटली.'

'हांव तुका तशें सांगीना.'

'मागीर हांव करूं कितें? नोकरेक लागून आदीं लग्न उल्लें आनी आतां नोकरी वचत म्हूण लग्न लांबणेर कशें उडोवं?'

'ना. ना. पूण लग्नाखातीर म्हयन्याची रजा कित्याक जाय?' हातांतलें आमंत्रण वाचीत रमेशान विचाल्लें, 'लग्नाक आठ दीस आसात. आनीक आठ दीस रजा पुरो ना? म्हयनोभर घरा रावन कितें करतली?

रुपान जाप दिली ना. पूण तिज्या तोंडावयली तिडक लिपून उल्ली ना. ती एकदम उठून उबी रावली आनी कांय एक उलयनासतना केबीनांतल्यान भायर गेली.

त्या उप्रांत रमेशान रुपाचें तोंड पळोवंक ना. फाल्यां सकाळीं तिचें लग्न. आपणे लग्नाक वचूंकच जाय? रिसेप्शनाक गेल्यार पुरो ना? इतले तिजे आनी म्हजे अगत्याचें नातें खंय आसा? दुसऱ्याची बायल जावपाचे थारायल्या उप्रांतच ती म्हजे जिणेंत आयली आनी हाचेफुडें ती म्हजे जिणेत उरली तरी दुसऱ्याची बायलच कशीच उरतली. नातें वळखीचें... नातें ऑफिसांतलें. दुसरें कसलेंच नातें ना...!

तरीकय, घराकडेन परतता आसतना रमेशान फ्लोरीस्टाच्या दुकानांत वचून दोन बुकेंची ऑर्डर दिली. मनांत म्हळें, म्हजी भावना हीं फुलां तिका पावयतलीं... केळवण हाडूंक बंदी आसा. मोनी फुलां व्हेल्यार कोण नाका म्हण्टलो?

बिराडार परतता आसतना आपल्या मनाकच तो प्रस्न विचारतालो. तूं आयज इतलो उदास कित्याक? रुपाचें लग्न ही अकल्पित घडणूक न्हय. तूं तर रुपाचो बरे मागपी. तिचें लग्न जुळ्ळ्यार तुका खंत कित्याक दिसूंक जाय? तिणे तुका फटयला...? ... ना! नोकरी मागूंक येतना तिणे आपलें लग्न नोकरेखातीर अडलां हें सांगून उडयिल्लें. देखून रुपाकडेन दुसरे नदरेन पळोवपाचो प्रस्नच नासलो...

तरीकय मनाक कशें समजावचें तें ताका कळना. मन उदास जालां खरें. कित्याक तें तो नकळ. ताचेंय लग्न थारलां. फाल्यां आपल्या लग्नाचें आमंत्रण रुपाक दिलें जाल्यार

तिच्या मनाचेर अशीच खंतीची साय येतली काय? नवे व्हंकलेचो चुडो हातांत चडोवन, जरीचो शालू न्हेसून घोवाच्या हातांत हात घालून हांसत म्हजे मुखार येवन म्हजें अभिनंदन करतली?

रमेशाचें मन जाप दिवंक पावलेंना. घडये धजलें नासत. पूण लग्नाक वचचें इतलें मात ताणे थारायलें.

पूण खऱ्यांनी जेन्ना तो लग्नाच्या हॉलांत पावलो तेन्ना थंयचें वातावरण पळोवन ताका आपूणच शेणलां अशे दिसूंक लागलें. सगळे एकमेकांचे वळखीचे. घडये नात्यांतले आसतले. बायलो तशे दादले एकमेकांकडेन संवकळीचो भास उलयतात. हांसतात. किर्टाकिटात. तो मात कुर्शाच्या एका कदेलार बसून आसा. कोणेच ताची वासपूस केली ना. मंगलाश्टकां जालीं. न्हवऱ्यान आनी व्हंकलेन एकमेकाक माळो घाल्यो. आशिर्वाद घेवचेखातीर जल्माची गांठ जाचेकडेन बांदिल्ली ताचे फाटल्यान ती लोकांमदल्यान गेली. अक्षतांचो शिंवर झेलीत मान सकल घालून ताका घशटूनच ती गेली. पूण तिणे नदर वयर केली ना. तो थंय आसा हें पळयलें लेगीत ना.

कुर्शाक बुफेच्या मेजांचेर लोकांनी गर्दी केल्या. थंय वचून तोंड गोड करचें अशें ताका दिसलें ना. प्लॅस्टीकाचे पोतयेंत दोन बुके आसात. सव्याकडेन व्हरून ते न्हवऱ्या व्हंकलेक दिवपाक ताचें मन तयार जालें ना.

पयसुल्ल्यान तो पळयतालो. व्हंकलेच्या भेसांत ताका रुपा तितली सुंदर दिसली ना पूण तिच्या घोवाचो मात ताका मत्सर जालो. आपलेपरसच तो सुंदर हे ताच्या मनान मान्यता केलें आनी आत्महिणपणाची भावना ताचें मन पोखरूंक लागली.

हॉलाच्या एका कोनशाक बशिल्लेकडेन रमेशाक दिसूंक लागलें आपूण ह्या लग्नाक येवंक नाशिल्लो जाल्यार बरें जावपाचें. दुःखातलें सूख इतलेंच, ह्या समुदायांत ताका फकत रुपाच वळखता. दुसरो कोण वळखना. रुपाच्या कुळारचे लोक ताका दिश्टी पडटात. पूण एकल्यानय ताचेसरी येवन ताची वासपूस केली ना. ते ताका वळखलेनात जाल्यार अजाप कसले? तरीकय मनात एक खंत उल्ली. मुजरत आमंत्रण दिवन आपयले उप्रांत कोणेच वासपूस करप ना म्हळ्यार अपमानच न्हय? आनी जिचेखातीर आपूण आयलां तिणे अजून नदरेन लेगीत आपणाक पळोवंक ना. इतलें करूनय फाल्यां ती आपूण आयलोच ना म्हणून शिणूंक मेकळी.

लोक येवन न्हवऱ्या - व्हंकलेक मेळून वतात. ताच्या वळखीच्या लोकांची तो तिजेकडेन आनी तिच्या वळखीच्या लोकांची ती ताचेकडेन वळख करून दिता. उपचाराचे गोड हांसो सगळ्यांच्या तोंडाचेर; हांसरी रुपडीं. न्हवरो आनी व्हंकल हांच्या सांगातान फोटो काडपाचो तो एक सोपस्कारच जाता. एक आल्बम तयार जातलो आनी मागीर घरचे लोक कोण आयले कोण आयलेनात हें पळोवन घेतले. कोणाचो फोटो कसो आयला वा कोण कसले न्हेसण न्हेसला हाचीय चर्चा जातली आनी उप्रांत तो आल्बम

खंयच्या तरी एके ट्रंकेत वचून धुल्ल खायत पडटलो. कुर्शाक उरतलो. कोण तार्ची वासपूस करचोना.

विचारासरर्शी रमेशाक दिसूंक लागले आपूणय असोच कौतुकाचो भार सोपलेउप्रांत कुर्शाक पडिल्ल्या आल्बमांतलो एक फोटो...

तो एकदम उठून उबो रावलो. बुकेचेर ताणे आपले नांव बरयलां. तें वाचपार्ची तकलास कोण घेतलो? काय हातूंतले वेंचिक गुलाब लग्नाक आयिल्ल्यो बायलो बुड्डून व्हरतल्यो आनी आपल्या नांवाचें कार्ड खंय तरी शेवटून उडयतल्यो!

लग्नाक आयिल्ल्याचो पुरावो कितें दितलो वचून मेळ्ळो जाल्यार फोट्यांत याद उरतली... दोन पावलां ताणे स्टेजीचे दिशेन उखल्लीं आनी मार्गार मनांत विचार आयलो. न्हवऱ्याच्या कुर्शाक उबो रावलो जाल्यार आपली आनी तार्ची तुळा जातली.

ते परस फाल्यांच येवचें. रिसेप्शनाक. ऑफिसांतल्या वखळीच्या, संवकळीच्या लोकांसांगातान रुपाल्या न्हवऱ्याक हात दिवचो. नव्या जोडप्याचें अभिनंदन करचें... तोय उपचार. समाजात रावतल्या मनशान पाळूंकच जाय. हातांतली बुकेची पिशवी मुखावयल्या रिकाम्या कदेलाचेर ताणे दवल्ली आनी एकदम तो भायले दिशेन घुंवलो.

## २३

लग्नाचो विधी इतलो अर्थान भरिल्लो आसता हें रमेशाक आर्दी खबरच नासलें. जिवितांत तो पयलेच खेपे लग्न जाता आसलो तरी आयजमेरेन कितलेशाच लग्नांक तो हाजीर राविल्लो. ताणे मानिल्लें की एकमेकांच्या गळ्यांत माळ घाली म्हण्टकच लग्नाचो सुवाळो सोंपलो.

पूण जेन्ना कन्यादानाचो विधी करता आसतना भटान ताका व्हंकलेच्या बापायसरीं व्हेलो आनी ताणें ताचेकडच्यान एक संस्कृत मंत्र उच्चारून घेतलो तेन्ना आर्दी ताणें अर्थ समजना आसतनाच मंत्राचो उच्चार केलो. पूण संस्कृत भाशेचेर आपलें प्रभुत्व दाखोवपाची संद सोडिनाशिल्ल्या त्या भटान रमेशाक अर्थ सांगलो. 'धर्म, अर्थ, आनी काम हे त्रिविध पुरुषार्थ सादून घेवचेखातीर हांव तुमचे चलयेचो आदार घेवंक सोदतां. म्हाका मान्यताय आसची.'

उपरांत व्हंकलेच्या बापायन दुसरो श्लोक म्हळो आनी ताणेंय किराभाशेन भटान उच्चारिल्ल्या उतरांचो पर्थून उच्चार केलो.

'ताचो अर्थ कितें?' रमेशान ल्हवूच भटाक विचारलें.

'तो, म्हळ्यार व्हंकलेचो बापूय, तुजेकडेन उतर मागता की तू धर्म, अर्थ, काम आपले धुवेच्या सांगातान करतलो. तिची केन्ना उपेक्षा वा द्रोह करचोना.

एकदम रमेशाक एक नवो साक्षात्कार जालो. तों गोंदळ्ळो. अग्नीच्या साक्षीन जो सोपूत घेता तो पाळूंक जाय अशें तो येवजितासर भटान म्हळें, 'तीन वेळा म्हण 'नातिचरामि... नाति चरामि... नाति चरामि।'

अर्थ समजनासतना रमेश उलोवन गेलो. भटान आपूण जावनच अर्थ सांगलो, 'हांव तिचो द्रोह करचोंना... केन्ना ना.. निखालस ना.'

लग्नाचें बंधन स्वीकारतना आपणें एक उतर दिलां ही जाणविकाय सव्यार बशिल्लेकडेन रमेशाचें मन घेरून गेली. तो अंतर्मुख जालो. हॉलाचे एके कुशीक शेनांय वाजताली. इश्ट-मित्र, सोयरे आनी आमंत्रित खरो- लटको हांसो तोंडार फुलोवन एकामेकांकडेन उलयताले. कोण तरी येवन नव्या जोडप्याचें अभिनंदन करतालो. अती उतावळो फोटोग्राफर वेगळ्यो-वेगळयो पोझी घेवन तांचे फोटे घेतालो.

रमेश देहान त्या हॉलांत आसलो ताणें आसूंकच जाय. तो न्हवरो... एद्या व्हडल्या उत्सवांतलो तोच उत्सवमूर्त... सगळ्यांचे दोळे ताचेर थिरावल्यात... सगळे ताचेविशीं उलयतात... कोण कौतुक करता जातलो, कोण मत्सर... थोड्यांक ताची नसाय जातली, थोड्यांक लक्तुबाय दिसताली... ह्या विशाल हॉलांत घडये तो आसतलो... ज्याचेकडेन तेजाचें थारिल्लें लग्न मोडलें... घडये अशे तरनाटे आसुंये ज्यांनी आपले आंकवार जिणेतलीं दिसासपनां रंगयतना तेजाक नायिकेच्या जाग्यार व्हरून बसयिल्ली. घडये अशो चलयो थंय आसुंये ज्यो खिणाखातीर केन्नातरी रमेशाल्या सपनांतल्यो नायिका जावन गेल्ल्यो आसतल्यो..., घडये... न्हय; खऱ्यांनीच रुपा लेगीत ह्या हॉलांत आसा... तिच्या मनांत कसल्यो भावना ह्या खिणाक उंचबळिल्ल्यो आसतल्यो?

पूण झाडावेलें निखळून पडिल्लें पिकिल्लें पान हवेंत थोडो वेळ तरंगता आनी उप्रांत भूंय पडटा तशें एक-एक रूप, एक-एक चित्र, एक-एक याद रमेशाच्या मनांत तरंगून कुशीक वताली.

तो हांसतालो. तो लोकांक हात दितालो जाण्टेल्यांच्या पांयाक हात लावन पांयां पडटालो. पूण तो थंय नासलो. थंय आसलो तो ताचो देह.

तो त्या खिणाक आपल्या चुकांखातीर पश्चात्ताप करतालो. आंकवार जिणेतलीं सपनां माफ. पूण लग्न थारले उप्रांत लेगीत ताणे तेजाचो द्रोह केल्लो. आतां तो तशें करचोना. ताणे उतर दिलां 'नाति चरामि।'

रूपा स्टेजाचीं सोपणां चडून वयर येतना तिचे रस्मी साडयेचो पदर गळ्ळो. रमेशान रोखडीच नदर फिरायली. ना हे फुडें तो दुसरे बायलेकडेन नायिकेच्या रूपान पळोवचोना...

रूपा म्हऱ्यांत आयली. तेजाच्या हातांत एक फुलांचो बुके दिलो आनी अनवळखी मनशाक उपचारीकपणान करचो तसो ताका नमस्कार केलो.

'ही रूपा... आमच्या ऑफिसांत आसता.' यंत्राभाशेन रमेशान रूपाची वळख करून दिली आनी ताच्या लक्षांत आयलें की रूपा एकलीच आयल्या.

'तूं एकलीच?' ताणें अजाप उक्तायत रूपाक विचारलें.

'एकली आसली तरी आयलीं हें थोडे जालें?' हांसत हांसत रुपान जाप दिली.

हिच्या लग्नाक आपूण गेल्लों हें तिका कळूंक ना देखून आपणाक हो थोमणो हें रमेश वळखलो.

'नवें लग्न जातकच जोडप्यान भोंवंक जाय.' जाण्टयांच्या सुरांत रमेशान म्हळें.

'ना. ताच्या मित्राचें ह्याच म्हुर्तार लग्न आसा देखून तो थंय गेलो. हांव हांगा आयलीं. तुमकां एक दीस आमगेर येवचें पडटलें.' थंयच तिणे आमंत्रण दिलें.

रमेश निखटो हांसलो.हुकमाची राणी हुकमाची राणी

ह्या संवादावेळार तेजा तटस्थ रावली. थोडीशी निर्विकार. तोंडार हांशाचें रुपडें चडयिल्लें उरिल्ल्यान तिच्या मनांत उळउळिल्ली दुबावाची कीड रमेशाक दिसलीना.

त्याच दिसा तेजान ताका पयलो प्रस्न केलो आनी बायलांच्या अंतर्ज्ञानाची जाणविकाय ताका जाली. 'ती रुपा कोण?' तेजालो साळसूद प्रस्न.

'तुजी वळख करून दिल्ली न्हय? आमच्या ऑफिसांत कामाक आसता ती.' आपणाकच सावरून घेवपाच्या प्रयत्नांत रमेशान दिल्ली जाप.

'जाणां, तशे ऑफिसांतले दुसरे लोकय आयिल्ले. पूण तुजें चित्त रुपाभोंवती घिट्ट्यो घालतना पळयलें देखून विचारलें.'

'तुका ओर्गाच दुबाव.' व्हडान हांसत रमेशान म्हळें.

'म्हाकाच न्हय. खूब जाणांक दुबाव आयला आसतलो.' तेजान जाप दिली, 'तूं तिजेकडेन उलयतना फाटल्यान तिष्ठतले लोक तुका दिसलेनात आनी हांव तुजे कुशीक आसा हें लेगीत तूं विसरिल्लो.'

'तुका हांव विसरतां?' रमेशान तिचे फाटीर हात दवरून म्हळें, 'तुका खबर ना. अग्नीचे साक्षीन हांवें तुज्या बापायक उतर दिलां 'नातिचरामि....'

'म्हळ्यार कितें?'

'हे फुडें तूं म्हजे जिणेची सावळी. तुका अंतर दिवचोना. आतां फाटले दुबाव... फाटल्यो वळखी... फाटलीं सपनां... फाटल्यो उमेदी विसरून नवी जीण सुरू करपाची.'

उलयतां- उलयतां रमेशाचो गळो दाटून आयलो. दोळे भरून आयले. आपूण इतलो भावनावश कित्याक जालो हे ताचें ताकाच कळ्ळें ना.

हाचेफुडें अशें जावंक उपकारना. दुबावाची सांवळी आपल्या संवसाराचेर पडली जाल्यार दुदांत मिठाचो खडो पडिल्लेसारकें जातलें अशें ताका दिसलें. तेजाक दुबाव घेवपाक कारण आसा. पयलेच भेटेंत तिणें आपलें मन मेकळें केल्लें.

रमेश आपल्या बेबंद मनाचेर कसलो. गृहस्थ जिणेच्या आरंभाकच एक विपरीत घडिल्लें, जें ताका पुराय अनपेक्षित आसलें. पाटयेवयले बिरबिटें एकेक करून पुसचें तशें ताणें एके एके नायिकेक दोळ्यासामकार हाडली आनी आपल्या काळजाच्या खणांतली तिका काडून उडयली. आतां ताचें मन निवळ जालें. दोळ्यांमुखावयले दाट धुकें विरून

गेलें आनी मुखार उर्बा उरली एकूच मूर्त हे फुडें तीच ताचे जिणेची नायिका.

ताणें गुन्यांवकारांच्या मनान, मार्फाचो साक्षीदार जावपाचे भावनेन तेजाक आपोवन घेतली आनी आपल्या वासना आनी विकृती, अतृप्ती आनी उमेदी हांचें गांठवल तिचेमुखार अचळय सोडयलें. ताचे ताकाच मन रिकामे जालां अशें दिसलें.

इतलें करून क्षमा मागपाखातीर ताणे तोंड उगडलें. पूण वाक्य पुरें जावचे आदींच तेजान ताचे तोंड बंद केलें!

